**जोगूल**

(निबंद झेलो)

सोनिया सुभाष शाह

प्रकाशन क्र. 2



**प्रकाशक :**

राहुल-हेतल प्रकाशन

सुभाष न. शाह

शांताबन कॉलनी

मेरशी-गोंय

(0832) 2449489

**पयली उजवाडावणी :**

2012

**संकल्पना आनी चित्र :**

सुभाष न. शाह आनी सुरज.कॉम

**अक्षर जुळोवणी :**

ज्योती गांवकार

**छापपी :**

स्वर्णमुद्रा प्रिंटर्स

माशेल - गोंय

**मोल : ₹ 150/-**

**हें पुस्तक कला आनी संस्कृती संचालनालय, गोंय सरकार, हांच्या गोंयच्या 'लेखकां खातीर अर्थिक अनुदान' हे येवजणे खाला छापलां.**

।। श्री म्हालसा नारायणी प्रसन्न ।।



म्हजो घरकार
सुभाष नटवरलाल शाह
हांकां मायेमोगान ओंपतां.

- सोनिया सुभाष शाह

# मनोगत

सगळ्यांत पयलीं हें म्हजें गद्य रुपांत पयलें पुस्तक तुमच्या मुखार दवरतना म्हज्या मनाक खूब खोस भोगता. दोन कविता संग्रहा उपरांत बायलांच्यो मुलाखती घेतिल्ल्यो हें म्हजें पयलेंच पुस्तक. भायर उटंगाराचो पावस पडटना जी वीज मळबांत चकचकता ताकाच जोगूल म्हणटात. म्हाका मुलाखती घेतना मेळिल्ल्यो ह्यो बायलोय तांच्या क्षेत्रांत जोगूल कश्यो चकचकल्यात, तांकांय आपल्या जिवितांत अशेंच धडपडचें पडलां. समाजाच्यो कुच्छीत्री नदरो, हाचेर-ताचेर घालून उलयिल्लीं वायट उतरां आयकुचीं पडल्यांत आनी तेन्नाच कितें तरी तीं करपाक शकल्यांत.

सुनापरान्तान जेन्ना अश्याच धडाडी बायलांच्यो मुलाखती घेवपाचें थारायलें, तेन्ना ह्या बायलांच्या सदरांत कितें तरी योगदान दितलें अशें हांवें मनांत चिंतलें. सुनापरान्ताचे पालवी संपादक जवाहर बर्वे आनी म्हजी जिवाभावाची इश्टीण, एक कवयित्री, कथाकार, बालसाहित्यीक नयना आडारकार हांणी ह्यो मुलाखती घेवपाची जबाबदारी म्हजेर सोंपयली. पूण कामाचो राट आनी मुलाखती घेवप, ह्यो दोनूय गजाली शक्य नाशिल्ल्यान ती येवजितनाच हांव म्हजें कितें तरी साहित्य घेवन सुनापरान्तांत पाविल्लें आनी तेन्नाच तांणी म्हज्या मुखार हो प्रस्ताव दवरलो. "म्हाका दोन दीस दियात, हांव कितें तें घरच्यांक विचारून तुमकां कळयता," अशें सांगून हांव घरा आयलें. म्हजें विचारचक्र सुरू जाल्लें. घरा येवन हांवें हेतलाक विचारलें जाल्यार ताणें सांगलें, "ही तुका सुवर्णसंद मेळ्ळ्या आनी ती तूं वगडावं नाका." आमी हाचेर खूब विचार केलो. कारण फुडलें वर्सभर ह्या सदरा खातीर मुलाखती म्हाकाच हाडपाच्यो आशिल्ल्यो.

दुसऱ्या दिसा हांव सुनापरान्तांत गेलें आनी म्हजो हयकार कळयलो. त्या दोगांयनी म्हाका खुबश्यो सुचोवण्यो केल्यो. जवाहर भाईन म्हाका कसले प्रस्न विचारप, कशे तरेन संवाद सादप अश्यो जायत्यो गजाली म्हाका सांगल्यो. त्या दोगांयनी म्हज्या सैरभैर मनांत शांतताय हाडली. म्हाका एक तांक दिली. तशें म्हजें मन खिणां भितर बदल्लें आनी ह्या जोगलांचो भार हांवें म्हज्या माथ्यार घेवन नवें कितें तरी करपाचे उमेदीन घरा आयलें.

पयलीं हांव खंयचें जोगूल घेवं? कोणाची मुलाखत घेवं? अशे कितलेशेच प्रस्न सोरपा सारके वेटाळे घालपाक लागले. पूण हांव म्हज्या विचारान खंबीर आशिल्ल्यान ह्या सगळ्या प्रस्नांचेर जैत मेळोवन नेटान कामाक लागलें.

पयलींच जेन्ना आमी कसलोय जिनस करतात तो बरो जातलो काय तोंडांत घालपाचो जावचो ना हें खबर आसना. पूण यत्न मात कितें तरी बरें करपाचेच आसतात. आनी घरचीं जेन्ना तो जिनस खावन तोखणाय करतात तेन्ना मात खूब उमेद जाता. हांवूय कितें तरी नवें करपाक शकतां अशें कळटा.

पयले मुलाखती बाबतींतय अशेंच जालें. पयलीं मुलाखत घेवन जेन्ना ती सुनापरान्तांत आयतारा आयली तेन्ना म्हाका खूब बरें दिसलें. ह्यो मुलाखती जेन्ना दरेक आयतारा येताल्यो तेन्ना म्हाका कश्टाचें फळ मेळटा अशें दिसलें. देख दिवची जाल्यार "भुरगें कशेंय आसूं, आवयच्या दोळ्यांक तें संवसारांतलें सुंदरच भुरगें दिसता." अशें म्हजे बाबतींत जायना न्हय असो म्हाका प्रस्न पडटालो. पूण जेन्ना प्रत्येक जोगला फाटल्यान म्हाका वाचकांचे फोन येवंक लागले, "आगो सोनियाबाय, हीं सगळीं तरेकवार जोगलां कशें कितें मेळटात? तुजे कडेन अशी कितें जादवाची कांडी आसा की तुज्या जाळ्यांत तीं कशीं बाये फारावतात? दरेक जाण म्हजी तोखणाय करताले. कोण फोनार, कोण एसएमएस धाडून, कोण प्रत्यक्षांत आनी थोडे अप्रत्यक्षांत. थोडीं जाणां मोलादीक सुचोवण्यो करतालीं. थोडीं उलयतां उलयतां खंयचे तरी बायले बद्दल सांगतालीं आनी आपसुकूच म्हाका दुसरें जोगूल मेळटालें.

सुनापरान्तांत जोगलाचें बरवप व्हरून दितालें तेन्ना जवाहर भाई आनी नयनाबाय हांसून हांसून म्हजीं फकांडां मारतालीं. आयलें बाये आमचें जोगूल. नयना तर म्हजी दोळ्यांत तेल घालून वाट पळयतालें. कित्याक तर जोगलांचें पान ताकाच पळोवचें पडटालें. आयतारा जी पुरवणी येता ती शुक्रार मेरेन तयार जाल्ली आसता. शुक्रारा उपरांत ते पुरवणेंत कांयच बदल जायना.

गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्यान हांव जोगूल एकठांय करपाक वतालें. खांची कोनशांतल्यान वचून बायलांची मुलाखत घेवची पडटाली आनी ही मुलाखत जेन्ना पेपरांत येताली तेन्ना सगळ्यांत चड समाधान म्हाकाच जातालें. त्या बायलांकूय तितलोच आनंद जातालो.

चडश्या जाग्यार म्हज्या सांगाताक म्हजो घोवूच येतालो. शेनवार,

आयतार ताणें म्हजे खातीरूच राखून दवरिल्लो. केन्नाच म्हाका अडून दाखोवंक ना वा आपलें कितें काम आसा अशें सांगून तिश्टत दवरूंक ना. केन्नाय अडचण आसल्यार म्हजे खातीर तजवीज करून दवरतालो. म्हज्या ह्या कामांत म्हज्या घोवाचें - सुभाषाचें खुबूच योगदान आसा.

आमी जंय जंय वतालीं थंय बायलो म्हज्या घरकाराची खुबूच तुस्त करतालीं. "तूं बाये भाग्यवान, आमचे घोव जाल्यार, म्हणटले आशिल्ले झक मार, म्हाका क्रिकेट पळोवंक जाय, अशें कितें तरी सांगून आमकां अडोवपाचे."

दर आयतारा खंयची तरी नवी बायल सगळ्यां मुखार दवरतलें अशेंय म्हाका दिसतालें आनी हेच खातीर हांव धडपडटालें. तान, भूक कुशीक दवरून एक एकदां ह्यो मुलाखती घेवच्यो पडटाल्यो.

म्हजे कडेनूय ह्या बायलां वरीं एक कला आशिल्ली. हांव जे बायलेची मुलाखत घेता तेच बायलेक हांव तिचे सारकेच धडाडी बायले विशीं विचारतालें आनी ती बायल म्हाका सांगून वताली आनी अशेंच दुसरें जोगूल सोदपाचो म्हजो प्रस्न सुटावो जातालो.

खरें म्हणल्यार देवान दरेके बायलेक एक खाशेलो गूण दिला. त्या गुणाचो वा कलेचो वापर करत जाल्यार ती बायल कर्तबगार, धाडशी, स्वावलंबी जाले बगर कशी रावत?

तशें आमचें गोंय म्हणल्यार कलेची खाण. हांगा खुबश्यो बायलो आसात जांणी आपलें अशें स्वताचें एक आगळें वेगळें व्यक्तीमत्व घडयलां. देखीक: माजी मुख्यमंत्री शशिकलाताई काकोडकार, लेखिका माधवी देसाई, वर्षा उसगांवकर, लोर्ना, संगिता परब, निर्मला सावंत, ज्योती कुंकळकार, सबिना मार्टीन्स, हेमा नायक अश्यो जायत्यो. हातूंतल्या खुबश्या जाणांची हांव मुलाखत घेवंक पावूंक ना हाची म्हाका खंत भोगता.

जर परत म्हाका अशे तरेची संद मेळत तर ज्या बायलांची मुलाखत म्हाका घेवपाची आशिल्ली त्या सगळ्यांच्यो हांव मुलाखती घेतलें आनी हे खंतींतल्यान सुटका मेळयतलें.

म्हाका मुजरत एक दोन अणभव सांगन दिसतात, जर ते सांगले नात तर म्हज्या ह्या मनोगताक योग्य न्याय मेळचो ना.

दांतांनी नाल्ल सोलतल्या शब्दुल्याचो अणभव: शब्दुलें मोरपिर्ला ह्या

गांवांत रावता. हाका सोदपाक म्हाका खुबूच त्रास जाले. जुलय म्हयन्याचो पावस, सगळ्या वाठारांत थंडाय पातळिल्ली. त्या दिसा सुभाषाचें ऑफिसांत टेंडराचें काम आशिल्ल्यान ताणें भावोजीक म्हाका व्हरपाक सांगलें. हांव आनी भावोजी स्कुटरीन भायर सरलीं. म्हजो भावोजी लक्ष्मीकांत रायकार (म्हजे भयणीचो घोव) हो केप्यां वाठारांतलो आशिल्ल्यान ताका हांगाचे गांव बरेच संवकळीचे आशिल्ले. एक वर जाता थंय आसा, आमची स्कूटर पंक्चर जाली. तेन्ना दनपार जाल्ली. पंक्चर काडपी गॅरेज थंय लागसार नाशिल्ल्यान आमी गाडी थंयच दवरून आमचे वाटेक लागलीं. लोकांक विचारून आमी फुडें वतालीं, ‘‘दांतांनी नाल्ल सोलता त्या शब्दुल्याचें घर खंय?’’ असो आमचो प्रस्न. एके वटेन भुकेन-तानेन आमी व्याकूळ जाल्लीं. थंयच एक हॉटेल आशिल्लें. हॉटेलाक पळयल्यार जीव नाका. भूक लागिल्ल्यान आमी पाव भाजी आनी च्या ऑर्डर दिली. चण्याची भाजी म्हणून धवी धवी भाजी आमचे मुखार दवरली. दोगांयनी भाजयेक आनी एकामेकांक पळयत पावभाजी खाली आनी ‘च्या’ च्या नांवार दिल्लें धड दूद ना, धड च्यापालो ना असली च्या आमी पियेवन शब्दुल्याचे घरचे वाटेक लागलीं. एकदांचो व्हाळ हुपून आमी शब्दुल्याच्या घरा पावलीं. थंय वचत जाल्यार सगळ्या आंगणांत शेणाचो शिताडो तसोच आशिल्लो. पावसाचे दीस आशिल्ल्यान तें सुकूंक नाशिल्लें. आमकां पळोवन तांणी शेंदरी घाली. हांवें म्हणलें, ‘‘म्हाका दांतांनी नाल्ल सोलता तें शब्दुलें जाय.’’ एके बायलेन शब्दुल्याक मोठ्यान आवाज दिलो. त्या बराबर शब्दुलें केंसांचो आंबाडो पिळीत म्हजे सामकार उबें. तें अजापीत जावन ही कोण बायल इतल्या पयसुल्ल्यान आपणाक मेळपाक आयल्या अशे भाव घेवन म्हाका पळोवंक लागलें आनी हांव तर दांतांनी नाल्ल सोलता ती बायल म्हणटकच अक्राळ-विक्राळ, धाटी-मोटी सुळ्या दांतांची बायल आसतली अशें म्हाका दिशिल्लें.

हांवें तिकाच म्हणलें, ‘‘म्हाका शब्दुलें जाय.’’ ‘‘हांवूच तें शब्दुलें.’’ म्हणून पान खाल्ल्या दांतांनी तें मुमुरखेंच हांसलें. तें आंगार हळडीच्या कोराची साडी न्हेशिल्लें. हांवें जशी चितिल्ली तशी ती ना हें पळोवन हांव खेदिश्ट जालें. पूण ती गुणांनी कर्तुत्ववान आशिल्ली.

भुरगेपणांत सकाळीं फुडें शेतां-भाटांनी नाल्ल पुंजावंक ती वताली. तिचे

हालींचे समाजजिणेंत आपली सुवात निर्माण केल्ल्यो, ग्रंथालयशास्त्रांत पारंगत डॉ. अर्चना काकोडकार, 'पिसफूल सोसायटी' वरवीं सर्वांगीण समाज उन्नतीक आंवडेवपी भारती बांदोडकार, 'बायलांचो साद' वरवीं उपेक्षीत शोशितां खातीर धडपडपी आवदा व्हियेगश, कश्टकरी घटकांची सतत सेवा करपी डॉ. पोर्णिमा उसगांवकार, शिक्षणक्षेत्र आनी मॅकानिकपणांत समानतायेन रस घेवपी लोक प्रतिनिधी जावन गेल्ली फातिमा डिसा हांकां सुनिताबायच्या हे वळख-माळेंत सुवात हक्कान मेळटा.

पूण वाचप्याच्या मनाचो थाव घेवपी कितल्योशयोच बायलो सामान्यांतूय असामान्य कर्तुप गाजयिल्ल्यान जोगलांवरीं ह्या पुस्तकांच्या पानांर यशोगाथा अचळय फाटीं सांडून वतात. हांचे मदीं, घोवाल्या मस्क्युलर डिस्ट्रॉपी सारक्या दुयेंसांक झेलतना रिक्षा चालक जावन स्वावलंबनाची वाट मांडोवपी उत्कर्षा सावंत आसा, तश्योच स्टियरींग व्हिलाचेर आपल्या बोटांची कळाशी दाखोवपी सुरत बोरकार, मॅल्फा फॅर्नांडीस, माया बोरकार ह्यो आत्मविस्वासी वाहन चालिका आसात. तशेंच, दीपा तेंडुलकार, सीमा साळकार, संगिता नायक ह्यो मोटार मॅकानिक मोटरवायंडिग अशे तरेच्या पुरूशप्रधान क्षेत्रांत आपलो थेंक निर्माण करपी अस्तुऱ्योय हांगा मेळटात. तांच्या हेर रुपां परस हें 'हात म्हेळे करपी' रुपच अदीक देखणें दिसता. हांचें वरवीं गोंयचे भावी तरनाटेक स्फूर्त लाबची.

पूण इतल्यांत सुनिताबायच्या 'जोगूल' पुस्तकाची सांगता जायना. तोखणायेच्या टीप कागदान, नृत्यकुशल नयन प्रियोळकार, अनिता कुंडयकार, प्रियंका नृत्य अकादेमीची प्रियंका राणे हांच्या यशाचे पदन्यास टिपून घेतनाच, सुनिताबाय तितलेच सहजतायेन निर्मलाताई काकोडेचे संवादिनीचो सूर सांपडायता, मंदा वळवयकाराच्या तबल्याचो ठेको आनी आश्विनी जांबावलीकार तशेंच रजनी ठाकूराच्या स्वरांचो साजय जुस्त उतरांत बांदता. ह्या 'जोगलांक' हीं मळां मांडयतना आयिल्ले अणभव, जाल्लो विरोध, लाबिल्लें प्रोत्साहन हेंवूय शब्दबद्ध करूंक लेखिका विसरना.

तिका जितली लक्तुबाय विनावेतन संस्कारवर्ग चलोवपी निवृत्त शिक्षिका रुपा मांजरेकाराची दिसता, तितलीच किर्तन आनी आधुनीक विद्याभासाची सांगड घालपी कोमल सानेचीय अपुरबाय दिसता. हिंदू मसंडभूंय सांबाळपी जन्नत बी आसूं, दांतान नाल्ल सोलपी शब्दुलें आसूं, मुक्तिपूर्व गोंयांत वैजिणपण करपी

वयोवृध्द प्रमेश नटवरलाल शाह आसूं, स्वतंत्र गोंयांतली पोस्टवूमन रजनी नायक आसूं, नाल्ल पाडपी पार्वतीबाय भट्ट प्रभू आसूं, तियात्राच्या पालका वयल्यान समाज सेवे मेरेन पाविल्ली फर्मिना खंवटे आसूं - लेखिकेची नदर तांकां तितलेच उत्सुकतायेन तेळटा, तितलेच आपुलकायेन वाचप्याक तांची उतरभेट घडयता.

सुनिताबायन वेंचिल्ल्या जोगलां मदीं बागकाम करपी फार्मां चलोवपी कालिंदी साळगांवकार, लविता रोज फालेरो, भाग्यश्री नायक जितलीं लकलकतात, तितलींच लोककलेंत रमपी प्रेमावतीबाय, लोककलेचो हस्तकले कडेन सांगड घालपी विविधांगी शालिनी गावडे, आपलें खासा भजनी मंडळ घडोवपी रेवती-मिलन-गीता-ललिता-हेमलता ह्यो सतरकार भयणी, जातिवंत मुर्तिकलेंत फिशाल अनघा बोरकार आनी सुप्रिया बोरकार, बायलांक देवूळ वेवस्थापनांत फुडें काडपी गौरी गोवेकार, हीं अस्तुरीं - रत्नांय चकचकतात.

लोककलांच्या संवर्धना वांगडा स्वयंसेवी पंगड घडोवपी कांय कलाकारय हांगा उदेतात. तांचे मदीं ट्विंकल मायणेकार, सुशिला पार्सेकार, शुभांगी नायक, रजनीताई कुडव, सुषमा नायक, प्रवेशा नायक जशीं आसात तशींच नुस्तें पागप, व्हडें ताणप आनी हेर कामांतय कुशळ आशिल्लीं लिना नायक आनी अनिता वाघुर्मेकार हीं लक्षणीय थारतात.

पूण ह्या निर्भय, लकलकीत जोगलांच्या भिऱ्यांतूय, आपली एक वेगळी वळख फांटीं सांडून वता तें जोगूल म्हणल्यार खुद्द लेखिका. अनिता वाघुर्मेकाराची व्हड्यांत मुलाखत घेतना आयिल्ल्या थरारक अणभवाचें सर्जनशिलतायेन शब्दांकन करतना लेखिका अचळय यादींचे शेणागायरींतलें जोगूल जावन, भांगर कशें वाचप्यांच्या उगडासांत घर करतां. ह्या तेजस्वी जोगलाचो वसो हेरां मेरेन मुजरत पावचो, हीच आस्त!

**- किरण बुडकुले**

पर्वरी
09.09.2012

# मांडावळ

वांगडा तिच्यो इश्टिणी, भावंडां वतालीं. एकदां तिणें चार नाल्ल पुंजायले. इतल्यांत भाटांतल्या भाटकारान तिका विचारलें, "शब्दुल्या, तुवें कितले नाल्ल लिपयल्यात गो?" शब्दुलें गाल फुगोवन ओगीच रावलें. ताणें तुवाल्यांत लिपयिल्ले नाल्ल काडून घेतले. मागीर शब्दुल्यान एक युक्ती सोदून काडली. तें नाल्ल दांतांनी सोलूंक लागलें. तेन्नाच्यान ताका दांतांनी नाल्ल सोलपाची संवय लागली. इश्टिणींक, भावा - भयणांक आडसरां फोडून दिवंक लागलें आनी हांगाच्यानच ताका नाल्ल सोलपाची संवय लागली.

आतां शब्दुलें नाल्ल सोलपाक तरबेज आशिल्ल्यान बऱ्या बऱ्या सर्तींनी वांटो घेतां आनी इनामां मेळयता. ते भायर धालो, फुगड्यो, तालगडी सारके नाच तें करता. शाळेंतली बाई ताका भुरग्यांचे नाच बसोवपाक आपयता. आयजवेर तें बिहार, भोपाळ, कारवार, केरळ, तामिळनाडू अश्या जायत्या वाठारांनी भुरग्यांचे नाच घेवन गेलां.

असो हो शब्दुल्याचो अणभव.

दुसरो अणभव म्हाका निमणें जोगूल घेवपा कडेन गेल्लें तेन्ना आयलो. अक्षय तृतीयेचो तो दीस. सकाळीं धा वरांचेर हांव आनी म्हज्या भावाचें चली दीपाली साखळकार म्हज्या सांगाताक आशिल्लें. सुभाषान "हांव सांजे चारांक थंय पावतां" अशें सांगून आमकां पणजे बसस्टॅण्डार पावयले. पणजेच्यान आमकां फोंड्यां वचपाचें आशिल्लें. फोंड्यां आमकां अनिता वाघुर्मेकार हें जोगूल रावपाचें आशिल्लें. ताच्या गांवांत वाघुर्म्यां वचून आमी ताची मुलाखत घेवपाचें थारायलें. अनिता गावडेचें कुळार दिवाडे आशिल्लें. दिवाडेचे दर्यादिगेरूच ताचें घर आशिल्लें. त्या कारणान ताका पेंवपाक, व्हडें ताणपाक, पागाऱ्यांनी नुस्तें धरपाक संवकळीचें जालें. कुळाराचें नांव अनिता गावडे म्हणल्यार दिवाडे गांवांत फामाद आशिल्लें.

आमी फोंड्यां पावलीं. अनिता आमची वाट पळयतालें. साडे इकरा थंयच जालीं. हांव बरेंच उमेदीन आशिल्लें. थंयच्यान आमी वाघुर्मेची बस धरली. अनिता आपल्या गांवच्यो बऱ्योच तोखणायो सांगतालें. पांचव्याचार सैमान नटिल्लो हो वाठार आमी नियाळत आशिल्लीं. घसघसून व्हांवपी व्हाळ आनी तातूंत मेळपी खरचाणी, थिगूर, काळुंदरां, सांगटां, मोतयां वरीं लिकलिकपी बुराटे, सुंगटां हांचें अनिता वर्णन करूंक लागलें. तामसो कितलो रुचीक मेळटा

जाणां? अशे तरेन नुस्त्याचेंय भजन करूंक लागलें. हें सगळें आयकून पोटाक लागिल्ली भूक चडूच चुरचुरीत जाली. इतलो वेळ सवकास चलोवपी बस चालकान आपले गाडयेचो वेग वाडयलो आनी आमी अनिताल्या गांवांत पावलीं. ताच्या घरा कडेन पावपाक आनीक बरीच वाट चलपाची उरिल्ली. अनिता नेटान गजाली सांगतालें. पूण आमची दोगांयची मनस्थिती नाशिल्ली. दीपालीक खूब भूक लागिल्ली आनी वयल्यान तें नुस्त्याचें व्हडलें भक्त.

इतल्यांत अनिताच्या देराचो चलो गाडी घेवन येतालो. ताणें आमकां बेगीन घरा व्हेलें. आमी सामकीं तानेल्लीं. आमी पावना फुडें आमकां आडसराचें उदक दिलें आनी मानकुराद आंब्याच्यो शिरो दवरल्यो आनी वयल्यान काजुच्यो बियो. आमी खूश. सामकोच ताव मारलो आमी. उपरांत आमी अनिताचें कुळागर पळयलें. मिरी, तिखी, काजू, पणस, सालदाटी केळीं, डाळंबाचीं झाडां, सगळें पळयतना खुबूच मजा आयली.

इतले म्हणसर आमकां जेवणा खातीर उलो मारलो. जेवणाच्या ताटाचो थाट कितें पळयतलीं? मानशेच्या सुंगटांचें आंबाडें घालून केल्लें हुमण, खडप्या कुल्ल्यांचें धबधबीत, तिसऱ्याचें दांगर, तळिल्ल्यो वागयो आनी दाट पिळिल्ली कडी. आमी पोट फुटसर जेवलीं. जेवता थंय आसा. केळीं, पोपायेच्यो शिरो म्हणटासर तीन वरां जालीं. ज्या कामाक आमी आयिल्लीं तें काम करपाचें आशिल्लें. मुलाखत घेवपाची. अनिता पयलीं भुरगेपणांत दिवाडेचे न्हंयेंत व्हड्यान भोंवतालें. नुस्तें पागतालें. आमी थंय गेलीं जंय व्हडीं आशिल्लीं. अनिता पयलीं व्हडें घेवन सगळे कडेन भोंवून आयलें आनी आमकां व्हड्यांत येवन बस म्हणपाक लागलें. अनिता वांगडा आनीक एक बायल आशिल्ली. ती व्हडें ताणटाली. सुभाष फोटो काडटालो. इतल्यांत कितें जालें देवाक खबर? व्हडें उमथलें. इतल्यांत ती जी दुसरी बायल आशिल्ली तिणें दीपालीक वयर काडलें. हांव मात सामकें बुचकळपाक लागलें. हांवें तेन्ना म्हजी आशाच सोडली. म्हजो घरकार हें सगळें पळोवन सामकोच आबूज जालो. दीपाली किंळच्यो मारतालें. म्हाका सगळें आयकूंक येतालें पूण हांव सामकें निर्जिव कशें पडिल्लें. अनिता वाघुर्मेकार हुडकी मारून म्हाका आपले फाटीर घेवन पेंवपाक लागलें. तितले मेरेन हांव उदकांत बेडूक कशें पडून आसलें. ताणें जेन्ना म्हाका फाटीर घेतलें तेन्ना हांव बकें कशें पडून आशिल्लें. दीपाली बाबडें सामकें सुकून गेल्लें. ताणें

म्हाका वयर काडून उमथें घालें आनी पोटांत उदक गेलां काय म्हणून पळोवंक लागलें. पूण म्हाका मात लेगीत उदकाचो बादीकार जावंक नाशिल्लो. देवाचे उपकार. ही गजाल सत्यांत घडिल्ली जाल्यार सुनापरान्ताचेर ठळक अक्षरान बातमी येवपाची आनी सगळ्यांक धक्कोच बसपाचो. 'जोगूल ह्या सदराची मुलाखत घेवपाक गेल्ले कडेन सोनिया सुभाष शाहाक बुडून मरण' जोगलांची मुलाखत घेवपी सासणा खातीर यादींचें जोगूल जातलें आशिल्लें.

'जोगूल' ह्या पुस्तका खातीर म्हाका खूब जाणांचो आदार लाबलो. सगळ्यांत पयलीं ह्यो मुलाखती पुस्तक रुपांत येवपाक आदार दिल्ल्या कला आनी संस्कृती खात्याचें हांव उपकारी आसां. ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना दिवन म्हाका कृतार्थ केल्ली म्हान लेखिका तशेंच व्हड समिक्षक डॉ. किरण बुडकुले हांचेंय हांव उपकारी आसां. म्हजो भावोजी लक्ष्मीकांत रायकार तशेंच अतुल पंडित हांच्याय हांव उपकारांत आसां. म्हजो घोव सुभाष शाह हांचें हांव आजल्म उपकारांत रावपाक सोदतां.

ज्योती गांवकार हिणें म्हज्या पुस्तकाचें टायपिंग केल्ले खातीर तिचेंय हांव उपकारी. हेतल शाह, सोहन सावर्डेकार, सुरज.कॉम आनी सुभाष शाह हांचेंय हांव उपकारी आसां, सुंदर आनी सोबीत फुडलें आनी फाटलें पान तयार केल्ले खातीर. नयना आडारकार आनी जवाहर बर्वे हांच्या सहकार्या बगर हें पुस्तक केन्नाच येवचें नाशिल्लें आनी जाणें कोणें म्हाका प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष रुपान मजत, सहकार्य, आदार केला तांचेंय हांव उपकारी आसां.

**- सोनिया सुभाष शाह**
मेरशी

# शेणागायरींतलें जोगूल...!

आयजवेर सोनिया सुभाष शाह हें नांव नेमाळ्यां वरवीं संवकळीचें जाल्लें. अदीक करून कवितेच्या मळार. अचकीत काळखे रातीं शांत मळबार जोगूल मारचें तसो ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवपाचो तिचे कडल्यान प्रस्ताव आयलो. नाय म्हणल्यार, हांव मातशें कलकल्लें. जे लेखिकेचो वावर सरसकट वळखीचो ना, ताका हांव कसो न्याय दीत? पूण सुनिताबायच्या जोगलांवरीं पर्जळीत, सुपुल्ल्या निबंदिकांनी म्हाका हुरूप हाडलो.

'जोगूल' ही एक वळख-माळ. म्हणूंया, साहित्यिक दीपमाळ. विविध कार्यक्षेत्रांनी आपापले परीन वावुरपी, व्हडल्या व्हडल्या संकश्टांक धिटायेन पेलपी, कश्टांच्या वज्याक हांसत माथें मारपी आनी आपल्या कर्तृत्वाच्या तेजान लखलखपी बायलांच्या जिणे वावराचो हो आपरोसात्मक आलेख.

व्हांवती शैली, सुलभ अभिव्यक्ती, संवकळीचें उतर, विशय विंगड विंगड आनी पाल्हाळाचो अभाव - ही पंचसुत्री म्हणल्यार सुनिताबायच्या लेखनाची गुरूचावी. देखूनच, ह्या पुस्तकांतलो दरेक वळख-आलेख वाचनीय आनी म्हायतीपट थारला.

हें सोडल्यार आपल्या लालित्यपुराय बरपांतल्यान वाचप्यांक पानां चाळीत रुचीन फुडें सरूंक लावपाची कळाशी लेखिकेक सादल्या. हे किर्तीगाथेंत गुंथिल्ल्यो कांय यशस्विनी सगल्यांचे वळखीच्यो. तरिकूय तांच्या कर्तृत्वा विशीं, सामर्थ्या विशीं वाचन - वाचन दिसता. हाचें कारण सोनियाबायची अकृत्रिम पूण सोबीत भास आनी म्होंवाळ सटीक शैली. नेमकी, नेटकी, उत्स्फूर्त.

स्वातंत्र्यविरांगना शारदाताई सावयकार, निरंतर समाजसेवा मग्न आशाताई सावर्डेकार, राजकी-समाजीक आंदोलनांची क्रांतिज्योत व्हिक्टोरिया मामी, नाट्य कलेंतलें पर्जळीत नक्षत्र अलकाताई वेलिंगकार, किर्तनकारितेच्या मळा वयलें दुर्लभ बायल-रत्न राधामाई कामत हांकां कोण वळखना? पूण तरी लेगीत लेखिका तांचीं शब्दचित्रां तांच्या सभाव वैशिश्ट्यां, जिणेमुल्यां आनी ध्येयां-हावेसांच्या रंगां सयत आटापशीर रितीन सादर करता.

1.

# उत्कर्षा सावंत : जिणेचो उत्कर्श



फाटल्या हारशार वैष्णवी-अभिषेक अशीं नांवां रंगयिल्लीं काळ्या-धव्या रंगाची GA-06-A-0040 ही रिक्षा जेन्ना वास्कोच्या रस्त्यार धांवूंक लागता तेन्ना लोक अजापान रिक्षा चालकाक पळयत रावतात. वर्सांसंकीं फकत दादल्यांकूच रिक्षा चलयतना पळयतल्यांक ही बायल रिक्षाचालक म्हणल्यार अप्रूप आनी अजाप.

उत्कर्षा उत्तम सावंत हें रिक्षा चालकाचें नांव.

उत्कर्षा पयलींचें म्हापशेंचें सुरेखा सावंत. मस्क्युलर डिस्ट्रॉपी दुयेंस आशिल्ल्या वास्कोच्या तरणाट्या कडेन - उत्तम सावंता कडेन ताचें लग्न जालें. उत्तम लायफ इन्श्युरन्सांत शिर्वीस करतालो. ताचो बापूय ताका हाताक धरून घरा कडल्यान ऑफिसांत पावयतालो. उत्कर्षाक सुरवेक अशा तरणाट्या कडेन लग्न करून दिल्ले खातीर मातशें वायटूय दिसलें. पूण उत्तमाचो मोगाळ स्वभाव, काम करपाची ताची जिद्द पळोवन तेंवूय ताच्या मोगांत पडलें.

तांच्या लग्ना उपरांत 2-3 वर्सांनी तिच्या घोवाक - उत्तमाक ताच्या दुयेंसाचे चड त्रास जावंक लागले. तरिकूय ताचो बापूय ताका हाताक धरून ऑफिसांत पावयतालो. सात वर्सां उपरांत बापूय संवसाराक अंतरलो आनी

उत्कर्षाचेर दुख्खाचें सांवट पातळ्ळें. उत्तमाकूय चलपाक त्रास जावंक लागिल्ले. ताका ऑफिसांत कशें व्हरप हे विवंचनेंत उत्कर्षा पडिल्लें. घरांत दोन ल्हान भुरगीं, चली वैष्णवी आनी चलो अभिषेक. अशे अवस्थेंत उत्तम 1-2 म्हयने घराच उरलो. मागीर उत्कर्षान एक मोटरसायकल पायलट लायलो. उत्तमाक मदीं बसोवन ताणें ताका ऑफिसांत व्हरप. ऑफिसांतले ताचे सांगातीय ताच्या आदाराक धांवून येताले. केन्ना केन्ना ऑफिसांतले सांगाती उत्तमाक उखलून एलआयसीचे दुसरे माळयेर आशिल्ल्या ऑफिसांत व्हरपाक मजत करताले. ह्याच उत्तमाच्या सांगात्यांनी उत्कर्षाक कसलें तरी वाहन शिकपाचो आग्रो केलो. तिणें एका एजंटा कडल्यान रिक्षा घेतली. एका बऱ्या मागप्यान तिका ती चलोवंक शिकयली.

तेन्ना सावन उत्कर्षा उत्तमाक स्वताचे रिक्षेंत बसोवन ऑफिसांत पावयता. दनपारचें जेवणूय पावयता आनी सांजे परतें घरा हाडटा. प्रसंगाक ताकां उखलून ऑफिसाच्यो माळयो चडपाक फाटीं फुडें पळयना. भुरग्यांकूय तें तेच रिक्षेंत बसोवन शाळेंत पावयता. आपल्या भुरग्यांच्या सांगाताक वाड्या वयल्या हेर भुरग्यां खातीरूय तिची रिक्षा उक्ती आसता. आकांताच्या वेळार उत्कर्षाची रिक्षा वाड्या वयल्यां लोकां खातीर आदार आसता आनी तिवूय तो आदार दिवंक सदांच तयार आसता.

‘गर्जना’ ह्या मराठी सातोळ्यान तिची पयली मुलाखत घेवन तिका आधुनीक काळांतली ‘सती सावित्री’ ही उपमा दिली. आतांच्या तरणाट्या चलयांक तिणें एक मोलादीक सल्लो दिलो - येद्या येद्या कारणा खातीर घर-संवसार, घोव सोडून वचपी बायलांनी निसुवार्थी मोग हीं उतरां लक्षांत दवरूंक जाय. आपल्या सांगात्याक समजून घेवप हीवूय एक कला. तुमचें काळीज ताचे खातीर उक्तें करात. मागीर तुमचें सगळें जगूच विशाळ जातलें. दुख्ख, राग, खंत ही आसताच. ताचेर मात करपाक शिकात.

वर्सावळी प्रमाण उत्कर्षा अंदूय धावेंत पाविल्ल्या आपल्या चल्याक - अभिषेकाक, चवथेंत पाविल्ले वैष्णवीक आनी उत्तमाक घेवन सावंतवाडीचे आपले कुळदेवीच्या दर्शनाक हेच रिक्षेंतल्यान वतलें. वाटेर मेळटल्या लोकांची अपुरबायेची, अजापाची नदर पळोवन तिच्या ओंठार मुमुरखोच हांसो उदेतलो.

♦♦♦

# 2.
# दीपा... न्हय, दिका दाखोवपी दिवो



समजा तुमची बायक वा गाडी बंद पडल्या. तुमी ती गॅरेजींत व्हरतात आनी थंय तुमकां चल्या बदला एक चली दिसलें जाल्यार...

जाले मूं अजापीत? हय! अशेच एके हिकमती चलये विशीं हांव सांगूंक इत्सितां.

ताचें नांव दीपा सुरेश तेंडुलकार. रावता म्हापश्यां धुळेरांत. ताची गॅरेज आसा म्हापश्यां. हे गॅरेजींत दीपा आपले भाव, काका आनी बापाय वांगडा मॅकानिकपण करता. नव्यान कोणूय आपलें वाहन घेवन हे गॅरेजींत आयलो जाल्यार तो अजापीत जाता. पूण दीपाक हें आतां संवकळीचें जालां.

म्हापश्यां ताचे गॅरेजींत जेन्ना गेलें तेन्ना तें कामांत गुल्ल आसलें. दीपान काम करतां करतांच विचारिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो दिल्यो. चड करून चलेच मॅकानिकपण करतात. चलयो ह्या क्षेत्रांत वचनात. कारण हें काम चिकचिकीत ऑयलींत, काळेकिट्ट ग्रिसींत लोळपाचें, जड वस्तू उखलपाचें. देखून ह्या कामाच्या वांट्याक चड करून कोण वचनात. पूण तूं कशें गेलें? हें असलें फास्के भायलें काम कशें कितें स्विकारलें? ह्या प्रस्नाक जाप दितना दीपा सांगता : 'ही गॅरेज म्हज्या बापायची. घरांत पयलीं सावन मॅकानिकपणाची

परंपरा. बापूय, भाव, काका सगलेच मॅकानिक. हांव तेन्ना ल्हान. गॅरेजींत कामाक खूब गाडयो येताल्यो. हांव बापूय आनी भावांक च्या घेवन वतालें. तेन्ना बापूय-भाव म्हाका गॅरेजींतलीं कांय आवतां हाडून दिवपाक सांगताले. म्हणल्यार पाने, पक्कड, स्क्रू ड्रायव्हर, लिवर अशीं. ताका लागून ह्या सगल्या गजालींची बेस बरी वळख जाल्ली. गाडयेचे वेगवेगळे भागूय वळखीचे जाल्ले. भाव-बापूय-काका मन लावन काम करताले तें पळोवन म्हाकाय त्या कामाची आवड निर्माण जाल्ली.

हांवें धावेची परिक्षा दिली. उपरांत पुराय वेळ गॅरेजींतूच काम करपाक लागलें. बॉयलर घालून काम करतना पळोवन लोक अजापीत जाताले. तांच्या चेऱ्या वयले भाव कळटाले. पूण घरचेच गॅरेजींत आशिल्ल्यान म्हाका कांयच दिसनाशिल्लें.

दीपाक आतां बरोच आत्मविस्वास आयला. तो ताच्या हालचालींतल्यान झळकतायबी. चलयांनी दादल्यांचीं कामां करपाचें थारायलें जाल्यार आवयची परवानगी आदीं जाय पडटा. दीपाचे आवयन ताका ती दिली. वयल्यान प्रोत्साहनूय दिलें.

गॅरेजींतलीं कामां तशीं जड आसतात. केन्ना केन्ना टायर उखलचे पडटात जाल्यार केन्ना इंजिन देंवोवचें पडटा. पूण दीपाक ह्यो गजाली जड लागनात. कित्याक तर हें काम तें मना सावन करता.

घरांत वातावरण आधुनीक आनी मेकळें आसल्यारूच अशा वेगळ्या वाटांनी चली भुरग्याक वचपाक मेळटा. दीपाचे बाबतींतूय तशेंच जालें. तांच्या घरांत वातावरण नव्या मोडणांचें. प्रागतीक गजालींक येवकार दिवपी. ह्या वेवसायांत दीपान आपलो फुडार सोदपाचें थारायलें. वर्सभर कामाचो अणभव घेवन उपरांत ताणें ह्या कामाचें प्रशिक्षण घेवपाचें थारायलें. म्हापशेंचे आयटीआयंत ताणें दोन वर्सांचो कोर्स पूर्ण केलो. आयटीआयंत प्रवेश घेतलो त्या वेळार 28 चल्यां मदीं तें 29 वें एकलेंच चली! ताच्या प्रशिक्षकानय ताका

प्रोत्साहन दिलें. 29 मदलीं 10 च जाण पास जालीं. तातुंतलें एक दीपा.

आतां तें स्कूटी, कायनेटीक, स्कुटरी अशा दुचाकीचें एक्सपर्ट मॅकानिक जालां. ह्यो गाडयो पुरायपणान निखळावन त्यो परतून सारक्यो करपा इतलें एक्सपर्ट. फोर व्हीलरूय तें सारक्यो करता.

सरकारी गॅरेजींत ताणें अर्ज केल्लो. पूण ताचें काम जालें ना.

'मॅकानिक जावंक नाशिल्लें जाल्यार कोण जावपाचें?' ह्या प्रस्नार 'ना... ना.. हांव मॅकानिकच जावपाचें. आनीक कोण न्हय.' अशीच जाप दिता. पुणेचे ऑटोमोबायल कंपनींत चलयो व्हडा प्रमाणांत काम करतात. मात गोंयांत बायलांक व्हडलोसो वाव ना हाचें ताका वायट दिसता. ऑटोमोबायल कंपनींत काम करपाचे यत्न ताणें करून पळयले, पूण काम मेळ्ळें ना. हाचें कारण तें चली भुरगें हें आसूं येता अशें दीपाक दिसता. तशें आसत जाल्यार लोकांचो दिश्टीकोण बदलपाची गरज आसा.

एक पणटी दुसरी पणटी पेटयता. अशे तरेन एके पणटेन हजारांनी, लाखांनी पणट्यो पेटोवं येतात. एक दिवो हजारांक आशेचो उजवाड दाखोवंक शकता. दीपाची मोख, हावेस आनी आत्मविस्वास पळयल्यार दीपा हेर चलयांक दीप म्हणल्यार 'दिवो' दाखोवपी चली म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

◆◆◆

# 3.

# मसुर्डेत जगयता मनीसपण : मडगांवची जन्नत बी



काळीकिट्ट रात. रातकिडे किरकिरतात. मसुंडेंत एक मडें जळटा. ताच्या उजवाडांत कुशीच्या झोंपांच्यो सावळ्यो झाडांवरी भिरांकूळ दिसपाक लागतात. मर्दीच कवटी फुटिल्ल्याचो आवाज...

सिनेमांत जाव कथा-कादंबऱ्यांनी हें वर्णन येता तेन्ना आंगाची ल्हंवेन ल्हंव उबी जाता. मागीर प्रत्यक्षांत थंय गेल्यार?

पूण जन्नत बी धाडशी. 60 वर्सांची पिराय. मरणाक ती भियेना. फाटलीं चाळीस वर्सां मडगांवचे मसंडभुयेंत तिणें कितलिंशींच मडीं लासपाच्या कामांक आदार केला. गरीब-गिरेस्त, भुरगीं-जाणटीं, तरणाटे हांच्या मरणा उपरांत तांच्या घरच्यांनी केल्लो आक्रोश पळोवन जन्नत बीचें काळीजूय कळवळ्ळां. पूण तरीय प्रामाणिकपणान ती आपलें कर्म करीत आसा. मनशाची पवित्र कूड देवाचे सुवादीन करपाचें कर्म. ती ते खातीर दाह-संस्कार करपाचे सुवातेर लांकडां मांडून दवरता. ताचेर मडें दवरले उपरांत मड्याच्या आंगा वयल्यो वस्ती, वस्त्रां तिकाच काडून दवरचीं पडटात. मागीर त्या मड्याचेर परतींय लांकडां मांडटा. चितेक अग्नी दितकच कुडीचें पोट आनी कवटी पुरायेन जळची म्हण जन्नत बीक थंय आनीक लांकडां घालून तीं वेवस्थीत जळोवचीं

पडटात. केन्ना केन्ना हें काम करीसर तिका रात जाता. पूण ती भियेना.

'मसुंडेंतलें हें काम धरपाक कारण हें गरिबीचें पोट बाय.' जन्नत बी सांगता. पयलीं पयलीं खूब भंय दिसतालो. पूण मागीर दिसलें मनशाची कूड देवाचे सुवादीन करपाचें पवित्र काम हें आनी म्हाका मानान रोटी खावंक मेळटली. मागीर म्हजो भंय गेलो. घोव घरांत आदार करता. दोन धुवांक लग्न करून दिलें. तांचोय आदार जाता. एकलो एकसुरो पूत मेलो. पूण जांवयांनी तो उणाव भरून काडलो. जन्नत बी आतां पणजीय जाल्या.

समाजांत जाती-धर्माच्या नांवान जातल्या झगड्यां विशीं ती हुस्को परगटायता. ती मुसलमान. पूण हिंदू धर्माचो आदर करता. दाह-संस्कारा वेळार तांच्यो चाली-रिती हांव प्रामाणिकपणान पाळटां. हिंदू भावांकूय म्हजो धर्म केन्ना आड आयलो ना. धर्म जरी वेगळे तरी मनीस एकूच. मागीर हीं झगडीं झुजां कित्याक? जन्नत बी उलयतना आकूळ पिकूळ जाता. भर मसुंडेंत मनशांचो निमणो प्रवास जाता थंय लेगीत मनशांक नवी वाट दाखोवपी विचार ती दिता.

जन्नत बीची गोंया भायल्या हिंदू भावांक एक विनंती आसा. धर्मा प्रमाण सारी भरपाक, अस्थी पुंजावंक तांणी येवचें. त्यो तश्योच मसुंडेंत सोडून तांचो अपमान करचो न्हय. मागीर पांच-पांच दीस वाट पळोवन तिकाच सारी भरून ती भायर उडोवची पडटा.

जन्नत बीक एक खंतूय आसा. पेपरा खातीर, फिल्मा खातीर तिच्यो मुलाखती घेतात. पूण सरकार मात तिचे खातीर कांयच करिना. फाटलीं चाळीस वर्सां भाड्याच्या घरांत ती रावता. पूण स्वताचें हक्काचें घर मात ती बांदूंक पावली ना. सरकारानूय कांयच पावलां उबारलीं नात.

जाणटेपण मिरोवपी तिच्या मिरयो पडिल्ल्या चेऱ्याचेर तिचे नातीक पळयतकच जी खोस पातळटा ती पळोवप मात कितली सुखदिणी.

◆◆◆

4.

# खर आत्मविस्वासाचें फळ



रों - रों करीत येवपी तो आकांताळो ट्रक भाजयेच्या पसऱ्या मुखार थांबलो. कॅबिनाचें दार उक्तें जालें आनी नाजूक चणीच्या ड्रायव्हरान जमनीर पुट्टक करून उडी मारली. त्या ट्रक ड्रायव्हराक पळयतल्याचे दोळे अजापान धुंवले. तो ट्रक ड्रायव्हर म्हणल्यार सुरत रंगनाथ बोरकार.

जल्मान करमळी गांवचें. सुरताची घरची परिस्थिती सामकी बिकट आशिल्ली. ताच्या भुरगेपणांतूच आवय-बापूय भायर पडिल्लीं. अश्या वेळार कोणूच आदाराक पावलो ना, वयल्यान ताका तुच्छ नदरेन पळयतालीं. व्हडली भयण विनिता ह्या वेळार आपल्या भावंडां फाटल्यान खंबीरपणान उबी रावली. हांगा थंय वावर करून, कश्टान तिणें आपल्या भावंडांक वयर काडलें. आवय-बापायची माया दिली. सुरतान सातवी मेरेन शिक्षण घेतलें. गरजे पुरतें इंग्लिश-मराठी बरोवंक वाचूंक शिकलें.

भयण-विनिताचें लग्न जालें. भावोजीचो होलसेलान कॅसेटी, उजवाती विकपाचो धंदो आशिल्लो. ताच्या स्वताच्या ट्रकांत म्हाल घालून तो हुबळी, बेळगांव, धारवाड, मुंबय वतालो. ताचे वांगडा 12 वर्सांचें सुरतूय वतालें. भावोजीक ट्रक चलयतना तें बारीकसाणीन नियाळटालें. तेन्ना ताचे पांय लेगीत

ब्रेका कडेन पावनासले. पूण तरीय आपणेंय ट्रक चलोवचो ही उमळशीक ताका लागिल्ली. म्हापश्यां-शिवोले-पणजेय भावोजी म्हाल घालतालो, तेन्ना सुरताच्या हातांत ताणें स्टियरींग दिलें.

ल्हवू-ल्हवू सुरत ड्रायव्हिंग शिकपाक लागलें. खर आत्मविस्वास, कसलेय गजाली कडेन बारीकसाणीन पळोवपाची नदर, कितलेय कश्ट करपाची आनी शिकपाची जिद्द, निर्भय मन आनी भयण-भावोजीचें प्रोत्साहन, हे खातीर पिरायेच्या 14 व्या वर्साच सुरत ट्रक चलोवंक शिकलें. भावोजीनूय अर्थीक पालव दिलो. सुरतानूय होच धंदो सुरू केलो. आतां तें बेळगांव सावन भाजीपालोय हाडटा. ताणें हालींच पार्टनरशिपीन भाजयेचो धंदोय सुरू केला.

35 वर्सां पिरायेचें सुरत स्वाभिमानान जगता. ती एक बायल जाल्ल्यान दादल्यांचीं फकांडां आनी बायलांची कुचित्रीपणांय ताच्या वांट्याक आयलीं. पूण अश्या वेळार ती सान मूर्त दुर्गा अवतार घेता तें पळयतकच, सगळे ताचे पासून चार हात पयसूच रावपाक लागले.

परिस्थिती, उमळशीक, जिद्द आनी एक वेगळें मळ हातासपाचो हावेस, सुरताची जीण आयज सुखी करपाक पावल्या. आयज ताचो स्वताचो वेवसाय आसा, स्वताची मारुती गाडी आसा. मनशान कसलेंय काम ल्हान-व्हड अशें मानिनासतना, प्रामाणिकपणान, कामाची लज धरिनासतना करचें. मळ खंयचेंय आसूं, मनशान स्वाभिमानान जगचें. काम करपाची इत्साच आसूंक जाय मागीर ट्रकूच कित्याक. चंद्रार, मंगळार लेगीत वचपाचो हावेस बाळगप बायलेक कठीण न्हय अशें सुरताक दिसता.

◆◆◆

5.

# घट दांतांचें धीट शब्दुलें



तुमच्या हातांत एक नाल्ल दिवन जर तुमकां तो सोलपाक लायलो तर तुमी तो कसो सोलतले? तुमची जाप आसतली - कोयत्यान. तो नाल्ल दांतांनी सोलपाक लायलो जाल्यार? बसली न्हय तुमची दांतखिळी? पूण तेलल, बासरेर, बाळ्ळी, केपेंच्या लिलावती ऊर्फ शब्दुलें काटू फोंडू गांवकार हिका दांतांनी नाल्ल सोलप म्हणल्यार कांयच न्हय. नाल्ल जावं मागीर तो तन्नो वा सुको तो आपल्या दांतांनी ती कांय न्हय करून तीन मिणटांनी सोलता.

भुरगें आसतना दोंगरार काण्णां-चुन्नां पुंजावंक वतना, जळोव हाडूंक वतना, शेता-भाटांनी वावराक वतना शब्दुलें आनी तिच्या सांगात्यांक खूब फावटी नाल्ल पडिल्ले मेळटाले. ते नाल्ल तीं पुंजावन दवरतालीं, पूण ज्युस्तूच ते नाल्ल थंय आयिल्ल्या भाटकाराचे नदरेक वताले आनी तो ते आपल्याक घेवन वतालो. ताचेर उपाय म्हूण भुरग्यांनी नाल्ल थंयचे थंय फोडून खावपाचे थारायलें. पूण फोडप कसो? तेन्ना शब्दुल्यान पयलेच फावट दांतान नाल्ल सोललो. तेन्ना सावन आतां मेरेन म्हणल्यार पिरायेच्या 50 व्या वर्सा दांतांनी ती नाल्ल सोलता.

हे पिरायेर धवेफुल्ल, मोतयां कशे घटमूट दांत आसप म्हणल्यार एक

अजापूच. पूण शब्दुलें आपल्या ह्या दांतांचें गुपीत सांगता – बडयो, एंडेलाच्या पानांचे देंठ वा बाभळीच्यो तन्न्यो बडयो ती आपले दांत घांसपा खातीर वापरता. उकड्या तांदळाची पेज, नाचण्याची भाकरी, तिजन, मेथयेची पेज, भाजीपालो हो तिचो आहार. तेला-तुपाचो वापर ती खूब उण्या प्रमाणांत करता.

शब्दुलें फकत नाल्लच सोलता अशें ना, ती दिवल्यांचो नाच, गोफ, तालगडीय खेळटा. ती घुमट, धोलकें, पेटीय वाजयता. आपले कुशळटायेचें प्रात्यक्षीक तिणें राजस्थान, गुजरात हांगाय करून दाखयलां आनी हें ती व्हडा अभिमानान सांगता. ती मिरसांगो, भाजीपालो रोयता आनी गांवांतल्यान चलत व्हाळ हुपून बाळ्ळी बाजारांत ती विकता.

शब्दुल्याक तीग पूत. तांकां तिणें शिक्षण दिलां. दोन सुनो घरांत आसतात आनी दोन नातरां – रामदास आनी प्रतिमा सुरेश गांवकार. ह्या दोनूय नातरांनी आपले आजयेचो हो दांतांनी नाल्ल सोलपाचो गूण उखल्ला.

शब्दुल्याचें एक सपन आसा. आपल्या ह्या आगळ्या-वेगळ्या कर्तुबाचें दर्शन दूरदर्शना वयल्यान सगळ्या लोकांक पळोवंक मेळचें.

◆◆◆

6.

# मॅल्फा फॅर्नांडीस : Its my Challenge



मॅल्फा लविता लॉरेन्सिओ फॅर्नांडीस ही फातिमा फॅर्नांडीसाची व्हडली धूव. भुरगेपणा सावन तें आपले धाकटे भयणी वांगडा जावं हेर चलयां वांगडा बावल्यांनी, रांदचेल्यांनी खेळनासलें. ताणें खेळण्यांतलो ट्रक, मोटार घेवन खेळप. तें शाळेंत शिकतालें तेन्ना ताच्या डॅडीन GA-02-C-7352 ह्या नंबराची टाटा सुमो घेतली. डॅडी ड्रायव्हिंग शिकिल्लो पूण सुमो चलोवंक भियेतालो, म्हूण ड्रायव्हर दवरिल्लो. ड्रायव्हर गेले उपरांत सुमो दोन वर्सां गॅरेजींत पडून आशिल्ली. एक दीस फातिमालो कुन्याद तांगेर आयलो. गॅरेजींतली गाडी पळोवन ताणें फटक करून म्हणलें, "आमोल, तुगेर काय चलो ना. मागीर कोण चलयतलो ही सुमो? ते परस कोयरा डब्यांत उडय ती." त्या उतरांनी फातिमाक राग आयलो. तिणें म्हणलें, 'म्हजें मॅल्फा चलयतलें' आनी मॅल्फानूय ती चॅलेंज स्विकारली.

टाटा सुमो जड वाहन. चलयतना भुजांर पेज येता. तरीय मॅल्फाक ती चलोवंक आवडटा. 80 ते 100 स्पीडीन चलोवपाक ताका खूब मजा येता. तें सुमो घेवन पणजे, म्हापश्यां, मडगांवां वता. मॅल्फा रावता आरोशीं; कांसावले. ताची आवय वास्कोच्या अवर लेडी ऑफ कांदेलारियांत शिक्षिका.

तिका कांसावले सावन वास्को हाड-व्हर करपाची जापसालदारकी मॅल्फान घेतली. थंयचीं कांय भुरगींय चिखलेच्या नेवल पब्लिक स्कूल, विद्या मंदिरांत शिकपाक येतालीं. ग्रॉसियसाकूय वाडें, वास्कोचे सरकारी शाळेंत शिकोवंक येवचें पडटालें. ताणें मॅल्फाक आपल्याकूय सुमोंतल्यान हाड-व्हर करपाची मागणी केली. मॅल्फाक हरशींय भुरगीं खूब आवडटालीं. ताणें रोखडोच हयकार दिलो. तेन्ना सावन मेल्फा त्या भुरग्यांचें दिदी जालें. वाटेर भुरगीं ताका तरेतरेचे प्रस्न विचारतात. त्या प्रस्नांक जापो दिवन तें भुरग्यांची उमळशीक भागयता. मॅल्फा सध्या इंग्लिश विशय घेवन तिसरें वर्स बी.ए. करता. ताका ड्रायव्हिंग करपा सयत पुस्तकां वाचपाक, सिनेमा पळोवपाक आवडटा. एकदां नुव्यां फॅस्ताक गर्देतल्यान, रस्त्या कुशींतल्यान जे फिशालकायेन ताणें सुमो भायर काडली तें पळोवन थंय आशिल्ल्या ट्रॅफिक पुलिसान ताका शाबासकी दिली. तेन्ना तें नवेंच चलोवंक शिकिल्लें.

मॅल्फाक दिसता... बेकार बसचे परस, चलयांनी जड वाहनां चलोवंक शिकून इश्कोलाच्या भुरग्यांक हाड-व्हर करपाचो वेवसाय सुरू करचो. हालीं चडशे पालक आपल्या भुरग्यांक खासगी वाहनांनी धाडप पसंत करतात. ते खातीर बेकार उरतलीं म्हणपाचो भंय ना. यत्न केल्यार चलयांक कसलेंय काम जड न्हय. फकत इत्सा आसूंक जाय.

◆◆◆

7.

# निर्मलाताईची संवादिनी : रसिकां कडले स्वरसंवाद



महाकवी कालिदासान वर्णन केल्लो धुंद पावस पृथ्वीचेर झोंपय घेता. तो कुपांचो निरोप घेता तेन्ना ताका मळबांतल्यान अचकीत पडपी जोगलांचो सांगात मेळटा आनी वातावरण धुंद जाता. निर्मला पै काकोडे संवादिनी वाजयता तेन्नाय ते निर्जिव पेटयेंतले स्वर जोगलां वरीच रसिकां कडेन संवाद सादपाक लागतात.

16 फेब्रुवारी 2007 हो दीस निर्मला पै काकोडे हांचे जिणेंतलो म्हत्वाचो दीस. ज्या हार्मोनियमाच्या माध्यमांतल्यान संगीत सुरांची तिणें अविरत साधना केली, आपली कला जे कलेक ओंपली, तेच कलेचे साधने खातीर तिका ह्या दिसा आदले मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचे हस्तुकीं 'राज्य पुरस्कार' भेटयलो.

निर्मलाताई जल्मान बेळगांवची. बेळगांव ताई रावताली थंय तिच्या शेजरा एका मास्तराल्या घरांत हार्मोनियमाचे वर्ग चलताले. ते सूर कानार पडटकच निर्मलाताई तान-भूक विसरून त्या सुरांत तल्लीन जाताली. तिची ते कलेंतली आवड पळोवन तिच्या घरच्यांनी तिका पुरूषोत्तम वालावलकारा कडेन शिकवणी सुरू केली.

निर्मलाताईंचें लग्न पिरायेच्या 22 व्या वर्सा जालें. संवसार वालीर दोन फुलां फुलतात थंय आसात, पिरायेच्या 30 व्या वर्सा तिचो घरकार अंतरलो. माणकुलीं अमित आनी ज्योती, तांचो सांबळ कसो करचो, कितें करचें तिका कळना जालें. तिणें आपले कलेचो आदार घेवचो केलो. पूण थंय मांयन विरोध केलो. 'घोव मेला. आतां पेटी बंद.' ह्या तिच्या उतरांनी निर्मलाताईचेर आकांत आयलो. जे कलेचेर आपणें जीव ओंपलो ती कला बंद केल्यार आपूण कशी रावूंक शकतली? त्या वेळार तिचे शेजारी तिच्या आदाराक धांवून आयले. तिचे मांयक लोकांनीच समजायलें. तेन्ना सावन तिणें आपले कलेच्या विद्यादानाचें कार्य सुरू केलें. हे कलेन तिका आपल्या दुख्खांतल्यान भायर सरपाक आदार केलो तो केलोच तिच्या संवसाराकूय हातभार लायलो.

ती नाटकांक जावं नामनेच्या गायकांक हार्मोनियमाचेर साथ दिवपाक वताली. एकदां पंडीत जितेंद्र अभिषेकीन तिची एक कार्यावळ आयकली. तिच्या हार्मोनियम वादनाचेर ते खोशी जाले. तांणी एका इश्टा कडल्यान तिची वळख करून घेतली आनी तिची शिक्षक म्हूण कला अकादमींत नेमणूक केली. कुड्डो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन अशें तिचे बाबतींत घडलें. तिणें केल्ले सेवेची पावती म्हूण तेन्नाचे मुख्यमंत्री प्रतापसिंग राणेन तिचे निवृत्ती उपरांतूय आनीक पांच वर्सां तिचे सेवेचो लाव हार्मोनियम विद्यार्थ्यांक दिलो. ह्या दोगांयचे ती खूब उपकार मानता. तिचो चलो अमित, गोंयचो एक नामनेचो क्रिकेट खेळगडो आनी चली ज्योती पकाळे दोगांय ही कला शिकलीं नात. पूण तिच्या नातवान अमित वसंत पकाळेन मात ही कला आत्मसात केली आनी तिचे वरीच कुडचडेंच्या बालभवनांत हे कलेच्या विद्यादानाचें कार्य तो करता.

निर्मलाताईचे शिशय खूब. तिच्या विद्यार्थ्यांनी आयज पुणे, मुंबय, बेळगांव, कोल्हापूर ह्या सारक्या शारांनी बरे शिक्षक म्हूण नामना मेळयल्या. गोंयांतूय विठ्ठल खांडोळकार, नारायण मेस्त, राजू बर्वे, सुभाष फातर्पेकार, राया

कोरगांवकार, दिलीप गडेकार, संदीप नागवेंकार ह्या सारकेले कितलेशेच तिचे विद्यार्थी नामना मेळयत आसात.

पिरायेचीं सत्तर वर्सां हुपलीं. दोनूय किडणीं निकामी जाल्यांत, तरीय पेटी वाजयले बगर तिचो एकूय दीस वचना. ती अजूनय आपली कला विद्यार्थ्यांक शिकयता. तिचें तिच्या शिश्यांकूय हेंच सांगणें. आपली विद्या कांयच दाखय-लिपय करिनासतना मेकळेपणान, मन लावन शिकयात आनी आदर्श विद्यार्थी म्हूण संवसारभर नामना मेळयात.

निर्मलाताईक गोंयकारांनी खूब मान-सन्मान दिला. तिचो आदर-सत्कारूय केला. जे कलेन तिका हें फावो केलें ते कलेच्या ती सदांच रिणांत रावपाक सोदता.

◆◆◆

## 8.
# किर्तन सम्राज्ञी : राधामाई कामत



खंयच्च्याय सामान्य मनशाक सद्गुरू मेळप ही त्या मनशाची पूर्वपुण्य समजूंक जाय. भुरगेपणांतल्यान जाणटेपणा मेरेन आमकां जायत्या गुरूंचें मार्गदर्शन मेळटा. पूण तातुतलो एकाद्रोच सद्गुरूचे योग्यतेचो आसता. म्हजे पूर्वपुण्यान म्हाका बाराव्या वर्साच ह.भ.प. रामचंद्र कृष्ण कामतबाबा सारके सद्गुरू लाबले, जांणी म्हज्या जिविताक एक दिका दिली. माशेलांतली नामनेची किर्तनकार 'किर्तन सम्राज्ञी राधामाई कामत' हिचीं हीं उतरां.

राधामाई कामत हिचो जल्म तिच्या मामागेर पर्रा, म्हापश्यां जालो. तिचें कुळारचें नांव लिला. दोन वर्सांची आसतनाच तिचो बापूय अंतरलो आनी उपरांत तिच्या मामानूच तिचो सांबाळ केलो. एकदां भुरगेपणांत मामान आग्रो केल्ल्यान तिका आयत्या वेळार 'सत्तेचे गुलाम' नाटकांत इल्लीशी भुमिका करची पडली. तिच्या म्होंवाळ कोगळावरी आवाजान आनी अभिनयान सगळे लोक भारावन गेले. तिका ताळयांच्या कडकडाटान वन्स मोर म्हणून परतेंय माचयेर आपयलें. थंय मामाचे सद्गुरू ह.भ.प. रामचंद्र कामत आयिल्ले, जांकां लोक अण्णा म्हूण वळखताले. तांणी राधामाईक मायेन आपले म्हच्यांत बसयलें आनी शाबासकी दीत म्हणलें, 'देवान तुका गोड आवाज दिला. त्या

आवाजाचो उपेग नाटकां परस किर्तनांतल्यान केल्यार लोकांची मनरिजवण जातली आनी देवाची सेवा केल्ल्याचें श्रेय मेळटलें. देवूय तुजेर खूश जातलो.' तांचीं उतरां आयकून राधामाईचे आईन म्हणलें, 'आतां अण्णाच तुजे खरे सद्गुरू'. अण्णान तेन्ना राधामाईक एक किर्तन बरोवन दिलें आनी तें गांवांत जावपी उत्सवा वेळार करपाक सांगलें.

15 वर्सांचे पिरायेर अण्णाच्याच पुतण्या कडेन् - योगानंद कामती कडेन लग्न जावन राधामाई माशेलांत पावली. थंय दत्ताच्या देवळांत अण्णा, कऱ्हाडबुवा, निजापूरकरबुवा, कान्हेरेबुवा अशा किर्तनकारांचीं किर्तनां आयकुपाची संद तिका मेळ्ळी. अण्णान तिकाय कांय किर्तनां करपाची संद दिली.

राधामाईचो घरकार एक फोव करपाची गिरण चलयतालो. ताचेरूच तांचें कुटुंब चलतालें. एक दीस ताचो हात गिरणीच्या मशिनांत वचून निकामी जालो. राधामाईचेर आकांत आयलो. २ चले आनी ३ चलयांची जापसालदारकी. गिरण बंद. अशे परिस्थितींत सगळ्यांचे संमतीन तिणें किर्तन हो वेवसाय म्हूण आपणायलो.

गोंयांतल्या मडगांवां, वास्को, माशेल, खांडोळ्यां, कुमारजुव्यां, मंगेशीं, म्हाड्डोळा अश्या साबार वाठारांतल्यान श्रावण म्हयन्यांत दिंडी, गणपती उत्सवा वेळार तिका किर्तना खातीर आपोवणीं येतालीं. मुंबय, पुणे, कोल्हापूर, अहमदाबाद, महाराष्ट्र, कर्नाटकांतूय तिचीं हजारांनी किर्तनां जावपाक लागलीं. वचत थंय मान-सन्मान, आदर-सत्कार, पुरस्कार फावो जाले. गोंयांतली एकमेव बायल किर्तनकार म्हणून तिची खूब तोखणाय जावंक लागली. 1992 वर्सा गोंय आर्ट ॲण्ड कल्चरान केल्लो भोवमान, 2002 वर्सा महिला दिसा निमतान भोवमान, 2002 वर्सा रुप्या महोत्सव कला अकादमी पुरस्कार, 2004 वर्सा गोमंतक सेवा संघ, विलेपार्ले, मुंबय संस्थेन केल्लो भोवमान, 2006 वर्सा यशोदामिनी पुरस्कार ह्या पुरस्कारांनी तिचे सेवेचो गौरव जाला. पूण ह्या

सगळ्या पुरस्कारां परस व्हडलो पुरस्कार म्हणल्यार तिका मेळिल्लो सद्गुरू अशें ती मानता.

तिचे पूत आनी सुनो, सनद-सुजाता, श्याम-श्रेया, तीन लग्न करून दिल्ल्यो धुवो आनी जांवय हांकां राधामाईचो खूब अभिमान. तिचे नातू सागर, सुदेश हांकांय बालश्री पुरस्कार फावो जाल्यात.

राधामाई 80 वर्सांची जाल्या. 64 वर्सांचे पिराये मेरेन तिणें किर्तनां केल्यांत. तीन वर्सां फाटीं तिका आरीचो आताक आयलो. ते खातीर आतां तिका किर्तनां करप जमनात.

इतलीं वर्सां जालीं राधामाई किर्तनां करता, पूण आतां मेरेन आनी खंयचीच बायल ह्या क्षेत्रांत आयली ना हाची खंत राधामाईक जाता. ओंठार श्रीस्वामी समर्थाचें नांव घेत जीण समृध्द करपाची संद किर्तनांतल्यान मेळटा. ताचो लाव बायलांनी घेवचो अशें ती मागता.

◆◆◆

9.

# आत्मानंदी : रुपा प्रभाकर मांजरेकार



चवायेचेर श्रीसाईबाबाचें पायनेल. कुशीक मंद पेटपी दिवल्यो. उजवातीचो मनगंधीत परमळ आनी ओमकाराचो ध्वनी-प्रतिध्वनी अशा प्रसन्न वातावरणांत रुपाताई सामकार पन्नाशेक भुरगीं बशिल्लीं. ओमकारा उपरांत 'वक्रतुंड महाकाय सूर्यकोटी समप्रभ्' हो श्लोक जालो. इतल्यांत माणकुल्या किशनान पखवाज वाजोवंक सुरवात केली आनी बाकीचे टाळ वाजोवंक लागले. टाळ-पखवाजाच्या लयबध्द तालार माणकुल्यांच्या मुखांतल्यान सूर उमटले, 'हर हर सांबशिवा विभूती सुंदर श्यामशिवा'.

सासमोळें, बायणा-वास्कोची रुपा प्रभाकर मांजरेकार पेशान शिक्षिका, एक साईभक्त. शाळेंत आसतना भुरग्यां खातीर नाटकुलीं, नाच, भजनां, बरोवप जातालें. सांजवेळा ती भुरग्यांक ट्युशन दिताली. समाजांतल्या मध्यमवर्गियांचीं तीं भुरगीं. त्या भुरग्यां मुखार ती केन्ना केन्ना भजनां म्हणून दाखयताली. श्लोक म्हणून ताची विस्कटावणी करून सांगताली. 'वसुधैव कुटुंबकम्' हे संकल्पनेचें हालीं अस्तित्वूच शेणत चल्लां. देख, नितीच्यो काणयो सांगपी आजयोय नात. ह्या गजालींक मुकिल्ली पिळगी स्वैराचार, अनिती कडेन सहजतायेन वळटा. तांकां आपले परीन देखदिण्या काणयांतल्यान

बोध करपाचें काम रुपाताई करताली. भुरगींय तातूंत रस घेवपाक लागलीं. भुरग्यांच्या चाल-चलणुकांनी जाल्लो बदल पालकांचेय नदरेक आयलो. कांय पालकांनी रुपाताईची भेट घेतली आनी भुरग्यां खातीर अशे तरेचे खास वर्ग घेवपाची विनवणी केली.

तांचे मागणेन रुपाताईची उमेद वाडली. ती स्वता वाड्यार घराघरांनी भोंवली. भुरग्यांचेर बरे संस्कार करपाची कितली गरज आसा हे विशीं पालकांक विस्कटावन सांगलें. बरी संस्कारक्षम पिळगी घडोवपा खातीर पालकांचो सहयोग मागलो. पालकूय ही संद सोडपाक तयार नासले. वाड्या वयलीं सुमार पन्नाशेक भुरगीं रुपाताईगेर आयताराचे सांजे जमपाक लागलीं. ताईलें घर सूर-लय-तालान झंकारूंक लागलें.

रुपाताईचें हें कर्तूब वास्कोचे साई संस्थेचे बाल विकास कार्यावळीचे मुखेली नारायण प्रभू हांचे नदरेक पडलें. तांणी रुपाताईच्या भुजांर बाल विकास कार्यावळीची जापसालदारकी घाली.

आतां रुपाताई भजन-श्लोकां वांगडा भुरग्यांक मौन ध्यान, ज्योती ध्यान शिकयता. मौन ध्यानान भुरग्यां मदीं पासिंयेंस वाडटा तशें ज्योती ध्यानान एकाग्रता वाडटा, जी आयच्या दगदगीच्या आनी सर्तीच्या युगांत सामकी गरजेची. भुरग्यांक देव, जाणट्यां विशीं मोगाची, आपलेपणाची शिकवण दिवपी गजाली, वायट कर्माच्या वायट परिणामांची भिरांत आनी बरे संगतीचे फायदे कशे तरेन मेळटात हें देखदिण्या काणयांतल्यान ती भुरग्यांक पटोवन दिता. रुपाताईचे शिकवणीचें म्हत्वाचें आंग म्हणल्यार 'सर्वधर्म समन्वय'. म्हणून तर तिच्या शिश्यां मदीं मुस्लिम चलयोय व्हडा उमेदीन येतात.

रुपाताईलीं भुरगीं देवळांनी, श्रावण म्हयन्यांत घराघरांनी आपल्यो भजनाच्यो कार्यावळी सादर करतात. रुपाताई नासतनाय असल्यो जापसालदारक्यो आपल्या भुजांर घेतात.

रुपाताईच्या कार्याची दखल घेवन साळगांवकार भावांनी वास्कोचे मुकूंद

बिल्डिंगेंत तिका सुवात दिल्या. थंय ती आयताराची सकाळीं एक वरा खातीर वर्ग घेता. तिका अन्नपूर्णा राजपूत पालवी शिक्षिका म्हूण आदार करता.

रुपाताईच्या वर्गांत गुरुपौर्णिमा, बाबांचो वाडदीस आनी ईश्वरअंबा दीस मनयतात. त्या दिसांनी गरीब भुरग्यांक आपले तांकी प्रमाण भेटवस्त दितात आनी हॉस्पिटलांत वचून दुयेंतींची वासपूस घेता.

फाटलीं तीन वर्सां हांगा येवपी ज्योती आनी वर्धा सांगतात, 'हांगा आयिल्ल्यान आमची एकाग्रता आनी आत्मविस्वास वाडलो.'

'दुडू देंवो भव' मानपी आयच्या युगांत एक पानदुडूय घेनासतना काम करून कितें मेळटा ह्या म्हज्या प्रस्नाक ती प्रसन्न हांसून म्हणटा, 'आत्मानंद'.

◆◆◆

# 10.
# आतांचे पिळगेंत पोटतिडकीन काम करपाची उमेद ना : अलकाताई वेलिंगकार



1935 चो काळ. जात्रेंतल्या एका नाटकांत सात वर्सांचे एके माणकुलें चलयेक आपल्या सुंदर अभिनयान सगल्यांचीं काळजां जिखलीं. लोकांच्यो ताळयो आनी तोखणाय ताका फावो जाली. तें माणकुलें म्हणल्यार आयची फांकिवंत नाट्य कलाकार अलका मंगेश वेलिंगकार.

28 जानेवारी 1928 ह्या दिसा एका नाट्यमोगी घराब्यांत अलकाबायचो जल्म जालो. तिचो मामा श्रीकांत पर्वतकार, दयानंद पर्वतकार हे त्या काळा वयले नांवाजते नाट्य कलाकार. घराब्यांतले हे कलेचे गूण तिच्याय रगतांत आशिल्ले. म्होंवाळ खणखणीत आवाज, सुंदर अभिनय आनी शालीन सौंदर्याचे हे सम्राज्ञीन आपले हे कलेन गोंयच्या नाट्य रसिकांच्या काळजांत कितलोसोच तेंप राज्य केलें.

अलकाबाय खूब भाग्यवंत. पिरायेच्या सतराव्या वर्सा गोंयचे फांकिवंत नाट्यकर्मी तातोबा वेलिंगकार तिचे जिणे सांगाती जावन आयले. नाटकां बसोवंक, तबलें-पेटी वाजोवंक आनी संवादफेकीचें शिक्षण घेवंक शिकप फकत तातोबा वेलिंगकारा कडेनूच अशें अलकाबाय व्हड अभिमानान सांगता.

गोंयांत त्या तेंपार 'जगदीश' नांवाची कंपनी आशिल्ली. अलकाबायन

तातूंत कामां केल्यांत. मानापमान, सौभद्र, लग्नाची बेडी, लग्नाआधी वरात, संत तुकाराम, संत चोखामेळा, मुंबईचा पाहुणा अश्या दोनशां वयर नाटकांनी तिणें कामां केल्यांत. 'नाटकांत काम करतना तरेतरेचे लोक मेळटात. बरे तशे वायट प्रवृत्तीचेय. तांचे भकीक पडनासतना तांचे पसून सांबाळून रावपा खातीर आपलो आपल्याचेर संयम आसप खूब गरजेचें. हेच गजाली खातीर हांव आयज नाट्यक्षेत्रांत नांव मेळोवंक पावलीं अशें अलकाबाय सांगता.

'आमच्या तेंपार नाटकांत काम करतना आमी खूब मेहनत, कश्ट घेतालीं. येसाये वेळार आमकां भूक, तानेची पर्वा नासताली. इतलीं आमी येसायेंत गुल्ल जातालीं. मनोहरबुवा शिरगांवकार, मास्टर वाघ हांच्या मार्गदर्शना खाला काम करतना संवादफेक चुकल्यार थापटांय खाल्यांत. पूण तेन्ना केल्ल्या कश्टाचें फळ म्हाका मेळ्ळें. आतांचे पिळगेंत पोटतिडकीन काम करपाची उमेद दिसना. फकत इनामां आनी प्रसिद्धीचो हावेस बाळगून कले कडेन पळयतात. लोकां खातीर आतां रेडियो, दूरदर्शन असलीं करमणुकीचीं कितलिंशींच माध्यमां आसात. ते खातीर नाटकां बसोवपाची तकालस कोणूच घेतना दिसना. आदले वरीं आतांची रंगमाची घसघसून फुलतली अशी आस्त म्हाका दिसना अशें अलकाताई खंतीन म्हणटा.

अलकाताईक दोन भुरगीं. सुनंदा आनी प्रसन्न. प्रसन्नांत आपले आनी तातोबाचे नाट्यकलेचे गूण आयल्यात. गोंयांत आनी गोंयां भायरूय ताणें आपल्या अभिनयान लोकांचीं काळजां जिखल्यांत.

अलकाताई फाटल्या पांच वर्सां सावन कांक्राच्या दुयेंसान जार जाल्या. पूण तरीय नाट्य रसिकांचो मोग काळजाच्या दोण्यांत भरून, त्याच म्हालवजार आपलें दुख्ख विसरायेर घालता. तिका राज्य पुरस्कार, रघुवीर सावरकार पुरस्कार फावो जाला.

पूण अलकाताईच्या काळजांत एक खंत घर करून रावल्या. गोंय सरकारान तातोबाच्या कार्याची फावो तशी दखल घेतली ना आनी कार्याच्या

मानान तशें मानधनूय तिका मेळ्ळें ना. आपल्याय मानधनाची सरकारान व्हडलिशी दखल घेतली ना अशी खंत उक्तायतना गोंयची रंगमाची आपल्या अभिनयान समृद्ध केल्ल्या अलकाताईच्या दोळ्यांतल्यान घळ्ळ करून दुकां व्हांवलीं.

◆◆◆

11.

# 'यशोदामिनी' शालिनी गावडे



थळ दिल्ली. हस्तकला प्रदर्शनाक गोंयच्या एका स्टॉला मुखार गर्दी पडिल्ली. थंय एक अस्तुरी कोंड्यांचो, पेपरा परसूय पातळ तांस काडून ताचे पासून एक मिणटा भितर नुस्तें, सवणें जावं हेर कलाकृती तयार करताली. ताळयांचो शिंवर करीत त्यो कलाकृती पळोवपाक आनी विकत्यो घेवपाक लोक वरांचीं वरां रांकेंत उबे राविल्ले. त्या स्टॉलाची धनीण आशिल्ली शालिनी कांता गावडे.

शालिनीबायचे भयणीन हस्तकलेचें प्रशिक्षण घेतिल्लें. आपले भयणी कडल्यान ही हस्तकला शिकून घेतना तिचें लक्ष मूळ कलाकृतींत कितें तरी वेगळेंपण दाखोवपा कडेन आसतालें. एकदां तिणें एक व्हाज केलो. शिरदोण दर्यार मेळपी खास रेंव हाडून ताका भायल्यान बरें सजयलें. गोंय हस्तकला महामंडळाक व्हरून तो व्हाज दाखयलो. सगल्यांनी त्या व्हाजाच्या वेगळेपणाची तुस्त-तोखणाय केली.

पूण सुरवातीक ह्या वेवसायाक तितली तेजी नाशिल्ली. शालिनीबाय घरच्यांच्या सांगातान शिंपयांचे व्हाज, नक्षीचे पाटले, झुंबर अश्यो कितल्योश्योच तरेकवार कलाकृती करतालें. त्या कलाकृतींची तोखणाय जाताली खरी, पूण

फाव तो विकरो जाय नाशिल्लो. एक दीस तिच्या घरा मुखार कोणाची तरी स्कूटर बंद पडली. त्या मनशान तिच्या बापाय कडेन पानो मागलो. तिच्या बापायन ताका सांगलें, 'तुमकां आमगेर पानो मेळचो ना. कोंडे, कोयते जाल्यार मेळटले.' तो मनीस बेजारलो. आपले स्कुटरीक कीक मारतना ताची नदर थंय मांडून दवरिल्ल्या कलाकृतींचेर गेली. त्यो पळोवन तो खूश जालो. तिचे कडल्यान त्या कलाकृतींच्या विकऱ्या संबंदान आयकून त्या मनशान शालिनीबायची हस्तकला संचालका कडेन वळख करून दिली. तेन्ना सावन हो वेवसाय खऱ्या अर्थान सुरू जालो. त्या मनशाचें नांव आतां याद ना, पूण ताचे उपकार मात सासणाचे यादींत उरल्यात अशें शालिनीबायन सांगलें.

हस्तकला वेवसाय सुरू जाले उपरांत 1985 वर्सा दिवचलच्या नव्या सोमारा कलाकृतींचें प्रदर्शन आयोजीत केल्लें. पूण थंयूय फावो तसो विकरो जालो ना. मागीर दारादारांनी भोंवून वस्तू विकपाचो यत्न केलो, पूण तरीय कांय फायदो जालो ना. हे खातीर निर्शेणी मात आयली. दिवचलच्या हस्तकला महामंडळाचे अधिकारी गांवकार हांणी एका बरें मागप्याक मेळपाक सांगलें. ताणें आमची उमेद वाडयली. मार्केटिंग मॅनेजर मळकर्णेकार हांणी खूब आदार केलो अशें ती सांगता.

1985 त कला अकादमी आनी पर्यटन खातें हांणी जोड पालवान 'अपना उत्सवा'चें आयोजन केल्लें. थंय शालिनीन पयले फावट आपल्या कलाकृतींचें प्रदर्शन मांडलें आनी तिचे कलेचें चीज जालें. ते उपरांत दिल्ली, इंदोर, मुंबय, बंगळुरू, राजस्थान, चंदिगड हांगा प्रदर्शनांनी वांटो घेतलो. हे मजगतीं 1994 वर्सा नामनेचे लोककलाकार कांता गावडे कडेन तिचें लग्न जालें. लोककला आनी हस्तकला हांचो सोबीत संगम घडून आयलो. हस्तकले सांगाताक शालिनी आतां लोककलेंतय वांटो घेवंक लागली. हजारांनी प्रेक्षकां मुखार आपल्या म्हॉवाळ आवाजान कांतारां गावंक लागली. हो आत्मविस्वास कांताच्या सांगातान आपणाक मेळ्ळो अशें व्हडा अभिमानान ती सांगता.

हस्तकलेचीं हीं कामां खूब पासिंयेंसाचीं. पूण बरें मन लावन काम केल्यार जोडपाचीं. हालींच्या भुरग्यांक अशी तकालस घेवंक आवडना. ते परस उण्या पयशांनी दुसरे कडेन शिर्वीस करप तीं पसंत करतात. शालिनीन प्रशिक्षण दिवन अशा कितल्याश्याच भुरग्यांक हे कलेंत फिशाल केल्यांत. हातुंतल्यान 5 जाणांक आपले कडेन कामाकूय दवरल्यात. आपल्याक आत्मनिर्भर करून दुसऱ्यांकूय काम दिवन आदार दिवपी हो वेवसाय तरणाट्यांनी मुजरत करचो अशें तिका दिसता.

हस्तकलेच्या मळा वयली तिची अविरत धडपड, तिचें ते कलेंतलें वेगळेपण पळोवन गोंय सरकारान 2004 वर्सा तिका 'यशोदामिनी' हो पुरस्कार दिवन सन्मानीत केलां.

◆◆◆

12.

# कुशळ वैजीण : प्रमेश नटवरलाल शाह



पावूणशें वर्सांची प्रमेश नटवरलाल शाह, जांकां लोक 'बा' म्हूण वळखतात, एक हांसरी, इल्लीशी मूर्त. केन्नाय तिच्या घरा वचात, प्रसन्न हांसून ती येवकार दिता.

पुर्तुगेज राजवटीचो काळ. 'दीव'चो एक लखपती प्रभूदास विरचंद हांची प्रमेशबा नात. पुर्तुगेज दोतोर ब्रीड हे प्रभूदासाचे लागशिल्ले इश्ट. ते घरा येताले तेन्ना माणकुलें प्रमेश तांकां तरातरांचे प्रस्न विचारतालें. दोतोरूय खूब मायेस्त. प्रमेशबाचीं फकांडां करतां करतां तिणें उमळशिकेन विचारिल्ल्या प्रस्नांक ते जापो दिताले.

प्रमेशबाची आवय तेन्ना घराब्यांतल्या बायलांचीं बाळंतपण करताली. ती बाळटिणीची कशी जतनाय घेता, कशे तरेन बाळंतपण करता हें प्रमेशबा लिपचोरयां पळयताली. हे खातीर ती केन्ना केन्ना उलोवणींय खाताली.

प्रमेशबाक इंग्लिश शिकपाची खूब उमेद आशिल्ली. पूण बऱ्या घरच्या चलयांनी चड आनी तातूंतले तातूंत इंग्लिश शिकचेंच न्हय हे विचारसरणेचो घराबो. ते खातीर गुजराती पांचवी मेरेन शिक्षण घेतकच तिका आवय-बापायन घरा बसयलें.

17 व्या वर्सा दक्षिण आफ्रिका (लॉरेन्स मारहेस) शिर्वीस करपी नटवरलाल शाह कडेन तिचें लग्न जालें. स म्हयन्यांनी घोव परतो शिर्विसेक गेलो आनी प्रमेशबा दीवाक रावली. वर्सभरयांत गोंयांत लग्न करून दिल्ले तिचे नणनेच्या बाळंतपणाची जापसालदारकी तिचेर पडली. ते निमतान ती गोंयांत आयली. दोतोर ब्रीड आनी आवय कडल्यान शिकिल्ल्या शिक्षणाच्या म्हालवजार तिणें ते तरणे पिरायेचेरूच आपले नणनेचें बाळंतपण बरेभशेन केलें.

मजगतीं, तिचो घरकार सांखळे कामाक लागलो. थंय दोन वर्सां रावन परत दीवाक सांताकान बोटीचेर, उपरांत आफ्रिकेंत अशी शिर्विसे निमतान ताची भोंवडी सुरू आसली.

हेवटेन नणंदांचीं बाळंतपणां करपाचे निमतान प्रमेशबाक परतें परतें गोंयांत येवंचें पडटा म्हूण तिच्या घरकारान तिका पणजे एक भाड्याची कूड घेवन दिली. घरधनयाची– सोमनाथ च्यारीची भयण उषा तेन्ना बाळंतपणाक आयिल्ली. केस गुंतागुंतीची आशिल्ली. भुरग्याच्या गळ्याक वार घुस्पल्ली. प्रमेशबान एक नितळ फाडो घेवन भुरग्याच्या गळ्याक घुस्पल्ली वार ल्हवू-ल्हवू करून सोडयली. भुरग्याचो जीव वांचयलो. ते उपरांत सोमनाथाच्या घराब्यांतल्या तशेंच गुजराती समाजांतल्या बायलांचीं बाळंतपणां प्रमेशबान केलीं. प्रभा च्यारीच्या भुरग्याचे पयलीं हात भायर आयले. तिवूय नाजूक केस. पूण प्रमेशबान थंयूय आपली कुशळटाय दाखयली. 1957 मेरेन तिणें ही समाजसेवा केली. तिच्या ह्या कामाची दोतोर वाघानूय तोखणाय केली. आपल्या घरा तिचो बरो आदर सत्कारूय केलो. अजुनूय तिचेकडेन धवी मुसरी, संदरफीण, गंठोडा हीं बाळंतपणाक लागपी वखदां आसात.

उपरांत तिच्या घरकारान मडगांव स्टेशन रोडार भुसारीचें दुकान घालें. ताका प्रमेशबा आदार करपाक लागली. अशें दुकानांतलें काम करपी ती पयली बायलमनीस. त्या वेळार लोकांचीं कितलिंशींच उतरां तिका आयकुचीं पडलीं. लुकसाण जाल्ल्यान हो धंदो तिका बंद करचो पडलो.

ती परती पणजे आयली. घोवा कडेन फकत पांच रुपया उरिल्ले. त्या पांच रुपयांच्या आदारान प्रमेशबान खारेगांठी, शेवचिवडो करून लक्ष्मीबाई आयदनकान्नी वांगडा दारादारांनी भोंवली. केल्लो म्हाल रोखडोच खपपाक लागलो. तरेतरेचो शेव, खारेगांठी, जिरापुरी, मसालापुरी, खमण ढोकळा, ठेपला, खांडवी हांच्यो ऑर्डरी येवपाक लागल्यो. पणजे, म्हापश्यां बँकांनी, युनिव्हर्सिटींत, एन.आय.ओ.त म्हाल घेवन ती वताली. विश्वजीत राणेच्या वाडदिसा विजयादेवीन प्रमेशबाकूच ऑर्डरी दिल्ल्यो. तिणें आनिकूय गिरायकां मेळोवन दिलीं.

धंदो तेजीत आसतना तिच्या घोवाक फाटोफाट तीन आताक आयले. कच्च्या म्हालाचो दरूय वाडिल्लो. दुयेंत घोवाचीय सेवा करची पडटाली. ते खातीर धंदो बंद करचो पडलो. पूण ते मेरेन तिचे चले सुभाष, गिरीश, चेतन हांकां शिकोवपाचें तिचें ध्येय साध्य जाल्लें. घोवाचो सांगात सुटलो. आतां भुरग्यांच्या संवसारांत प्रमेशबा रमल्या.

◆◆◆

## 13.
# 'मुर्तीकार' अनघा



भाद्रपद म्हयन्यांत घराघरांनी गणपतीच्या आगमनाची तयारी चलता. सोबीत सुबक मूर्तीक मखर सजोवपाच्या कामा पासून चवथीक तरेतरेचीं खाणां, खास करून नेवऱ्यो करपाची तयारी सुरू जाता. पूण मुर्तिकारांच्या घरांत मात मे म्हयन्याच्या निमण्या वा जूनाच्या पयल्या सप्तकांत गणपती करपाची तयारी सुरू जाता.

करमळेची अनघा नरेंद्र बोरकार. तांच्या घरांत मे म्हयन्याचें निमणें सप्तक ते जून म्हयन्याचे सुरवातीकूच गणपती करपाची तयारी सुरू जाता. मुर्ती करूंक चिकणमाती हाडप, तिका बरी बारीक पिठावरी गुळगुळीत करप, मागीर बरी मस्तून ताचे गुळे करून दवरप, हें सगळें खूब कश्टाचें काम.

अनघा मूळचें पणजी शारांतलें. लग्न करून करमळेची सून जाली. करमळ्यां भजन, किर्तन, नाटक, जागर, लोककला आनी गणपती करपी नामनेचे कलाकार श्रीरंग बोरकाराची ती सून. तिच्या मांवाक गणपती करपाच्या कामाक तिचे पूत आःदार करताले.

अनघाच्या लग्नाक पांच वर्सां जाल्लीं. तिचो घोव नरेंद्र गणपती करपा खातीर एक म्हयन्याची रजा घेवन घरा राविल्लो. पूण पुल्मांव भरून थंडी

जाल्ल्यान ताका कसलेंच काम करूंक जालें ना. घरांतलीं सगळीं आदा
करतालीं. अनघाक आपूण कांय करिना हें पळोवन लज शी दिसली. तेन्न
अनमनत ताणें पयले फावट मातयेंत हात घालो.

वडापुनवेक गणपतीच्या नांवान नाल्ल उखलासून गाराणें घालें तश
सगल्यां वांगडा अनघानूय मातयेचो गणपती घेवन हातान थापलो. ताणें केल्ल
पयलीच गणपतीची प्रतिमा. व्हडा उमेदीन सुकिल्ल्या गणपतीचे अवयव ताण
हातान साफ केले. गणपतीक घालपाचीं भांगरां कशीं करतात तें शिकून घेतल
आनी गणपतीक तीं घालीं. तीं सुकले उपरांत पॉलीश केली. धव्या रंगाचो एव
थर दिवन मागीर गोरो रंग मारलो.

दोन वरां मूर्त सुकले उपरांत शेले बी रंगयले. मागीर ब्रशान गणपती बर
रंगयलो (आतां स्प्रे पेंन्टिंगूय करपाक शिकलां) मागीर दोळे रेखले. अनघाव
भुरगेपणा सावन चित्रकला, रांगोळेची आवड. ताका हे कलेंत खूब इनामांय
फावो जाल्यांत. ताच्या भितरल्या कलाकारान हें आव्हानूय घेतलें. आत
अनघा, घोव-मांवा सांगाता गणपती करपाच्या वावराक उमेदीन लागता.

स्नेहा आनी शुभमाची आवय एक बरी सुगरण तशेंच तरेतरेचे मोर्दीचे
कपडे शिंवपाकूय कुशळ. पूण ज्येशठ, आषाढ, श्रावण म्हयन्यांत अनघाच्य
हाताक फुरसत आसना. तें गणपतीच्यो सोबीत मुर्ती घडोवपांत गुल्ल आसता

◆◆◆

14.

# नृत्यांगना नयना



पुर्तुगेज राजवटीचो काळ. पुर्तुगाला सावन जायते लोक गोंयांत भोंवडेर येताले. तांची मनरिजवण करपाची जापसालदारकी नयनाचेर आसताली. तिणें केल्लें राधाकृष्ण नृत्य जावं भरतनाट्यम नृत्याचेर सगळे खूश जाताले. म्हाड्डोळच्या म्हाळशेच्या देवस्थानांतूय नृत्या खातीर तिका आमंत्रणां येतालीं. अशी नृत्यांत समरसून गेल्ली नृत्यांगना म्हणल्यार नयना शेणवी प्रियोळकार. कांचन व्यंकटेश आचार्य हांची ती धूव. नामनेची नृत्यांगना लक्ष्मी रोकडे ही तिची मावशी. आवयचें प्रोत्साहन आनी मावशेचो सांगात मेळिल्ल्यान नृत्याच्या मळार आपूण पावलां घालूंक शिकलीं अशें ती अभिमानान सांगता.

पिरायेच्या धाव्या वर्सा सावन नयनान गुरू हरेजाल परमेकार हांचे कडल्यान शास्त्रीय नृत्याचे धडे गिरयल्यात. बेळगांवां जल्मल्ले नयनान आपल्या नृत्यांच्या कार्यावळींची सुरवात केली गोंयच्या प्रियोळ गांवांत. शास्त्रीय नृत्या सांगाताक लोकनृत्यां, रांगोळी, चित्रकला, तशेंच नाट्यसंगितांतूय ती फिशाल जाली. तिणें गोंयांत कितलेशेच कडेन तशेंच गोंयां भायर पंजाब, कोलकाता, लखनौ, गोरखपूर, मणिपाल, मावंट आबू, जयपूर, राजस्थान, गुजरात हांगा आपल्या नृत्याच्यो कार्यावळी केल्यात.

प्रियोळच्या रमाकांत शेणवी प्रियोळकार हांचे कडेन पिरायेच्या 21 व्या वर्सा तिचें लग्न जालें. रमाकांत एक कलाकार. पेटी वाजोवप, शिगम्याक धोल वाजोवप, भजनां शिकोवप, नाटकांनी कामां करप हातूंत तांकां खूब रस. लग्ना उपरांत नयना नृत्य करपा खातीर मांय-मांवा कडल्यान खूब विरोध जालो. पूण तेदे वेळार रमाकांतबाब तिचे फाटल्यान रावले. एका कलाकारान दुसऱ्या कलाकाराचे कलेचो मान राखलो.

नयना मलबाराव सरदेसाय, डॉ. सुखठणकार आनी मनूबाब बोरकार हांकां आपले आदर्श गुरू मानता. तांच्या आशिर्वादान आनी मजतीचो हात मेळिल्ल्यान आपूण आयज नामनेक पावलीं अशें ती व्हडा अभिमानान सांगता.

नयनाबायन कला अकादमी, लोकविश्वास प्रतिष्ठान हांचे वतीन नृत्याचे वर्ग घेतल्यात. ऱेडियोचेर बायलां खातीर फुगड्यो, धालो, आप उलोवपां, गितां असल्यो कार्यावळी सादर केल्यात. तांची 'जीवन सरिता' ही कार्यावळ रेडियोचेर गाजल्या. राजीव गांधी कला मंदिराच्या नृत्य तशेंच फुगडी सर्तींनी परिक्षक म्हूण ती वावुरल्या. लग्नां जुळोवपा सारकें पवित्र काम ती करता. भलायके संबंदान ती व्याख्यानां दिता. नयना सध्या प्रियोळच्या भलायकी केंद्रांत आपवावुरपी म्हण काम करता.

तिका 2005 वर्सा कला संगम आनी मंगेशी क्लबाचो रजनीगंधा अभिनेत्री हे पुरस्कार फावों जाल्यात.

नयना उदेत्या कलाकारांक एक सुचोवणी करता. आपल्या आंगांतले कलेक चेपूक दिनासतना ती कला खर कश्ट घेवन फुलयात. गुरूचे आशिर्वाद घेवन नकेत्रांवरीं तुमची कला पर्जळीत करात.

◆◆◆

# 15.
# पडंग जमनींत फुलयता फुलां : कालिंदी साळगांवकार



'शेतां-भाटाचें, माड-माडयांचें माणकुलें गोंय' अशें म्हणून कवी गोंयच्या पाचव्या सैमाचेर कविता करतात. पूण... शेतां आसात व्हय पाचवीचार? कित्याक नात? शक्य ना काय कश्ट करपाक नाका? हीं पडंग शेतां पळयतकच म्हाका खूब वायट दिसता आनी दोळ्यांत दुकां येतात.' हीं उतरां आसात बार्देसांतल्या पडंग शेतांत ग्लॅडिओलेस फुलांचे मळे फुलोवपी, जांचो कृषी विज्ञान केंद्रान सर्गेस्त चरणसिंग हांचे यादीक ओंपिल्ल्या किसान सम्मान दिसा भोवमान केलो ती कालिंदी उत्तम साळगांवकार हिचीं.

मॅट्रीक मेरेन शिक्षण घेतिल्ली कालिंदी एका शेतकामत्याची धूव. आपल्या शेतांत तांबडी भाजी, विरविल, नवलकोंब, भेंडे, मिरसांगो, अळसांदे, कणंगां, भिकणां अशी तरेकवार पिकावळ काडटाली. 1998 वर्सा स्थापन जाल्ल्या सेल्फ हेल्प ग्रुपाची ती वांगडी. एकदां ह्या ग्रुपाची सांतू गांवकार हांच्या फार्मार सहल गेल्ली. त्या वेळार तांच्या फार्मार धोलपी ग्लॅडिओलेसाच्या फुलांचे मळे पळोवन कालिंदी सामकी भारावन गेली. आपणेय अशा मळ्याची धनीण जावचें अशें तिणें येवजिलें. उण्या खर्चाचें, कमी कश्टाचें, कमी वेळा भितर पीक दिवपी ह्या वेवसाया खातीर सांतूबाबाच्यो शुभेत्सा घेवन तांचेच प्रेरणेन कालिंदीन कृषी खात्या कडल्यान 50 टक्के अनुदानाचेर ग्लॅडिओलेसाचीं

सुमार दोन हजार बियां हाडलीं. तीं हाडपा खातीर कालिंदीन सेल्फ हेल्पा कडल्यान १० हजारांचें रीण घेतलें. हीं बियां कशीं आनी कितले खोलायेंत रोवपाचीं, खंयच्या वेळार तांकां उदक घालपाचें, माती कशी लावपाची, कशी जतनाय घेवपाची हाचेर कृषी विभागांतल्या राष्ट्रीय सहकारी संघाचे मार्गदर्शक संदेश देसाय हांचे कडल्यान पंदरा दिसांचें प्रशिक्षण घेतलें. पूण बीं रोयलें आनी फुलां फुल्लीं अशें जालें ना. सुमार दोन वर्सां तिका खर कश्ट घेवचे पडले. थोडें लुकसाणूय सोंसचें पडलें आनी निमणें ह्या कश्टांक फळ मेळ्ळें. ग्लॅडिओलेसाच्या फुलांनी तिचें शेत धोलपाक लागलें. ह्या मनभुलोवण्या फुलांची जतनाय कशी घेवची, मार्केटिंग करपा खातीर फुलांचें पॅकींग कशें करचें हे विशीं तिणें कला अकादमींत आयोजित केल्ल्या शिबिरांत प्रशिक्षण घेतलें.

पडंग शेतांत फुलां फुल्लीं खरीं पूण तांचो विकरो कसो करप हो प्रस्न आशिल्लो. अशा वेळार तांकां पावली ती ताची कळंगुटची बालइश्टीण जॉनिता फॅर्नांडीस. तिचे वळखीन फुलांचो विकरो बरो जावंक लागलो. पयलेच खेपे ७ हजारांचो फायदो जालो.

कालिंदीच्या फुलांक मागणी वाडली आनी तिची ग्लॅडिओलेसाची बाग पळोवंक खंय खंय सावन लोक येवपाक लागले. कांय जाणां कडल्यान खाशेली म्हायतीय मेळपाक लागली. तिच्या शेतांत दवरिल्ले एके कार्यावळी वेळार कृषीमंत्री दयानंद मांद्रेंकार, प्रकल्प अधिकारी डी. जी. गावडे, डॉ. विल्फ्रेड डिसोझा हांणी तिची खूब तोखणाय केली.

ह्या फुलांची जतनाय कशी घेवची हे विशीं म्हायती दिवपी कला अकादमीच्या १० दिसांच्या शिबिरांतूय कालिंदीन वांटो घेतलो.

तिच्या ह्या कश्टाची दखल घेवन खासदार श्रीपाद नायकाचे हस्तुकीं तिचो भोवमान जालो.

सरकारान विद्यार्थ्यांक पांचवी सावन कृषी विशय सक्तीचो करून गोंयच्या पडंग शेतांचें भांगर करचें अशी कालिंदीची इत्सा आसा.

◆◆◆

# 16.
# तबल्याचो ठेको...जिणेचो ताल : मंदा वळवयकार



समाजमनाचो ताल चुकल्यार तबल्याच्या ठेक्यान तो सांबाळूं येता व्हय? हय. तो सांबाळ्ळा म्हाड्डोळचे मंदा अरूण वळवयकारान. मंदा. कुळारचें नांव मंदा शशिकांत म्हार्दोळकार. एक बरें तबलापटू. 1972 वर्सा सावन मंदान तबलो वाजोवंक सुरवात केली. सुरवातीक ताच्याच बापायन ताका तीन-चार ताल शिकयले. त्या तालांचो मंदा सदांच रियाज करतालें. एकांतांत अभ्यास करतालें.

म्हाड्डोळच्यो जायो जश्यो फुलून परमळटात तशी हांगाची कलाय वर्साचे बाराय म्हयने फुलता, परमळत आसता. ह्या वाठारांत जायतीं देवळां आसात. ताका लागून धर्मीक उत्सव, काले, नाटकां, जागर, गवळणकाले बी जातात. ह्या उत्सवांनी गांवांतलीं भुरगीं उमेदीन वांटो घेतात.

मंदाय उमेदीचें. एकदां मंदान आपल्या बापायन शिकयिल्ल्या तालांचो वापर करून गवळणकाल्यांत आपल्याक येता तसो तबलो वाजोवन साथ दिली आनी जमिल्ल्या लोकां कडल्यान तोखणाय मेळयली. तेन्नाच्यान मंदाचो आत्मविस्वास वाडलो आनी तबल्या विशींचो मोगूय. अभ्यास, खेळ करून उरिल्लो वेळ ती तबल्याच्या रियाजाक दिताली. तिची आवड पळोवन तिच्या

बापायन तिका सुरवातीचे धडे शिकयले. मात त्याच वेळार तिका हेरां कडल्यान विरोध आनी खच्चीकरण जातालें. चलयांनी, बायलांनी पखवाज, तबलो वाजोवंक जायना. वाजयल्यार तांच्या हाताचें जेवण बरें लागना. भलायकी इबाडटा. तशेंच बायलांनी दादल्यांचीं हीं वाद्यां वाजयल्यार समाजांत रेस्पेद उरना. दादल्यां मदीं वाजोवचें पडटलें. अश्यो खुबश्यो गजाली तिका आयुकच्यो पडल्यो.

तशी मंदा मातशी निर्शेलीच. कांय दीस तबलो वाजोवंक ना तें पळोवन 'तबलो कित्याक वाजयना गो?' असो आवयन प्रस्न केलो. मंदान दोळ्यांत दुकां हाडून बायलां कितें कितें उलयतात तें सांगलें. आवय नव्या विचारांक उर्बा दिवपी. तिणें मंदाची समजूत घाली. म्हणलें, 'कला धाडोवन बडोवन येना. कला फुलतली जाल्यार आंतरीक तळमळांचो स्वर जाय पडटा. तुजे भितर कलागूण आसात. लोकांची पर्वा करूं नाका. तूं फुडें सर.'

आवय कडल्यान आशावादी सूर मेळटकच मंदाची निर्शेणी खंयचे खंय नाच्च जाली. तिणें फुडले धडे गुरू प्रभाकर च्यारी हांचे कडेन घेतले. ते उपरांत ती गुरू मेघनाथ कोल्हापुरे हांचे कडेन दोन वर्सां मुंबय वचून शिकली. मुंबय तिणें गणपतीच्या सार्वजनीक उत्सवांतले कार्यावळींत शास्त्रीय गायनांत साथ दिली. तिची तोखणाय जाली. भोवमानूय जालो.

1985 वर्सा प्रदीप म्हार्दोळकार हांणी रेडियो केंद्राचेर तिका संद दिली. थंय 'युववाणीं'त तिणें कोंकणी, मराठी कार्यावळींनी तबल्या साथ केली. 'खेळां मळार' कार्यावळींतूय जायते खेपे तिणें साथ दिल्या. तेन्नाचे रेडियो मुखेली कमलाराव देशपांडेन मंदाक खूब उर्बा दिली. ते भायर तबलो वादनांत मधुकर जोशी, रामदास नायक, परशुराम प्रभुदेसाय, रवींद्र नमशीकार हांचें मोलाचें मार्गदर्शन तिका लाबलें. मंदा तालाचेरूच निंबून रावूंक ना. ती स्वरां कडेनूय वळ्ळी. सोमनाथ च्यारी हांचे कडेन पेटी शिकली. मारूती कुर्डीकार हांचे कडेन तबलो वादनाचें खाशेलें प्रशिक्षण घेतलें. प्रदीप म्हार्दोळकार आनी प्रभाकर

च्यारी मंदाक कार्यावळी मेळोवन दिताले.

कला अकादमीचो संगीत कुशल तबलो पदविका अभ्यासक्रम ती पयल्या वर्गांत पास जाली. अखिल भारतीय गांधर्व महाविद्यालयाची परिक्षा ती फर्स्ट क्लास पास जाली. सोमनाथ च्यारी हांणी घेतिल्ले परिक्षेंतूय ती फर्स्ट क्लास आयली. मडकय, वास्को, कला अकादमींत कार्यावळी आनी नाटकांकूय तिणें साथ दिली. दूरदर्शना वयल्या कार्यावळींनी बुलबुलतरंग, कोंगोय तिणें वाजयलो. तशेंच ऑर्केस्ट्रांत मंदान पदांय गायल्यांत. पणजे जुन्ता हावसांत जाल्ले कार्यावळी उपरांत मलबाराव सरदेसाय हांणी अपुरबायेन तिचे फाटीर हात भोंवडावन शाबासकी दिली, इनाम दिलें आनी म्हणलें, 'म्हार्दोळचें महिला कलाकार म्हूण तुका हें इनाम. तूं उत्कृश्ठ तबलापटू जातलें.'

मंदान गोंयच्यो शिमोय हुपल्यात. हैदराबाद, उत्तर प्रदेश, कोलकाता, आंध्रप्रदेश ह्या सारक्या राज्यांतल्यान आपली कुशळटाय दाखोवन तिणें तोखणाय मेळयल्या.

मंदा सांगता – 'पंडीत पंढरीनाथ कोल्हापुरे हांकां साथ करतना म्हजो ठेको चुकतालो. पूण तांणी सांबाळून घेतलें. समाजाचोय विचारांचो ठेको असोच केन्ना केन्ना चुकता. तो आपले प्रतिभेन सांबाळपाची गरज आसा. तबलो वाजोवपाचो मक्तो कितें दादल्यांकूच दिवंक ना. बायलांनीय सगल्याच मळार आपलीं पावलां घाल्यांत. फुडाराक ह्या मळार बायलांक बरे दीस येतले. कलेंतल्यान मनरिजवण जाता आनी आनंदूय मेळटा. बायलमनीस तबलो वाजयता तेन्ना लोकांच्यो नदरो भारावन वतात. हें म्हजें व्हड इनाम!'

◆◆◆

17.

# मुर्तीकार : सुप्रिया बोरकार



'वक्रतुंड महाकाय सूर्य कोटी समप्रभ: निर्विघ्नम् कुरूमे देवो सर्व कार्येषु सर्वदा.' खंयच्च्याय शुभ कार्याची सुरवात गणरायाक वंदन करून जाता. ह्या विघ्नेश्वराच्या येवकाराचे तयारेक गोंयकार सामको उमेदीन रावता. आमचे मुर्तीकार भाव तर मे म्हयन्या सावन गणपतीच्यो मुर्ती घडोवपाचे तयारेक लागतात.

करमळेची सुप्रिया रमाकांत बोरकार ही हार्मोनियम वादक सर्गेस्त रमाकांत बोरकाराची घरकान्न. घोवाक दिल्लें उतर पाळपा खातीर व्हडा श्रध्देन तांचे गणपती करपाचे पारंपारीक कलेक मुखार व्हरपाक धडपडपी अस्तुरी.

पणजेच्या जुन्ता हावसांत पेटी शिकोवपी ताचो घरकार आज्या-पणज्या सावन चलत आयिल्लो गणपती करपाचो पारंपारीक वेवसाय करतालो. त्या कामांत सुप्रियाय ताका मजत करताली. घरकाराच्या भिडेस्त स्वभावाक लागून जात्रा, काल्यांक, नाटकांनी पेटी वाजोवन आनी भुरग्यांक पेटी शिकोवनूय जाय तशी प्राप्ती जाय नासली. घरकार अंतरले उपरांत तर सुप्रियाची परिस्थिती चड वायट जाली. पदराक तीन भुरगीं. दोन चले. एक चली. तांचें शिक्षण आनी घर-संवसार चलोवपाक ती सामोशे, बटाटवडे, भजीं करून विकपाक

लागली. गांवांतल्या हॉटेलांतल्यान तिका खाणां करपाच्यो ऑर्डरी मेळपाक लागल्यो.

अशे परिस्थितींतूय तिणें आपल्या घरकारान सांबाळिल्ले पारंपारीक कलेक स्वताक ओंपून घेतलें. तिच्या घरकारान तशें तिचे कडल्यान उतर घेतिल्लें. स्वता सुप्रिया घरकाराक ह्या कामांत मजत करतना मन लावन शिकिल्ल्यान तिका ह्या कामांत कसलीच अडचण येना. व्हडे कुशळटायेन ती हो वावर करता.

मे म्हयनो सुरू जालो काय सुप्रियाचें काम सुरू जाता. शेतांत वचून माती हाडप, ती चाळणींत घालून बरी लींप चाळून घेवप ह्या कामांत सुमार एक सप्तक लागता. ही चाळिल्ली माती मागीर बरी गंवाचें पीठ मळिल्ले भशेन मस्तून, मळून ताचे बरे गुळे करून दवरप. हें काम सुमार पंदरा दीस चलता. त्या गुळ्यांक गणपतीच्या आकारान थापून, ते सुकतकच तांचे अवयव अळंग नितळ केले उपरांत तांकां अळंकार घालून परते सुकोवपाचो वावर. मागीर तांकां पॉलीश करून धवो रंग मारले उपरांत शेलो, मुकूट रंगोवपाक हात घालतात. शेतांतली माती हाडपा पासून गणपतीचे मुर्तीचेर निमणो हात भोंवडाय मेरेन स्वताच सगळें काम करतना सुप्रिया तान-भूक विसरता. दुख्खूय विसरता. स्वताच ह्या कामांत कश्टतना तिचे दोन पूत आनी इलॅक्ट्रॉनिक इंजिनियरिंगाचें शिक्षण घेवपी तिची चली तिका ह्या कामांत आदार करता. चवथीच्या मोसमांत तिच्या सांगाताक रात-रात भर तिर्घी भुरगींय जागरणां करतात. ह्या कश्टाचें फळ म्हूण फावो तें मोल मेळ्ळें काय त्या विघ्नहर्त्याचीच ही कृपा अशें म्हणटना सुप्रियाचे दोळे कृतज्ञतायेन भरून येतात. ताचेच उपकार म्हूण चवथीचे हे दीस वर्सभराच्या मानान मातशे बरे वतात अशें तिका दिसता.

सुप्रियाच्या घरकारान हार्मोनियम वादक म्हूण आपलो जीव आसासर हे कलेची सेवा केली. ताचे हयातींत कला अकादमी जावं सरकारान तांकां

मानधन दिवपाक कांयच पावलां उखल्लीं नात. आतां तांच्या मरणा उपरांत सुप्रिया अर्ज घेवन भोंवता. गणरायाचे कृपेन तरी हें काम जावन आपणाक आनी आपल्या भुरग्यांक आदार मेळटलो अशी आस्त ती बाळगिता.

◆◆◆

## 18.
# बालभूषण कोमल अनंत साने



खोर्ली, म्हापशेंच्या श्रीसांतेरी मंदिराचो आवाठ लोकांनी भरून गेल्लो. सगळे लोक गुल्ल जावन किर्तन आयकताले. तांच्या तोंडार अजाप आनी लक्तुबाय भरून ओत्ताली. ताका कारणूय तशेंच आसलें. वेदीचेर एक माणकुलें किर्तनकार आपणाले खाशेले शैलींत किर्तन सांगतालें. स्वर, ताल, लयीच्या त्रिवेणी संगमांत थपथपिल्लें किर्तन सांगतना तेंवूय तितलेंच रंगून गेल्लें. लोकांक भक्तिरसांत बुडोवन दवरपाची ही ताच्या किर्तनाची 192 वी खेप. ही माणकुली मूर्त म्हणल्यार कोमल अनंत साने.

अंत्रुज म्हाल हो कलाकारांची खाण. त्या अंत्रुज म्हालांतल्या सावयवेरेंच्या अनंत आनी प्रशांती साने हांची ही धूव. म्हॊंवाळ आवाज लाबिल्ले कोमलाचो जल्म 22 मार्च 1994 वर्सांतलो. तें पांचवेंत आसतनाची गजाल. सावयवेरेंच्या नामनेचे मदनंत नाट्यदर्पण संस्थेन संगीत 'ज्ञानियाचा राजा' नाटक केल्लें. तातूंत ताणें मुक्ताईची भुमिका केली. तें ताचें रंगमाचये वयलें पयलें पावल. ते उपरांत ताणें फाटीं केन्नाच वळून पळयलें ना. गोंयभर जावपी नाट्यसंगीत, अभंग गायन, गवळण गायन, किर्तन, सुगम संगीत हांच्या सर्तींनी वांटेकार जावन तिणें जायतीं इनामां जोडलीं.

ताच्या गळ्याक लाबिल्ली सुरांची देणगी ताच्या घरच्यांनी जुस्त पारखिली. ताका तांणी ह.भ.प. दामोदरबुवा च्यारी हांचे कडेन संगिताचें शास्त्रीय शिक्षण घेवपाक धाडलें. फाटलीं तीन वर्सां तें हें शिक्षण घेता.

नामनेचे किर्तनकार संजयबुवा टेंगसे हांणी घेतिल्ल्या किर्तनाच्या एका म्हयन्याच्या शिबिरांत ताणें वांटो घेतलो आनी फोंडेंच्या हनुमान मंदिरांत आपल्या किर्तनाचो पयलो प्रयोग सादर केलो. ताच्या सादरीकरणान प्रभावीत जावन ताका गोंयभरच्या विंगड विंगड कार्यावळींनी किर्तनां करपा खातीर आपोवणीं येवंक लागलीं. गोंयां सांगाताक कारवार, पुणे, बेळगांव, गुजरात हांगाय ताणें आपलीं किर्तनां सादर केलीं.

मडगांवचे पिंपळकट्टो संस्थेन घेतिल्ले सर्तींत उत्कृश्ठ किर्तनकाराचें पयलें इनाम ताका फावो जालें. तशेंच गोविंदमामा उपाध्ये हांचे 125 वे पुण्यतिथी निमतान दवरिल्ले किर्तन सर्तींत ताका पयलें इनाम मेळ्ळें.

कला अकादमीचे मनोहरबुवा भजनी सर्तींत विभागीय पांवड्यार तशेंच राज्य पांवड्यार गोंयभर सावन आयिल्ल्या 150 पथकांतल्यान तांच्याच पथकाक पयलें इनाम फावो जालें. कोमलान तातूंत गवळण सादर केल्ली.

ताका गोंयचो 'बालभूषण' पुरस्कार दिवन सन्मानीत केलां. सावयवेरेंचे खामीणी रूद्र सांतेरी संस्थेन ताचे हे कलेची दखल घेवन ताचो सत्कारूय केला.

गायन-किर्तनांत तन्मय जावपी कोमल कम्प्युटर इंजिनियर जावपाचें ध्येय बाळगिता. पूण त्याच वांगडा आपले कलेचीय जपणूक करपाचीं सपनां पळयता. जे कलेन आपल्याक मान सन्मान, प्रतिश्ठा मेळोवन दिली ते कलेचें तें रीण मानता. पूण तिका एक खंतूय जाता. आयची पिळगी ह्या भक्तिरसांत बुडोवपी, उजू मार्ग दाखोवपी किर्तना कडेन फाट कित्याक करता हें ताका कळना. तें जेन्ना किर्तनाची कार्यावळ करून येतालें तेन्ना ताचे शाळेंतलीं भुरगीं ताका चाळयतालीं. पूण तें तांचे कडेन दुर्लक्ष करतालें. मागीर चाळोवन

चाळोवन थकतकूच तींच ओगी बसतालीं. अश्या वेळार तांणी आपले कले खातीर जाल्लो आपलो विकास मतींत घेवन आपणेंय खंयचे तरी कलेंत प्राविण्य मेळोवचें असो विचार केल्लो जाल्यार बरें जावपाचें अशें ताका दिसता.

पालक तशेंच संस्थांनी आतांच्या नव्या भुरग्यां मदीं किर्तनाची गोडी वाडोवन हे कलेक उर्बा दिवंक माची तयार करपाची जापसालदारकी घेवची अशें कोमलाक दिसता.

◆◆◆

# 19.
# त्याग, सोंशीकसाण आनी स्वाभिमानाचो आविश्कार : शारदा सावयकार



पुर्तुगीज राजवटीचो काळ. रेजिदोर प्रभाकर सावयकारालें सावयवेरेचें घर. स्वातंत्र्य चळवळीच्यो बसका-कार्यावळी जावपाचें थळ. आजेन्त काज्मीर मोंतेरोक ताची सुलूस लागली. ताणें आपल्या शिपायांक त्या घराचेर नदर दवरपाक लायली. एक दीस प्रभाकरबाब आपल्या घरांत माणकुल्या भुरग्यांक स्वातंत्र्य गीत शिकयतालें तें शिपायाच्या कानार पडलें. ताणें तें रोखडेंच मोन्तेरोच्या कानार घालें. मोन्तेर आपल्या शिपायां सयत थंय आयलों आनी दार फोडून भितर सरलो. 'जयहिंदाचीं कांतारां करतात' म्हणत तांणी प्रभाकरबाब आनी हेर माणकुल्यांक भरभरीत ओडीत पुलीस चौकेर व्हेले आनी सगळ्यांक खूब मारपेट केली. कांय जाणांनी माराच्या भंयान आमी आनी केन्नाच सावयकाराल्या घरांत वच्चीं नात म्हूण सांगलें. पूण एक माणकुलें मात सामकें धिटायेचें. तें माराक भियेलें ना. ताणें पुलिसांक नेटान सांगलें, हय, हांव स्वातंत्र्यगीत शिकतालें. म्हाका म्हज्या देशाचो खूब मोग आसा. म्हाका कसलीय ख्यास्त दियात. म्हजे कुडींत रगताचो निमाणो थेंब आसासर हांव म्हज्या देशा पासून पयस वच्चें ना. हांगाच जल्म काडटलें आनी निमणो स्वास आसा मेरेन जयहिंद म्हणीत मरतलें.'

हें माणकुलें म्हणल्यार स्वातंत्र्य विरांगना शारदाताई सावयकार. त्या वेळार तिका आनी तिच्या इश्टिणींक अटक जाली. तिच्या इश्टिणीं मदीं नामनेची स्वातंत्र्य विरांगना शांता हेदे, मित्रा काकोडे (बीर), सुधाताई जोशी, सिंधू देशपांडे हांचो आस्पाव आशिल्लो.

शारदाताई आनी तांच्या इश्टिणींक खूब फावट बंदखण भोगची पडली. तिका आनी कोण कोण सामील आसात हांचीं नांवां तिचे कडल्यान काडून घेवपा खातीर पुर्तुगेजांनी तिचो खूब छळ केलो. तिका एका व्हड मेजाचेर न्हिदोवन दांड्यांनी येतिश्ट बडयताले. हाता-पांयांचे, मनगटाचे सांदे सामके खिळखिळावन उडयताले. बंदखणींत कोणेंच कोणा कडेन उलोवपाचें नाशिल्लें. मातशें उलयतना दिसलें जाल्यार मारपेट करताले. शारदाताई वांगडा स जाणां शिवराक जेवपी बायलां आशिल्लीं. बंदखणींतल्या जेवणांत नुस्तें आनी तांतयां आसतालीं. शारदाताई आनी हेर 5 दीस जेवनासतना रावलीं. पांचव्या दिसा तांचो व्हडलो कमांडर आयलो आनी ताणें तीं कित्याक जेविनात म्हूण चवकशी केली. सेगीत पांच दीस उपाशी रावन उलोवपाची लेगीत शक्त नाशिल्ली. तरीय शारदाताईन शिवराक जेवणाची विनवणी केली. कमांडरान तांकां दूद आनी केळी हाडपाचें फर्मान सोडलें. पंदरा मिणटां भितर व्हडलो पेलो दूद आनी केळीं आयले बराबर सगळीं जाणां ताचेर तुटून पडलीं, केळीं खालीं तीं खालींच साली लेगीत खाल्यो. तें पळयतकच कमांडराच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. दुकां पुशीत ताणें म्हणलें, 'फाल्यां सावन तुमकां शिवराक जेवणाची वेवस्था करतां'. आनी कोणेंय उपकार मानचे पयलींच थंय सावन तो भायर सरलो.

मिठाचो सत्याग्रह केलो त्या वेळार शारदाताई पणजे पुलीस चौकेचे बंदखणींत आशिल्ली. थंय कोणा कडेनूय उलयल्यार जिवेशीं मारपाची ताकीद दिल्ली. तरीय न्हावपाक वतना, कपडे धुवपाक वतना लिपचोरयां चिटयो पावोवपाचीं कामां तीं करतालींच आनी ते खातीर मारूय खातालीं. थोड्या

शिपायांक तांची काकुळट दिसताली.

1954 वर्सा किस्तोद हाणें तिरंगो लासून अपमान केलो म्हूण कोणें तरी ताचो खून केलो. ताचो आरोप शारदाताईचेर आयलो. तिका बंदखण भोगची पडली. तशेंच शरद शिरवयकार नांवाचो एक कैदी आशिल्लो. शरद शिरवयकार म्हणचेच शारदा सावयकार असो आरोप करून तिका पणजे बंदखणींत अडेज वर्सांची ख्यास्त भोगची पडली.

ते उपरांत शारदाताई हडपसर, पुणे हांगा वचून शिरूभाऊ लिमयेन सुरू केल्ले बालवाडयेंत शिकोवंक लागली. कांय तेंप मुंडवा हांगाचे बालवाडयेंत शिकयतना ती 5 वरांचेर सायकलीन भायर सरताली. 5 मैलांचो प्रवास करून साडेसात ते धा मेरेन मुंडवा शाळेंत, 11 ते 2 वरां मेरेन हडपसर, परत अडेज ते साडेपांच मुंडवा शाळेंत, परत स ते णव शिकवणीचो क्लास घेवन हडपसर पावता मेरेन रातचीं 11 वरां जातालीं. शिकयतना भुकेचें भानूय उरनासलें. केन्ना केन्ना चिरमुल्यो खावन दीस काडले जाल्यार केन्ना केन्ना भुरग्यांच्या आवयांनी दिल्लो दुदभात खावन. तिणें शिकयिल्ले भुरगे खूब व्हड पदांचेर पावल्यात आनी अजुनूय तिका मेळपाक येतात.

तिणें 13 वर्सां हिंगणे पुण्याच्या धोंडो केशव बर्वे स्कुलांत शिकयलां. थंय तिका आदर्श शिक्षिका म्हूण पुरस्कार फावो जाला. तशेंच दिल्लींत अटल बिहारी वाजपेयी, राष्ट्रपती शंकर दयाळ शर्मा हांचे हस्तुकीं पुरस्कार फावो जाल्यात. स्वातंत्र्य सैनिक म्हूण 2002 वर्सा तिचो भोवमान जाला.

शारदाताईन आपल्या घराचेर तुळशीपत्र दवरून स्वातंत्र्य संग्रामांत उडी मारली. गोंय दूरदर्शन केंद्राचेर तांकां मुलाखतीक आपयलें पूण जेन्ना तिणें सत्य घडणुको सांगपाक सुरवात केली तेन्ना तिचेर आक्षेप घेतलो. ते सांगता ते प्रमाण शारदाताईन सांगपाक न्हयकार दिलो आनी ती थंय सावन भायर सरली. परत आपोवपाक आयले तेन्ना तिणें दूरदर्शनाक न्हयकार दिलो. 'जंय सत्य गजालींक वाचा फोडूंक दिनात त्या दूरदर्शनाची म्हाका हाव ना आनी लांच

घेवप आनी दिवप हें म्हज्या तत्वांत बसना. हो कानमंत्र कांय लोकांक पटना म्हूण हांव सदांच प्रसिद्धी पासून फाटीं उरल्या. पूण म्हाका ताची खंत ना. हांव स्वाभिमानान जगत आयल्या आनी मरसर स्वाभिमानानूच जगतलीं' शारदाताई अभिमानान सांगता.

◆◆◆

# 20.
# शब्दांक दिता सुरांचो आकार : आश्विनी जांबावलीकार



कोगळाचो उल्यार उलो
पावसाचो दीस आयलो
पावस आतां येवचो आसा
किरकिरो सांगून गेलो

'मळबांतुल्या चांदीमामा' ह्या डॉ. उदय गांवकाराच्या बालगितांचे कॅसेटींतलो म्होंवाळ आवाज आनी म्होंवें संगीत याद जाता. त्या म्होंव्या आवाजाची आनी म्होंव्या संगिताची धनीण आसा आश्विनी शशिकांत जांबावलीकार. साहित्यिक हेमा नायकान आयोजीत केल्ल्या 'चित्रंगी' मेळाव्यांत आपल्या आवाजाची जादू फांकावपी पयलींची अमिता अडणेकार.

आश्विनीची आवय लिलावती अडणेकार एक फांकीवंत नाट्य कलाकार. तांचे पासून स्फूर्त घेवन आश्विनीन नाट्य मळार पावल दवरलें. नाटकांत अभिनय करपा पासून नाटक निर्मिती मेरेन आत्मविस्वासान वाटचाल केली. तिणें 'तुका आकाशा एवढा' ह्या नाटकाची निर्मिती केल्या आनी ताका संगीतूय दिलां. ह्या नाटकाचे वट्ट 12 प्रयोग जाले. शिर्डीच्या श्रीसाई संस्थानाच्या पालवान शिर्डी दोन प्रयोग जाले.

आश्विनी एक याद सांगता. बालगुरू नांवाचे शिक्षक चल्यांक पांयपेटी वाजोवंक शिकयताले. तिकाय पांयपेटी शिकपाची आशिल्ली. पूण बालगुरू तिका शिकोवंक तयारूच नाशिल्ले. 'तूं चली भुरगें, तुका कित्याक ती पांयपेटी?' म्हूण सदांच विरोध करताले. पूण आश्विनीन आपलो हट्ट सोडलो ना. निमणें बालगुरूक तिका पांयपेटी शिकोवचीच पडली आनी आयज आश्विनीन संवसारांतली एकमेव स्त्री पांयपेटी वादक म्हूण नामना मेळयल्या.

ययाती आनी देवयानी, शारदा, काळोख देत हुंकार, देवमाणूस ह्या नाटकांक संगीत दिवन तिणें ह्या मळार पावल घालें. तशेंच संशयकल्लोळ (रेवती), करीन ती पूर्व (पुतळाबाई), शारदा (शारदा), एका घरात होती, काचेचा चंद्र, तुका आकाशा एवढा ह्या नाटकांनी तिणें अभिनय केला. 'तुका आकाशा एवढा' ह्या नाटकांतले भुमिके खातीर तिचो भोवमान जाला. संशयकल्लोळ नाटकांत रेवतीचे उत्कृश्ठ भुमिके खातीर तिका नामनेची नाट्य आनी सिने कलाकार आशालता वाबगांवकर हांचे हस्तुकीं पुरस्कार फावो जाला.

पांयपेटी वाजोवपी आश्विनी एकमेव अस्तुरी. तिचे हे कले खातीर तिकां तोखणाय आनी भोवमानूय मेळ्ळ्यात.

2006 वर्सा कुडाळ जाल्ल्या किर्तन संमेलनांत, शिवसेना आयोजीत शिवसेना सिंधू महोत्सवांत, शिर्डीच्या साईसंचित पारायण सुवाळ्यांत 'कर्तुपी पांयपेटी वादक महिला' म्हूण तिचो भोवमान जाला.

शिर्डी श्रावण म्हयन्यांत जावपी किर्तनांक तिणें म्हयनोभर संगीत साथ दिल्या. तशेंच 17 मे 2007 ते 25 जून 2007 हांगा जाल्ल्या अदीक मास सत्संग महोत्सवांत ह.भ.प. माधव तु आजगांवकार हांणी तिचो भोवमान केला. ते भायर 13 मे 2006 ह्या दिसा गोमंतक मराठा समाजान, वंदे मातरम शती चोंबो गीत गायन सर्ती वेळार अलकाताई वेलिंगकाराच्या नांवान, 25 फेब्रुवारी 2006 ह्या दिसा स्वरगंधा कला केंद्राचो, रंगभूमी दिसा निमतान सांगें केपें पत्रकार

संघाचो, कुडाळ जाल्ल्या किर्तनकार संमेलनांत, 19 डिसेंबर 2006 ह्या दि
संकल्प थिएटर्स कुडचडेंचे अखील गोंय नाट्य सतींत नेत्रावळी युवा मं
भुमीदीपान, कुडचडेंच्या सगळ्या सार्वजनीक गणेशोत्सव मंडळांनी तशें
सगळ्या महिला मंडळांनी तिचो भोवमान केला. 2005, 2006, 2007 ह्या वर
जाल्ल्या गोवा युवा महोत्सवांत कोंकणी पॉप गितांक संगीत दिवन ति
इनामांय जोडल्यांत.

आश्विनी ऑर्केस्ट्रांतल्यान नाट्यगितां, भावगितां, लावणी, भक्तिगित
म्हणटा, अभिनय करता आनी आर्यादुर्गा संगीत वर्गाची संगीत शिक्षिका म्हू
नव्या कलाकारांक आपली कलाय शिकयता.

कसल्याय कार्याक फाटबळ दिवपी व्यक्तींची गरज आसता. आश्विनीच्य
फाटल्यान उबो आसा तिचो घरकार शशिकांतबाब. तिचो एक बरें मागपी इश
वसंत हरमलकाराचें नांव ती कृतज्ञतायेन घेता.

मन लावन रियाज, भारतीय संस्कृतीची जपणूक, ताची लागणूक आनि
खर तपश्चर्या करपाची तयारी तरणाटे पिळगेन दवरली जाल्यार जैत आपशींच
तांचे वटेन येतलें असो संदेश तरणाट्यांक दितना आश्विनी मुखार म्हणट
'तुमी शिकिल्ली कला दुसऱ्यांकूय वांटीत चलात, तुमची कला परमळत
वतली.'

◆◆◆

# 21.
# कवनां करता गेऽऽ काळजांतुले उमाळे मांडटा गेऽऽ प्रेमावती



प्रेमावतीचो धंदो नुस्तें विकपाचो आसलो तरी हें नुस्तें विकतना ती लोककलेच्या मोगांत कशी पडली हो एक प्रस्न. प्रेमावतीन सध्या पिरायेचीं 75 वर्सां हुपल्यांत तरी तिच्या आंगांतली उमेद पळयल्यार ती चिरतरूण दिसता. ती नुस्तें विकता खरें, पूण आपल्या तेजाळ मुखांतल्यान त्याच वेळार वेगवेगळीं कवनां, भक्तिगितां लय-तालाचो आदार घेत जल्म घेतात.

पुर्तुगेज राजवटींत शिंवणीचीं माक्नां गांवांनी नाशिल्लीं. त्या तेंपार ती स्वताचे, स्वताच्या भुरगेबाळांचे कपडे स्वता शिंवताली आनी हेर बायलांकय शिंवपाक शिकयताली. म्हणल्यार बायलांक आत्मनिर्भर करपाचोच तिचो वावर. तशी रांगोळी, हस्तकला, तरेकवार खाणां करपांतूय प्रेमावती हुशार आसा.

नुस्तें विकपी बायलेच्या मुखांतल्यान कवनां आनी भक्तिगितां आयकून लोकूय अजापीत जातालो. काळा भायर गेल्लीं लोकगितां, फुगड्यो, धालो, होंवयो तिका तोंडपाठ आसात. इतली म्हायती तिका आसा हें लोकांक खरें दिसनाशिल्लें. पूण जेन्ना प्रेमावतीन बरयिल्लें होंवयांचें पुस्तक वाचूंक मेळ्ळें तेन्ना तिची तांक कळ्ळी. धालाच्या मांडार देहभान विसरून धालो घालपी

बायलो ह्यो खरें तर आपल्या मनांतले उमाळेच उक्तायतात हें तिणें बरयिल्ल्या पुस्तकांतल्यान ठळकपणान मुखार येता. देखीक एक कविता -

दुख्ख म्हजें दडलां गे
पालवा पोंदां
कोणाक सांगूं म्हजें दुखणें
आनी काळजांतुले उमाळे
तुमच्या सुख-दुख्खाच्या सुवाळ्या म्हऱ्यांत
दुख्ख म्हजें फिकें फिकें...!

दांत्या वयलीं गितांय तिणें बरयल्यांत :

वेळाच्या म्हुर्ताचेर दांतें गे मांडिलां
पयलें नांव घेतां कुळदेवाचें
रुप्याचे गे खाणयेक भांगराचें पातें
येजमान मांडटा आपल्या हातीन दांतें
दांतें मांडून दवल्लो गे विडो
खांदाचेर जोडो सोबीत कुळदेवाच्या...!

गोंयची संस्कृती आनी ताचे वांगडा लोककला तिणें फुलांवरीं जपल्य आनी लोकांच्या काळजांतूय केळयल्या, फुलयल्या. नुस्त्याचो धंदो आनी कवनांची रचना हें समीकरण तिका कशें कितें जुळटा? ह्या प्रस्नाचेर ती सांगत : नुस्त्याचो धंदो केलो तरी तनामनांतल्यान साहित्याचो हिरो हांव जपतालीं दुडू गांठीक मारतात तशीं म्हाका आयिल्ल्या बऱ्या-वायट अणभवांचीं कवन हांव गांठीक मारत आयल्या. तातुंतल्यान मनशां जोडटां आनी केन्ना केन्ना दु जोडपाचे आसतात हाचोय विसर पडटा. पोरसांतले रोंपे भिजोवचे तशें म्हजे काळीज हांव कवनांतल्यानूच भिजयतां.

प्रेमावतीन गरिबीय भोगल्या आनी गरिबीक नेटान तोंडूय दिलां. तिचे एक पूत लंडनांत आसा. दुसरो वास्को इंजिनियरींग करता. पांच चलयांची

लग्नां केल्यांत. 'भक्ती प्रेमांजली' ह्या पुस्तकांत लग्न गितां, पाळण्या गितां, बारसो, सावज मारप, पिंगळी, मांड शिंपप, फुगडी, धालो अशीं तरेकवार गितां आसात. प्रेमावतीक जेन्ना होंवयो, पाळण्यागितां वा धालो गावपाचीं महिला मंडळां कडल्यान निमंत्रणां येतात तेन्ना मिरयो पडनाशिल्लो शालू, आंगा-खांद्यार भांगर घालून, माथ्यांत आबोल्याची हळी वा मोगऱ्याची परमळीत फांती माळून गितां गावपाक उबी रावपी प्रेमा सोळा वर्सांची व्हंकल कशी दिसपाक लागता.

फुगडी, धालांच्यो तिच्यो दोन सीडीय बाजारांत आयल्यात. हीं पदां गावपाक जेन्ना तिका आमंत्रणां येतात तेन्ना कला सादर केले उपरांत इनामां घेतले बगर ती घराचो हुमरो हुपच ना.

पोरूं तिका पुता वांगडा लंडनांक वचपाची संद मेळिल्ली. थंय सावन येतना तिणें कितें काय म्हणल्यार लंडनाचेरूच कवन केलें!

माशेलचें महिला मंडळ, महात्मा गांधी मेमोरियल ट्रस्ट, भारतीय स्त्री शक्ती ह्या संस्थांनी तिचो भोवमान केला. पणजी आकाशवाणीचेर तिच्यो कार्यावळीय जाल्यात. आपलें 'भक्ती प्रेमांजली' हें कवनांचें पुस्तक तिणें जाणट्यांक न्हय तर आयचे तरणाटे पिळगेक ओंपलां. हाचे वयल्यान आपली कला फुडेंय परमळत उरची हाचे फाटली तिची भावना कितली उत्कट आनी प्रामाणीक आसा हें दिसून येता.

◆◆◆

# 22.
# रेवती, मिलन, गीता, ललिता गायन-भजनाचो आनंद दितात



अडकोण, तळेवाडो, बाणस्तारी हांगाचें युवती भजनी मंडळ म्हणल्यार रेवती, मिलन, ललिता, गीता, हेमलता ह्या सतरकार भयणींच्या कलांचो संगम. वामन सतरकाराच्यो त्यो धुवो. भजनाचो पंगड भजन करपाक बसता तेन्ना हेमलता पखवाज वाजोवंक बसता. गीता पेटी वाजयता. ललिता गवळण गितां आनी शास्त्रीय गायन करता. मिलन भक्तीगितां, नाट्यगितां गायता, रेवती म्होंवाळ आवाजान पदां गायता. अशे तरेचो बायलां मदलो आविश्कार संहजतायेन खंयच पळोवंक मेळना.

वामन सतरकाराच्या घरांतलें वातावरण भक्तीमय. सदांच सोमारा, बिरेस्तारा तशेंच श्रावण म्हयन्यांत तांगेर भजनां जातालीं. वाड्या वयल्या लोकां वांगडा तांच्या घरांतलीं जाणटीं-नेणटींय भजनांत रंगतालीं. सतरकार भयणींचो एकलोच अपुरबायेचो भाव कृष्णा. ताका आवड म्हूण घरांत पखवाज, पेटी हीं वाद्यां तांणी उदारेर हाडलीं. कुळागरांतलीं पानां-बेडे विकून इल्ले इल्ले पयशे पावोवपाच्या उतरार तांकां तीं दिल्लीं. पूण व्हड भजनी कलाकार जावपाचें सपन पळोवपी कृष्णा इल्ल्याश्या दुयेंसाचें निमित्त जावन तांकां सोडून गेलो. सतरकार घराब्याचेर मळब कोसळ्ळें. कृष्णा खातीर खास हाडिल्ल्या वाद्यांचेर नदर पडटकच तें दुख्ख चड खर जावचें.

कृष्णाचें सपन आतां आमी खरें करून दाखोवंक जाय ह्या उद्देशान रेवती आनी हेर भयणी मुखार सरल्यो. एक वर्सभर एका जाणकारां कडल्यान भजनाचें शिक्षण घेतकच तांणी सावयवेरेंचे तुळशीदास पालकार, नागेशी-बांदोडेंचे विष्णू नायक हांचे कडेन शिक्षण घेवन त्यो ते कलेंत फिशाल जाल्यो. गोंयांत जातल्या भजनी सर्तींनी वांटो घेवन तांणी इनामांय मेळयलीं.

कला अकादमी वतीन तीं तांच्या भजनाचो पंगड घेवन बेळगांव, पंढरपूर, सांगली, मिरज, सातारा, गोंदवली, सज्जनगड, कराड, कोल्हापूर, पुणे हांगा गेल्यांत आनी थंयच्या संगीत मोग्यांचेय तुस्त-तोखणायेक पात्र जाल्यांत.

1999 वर्सा सावन तांणी तांच्या भजनाच्या कार्यावळींक सुरवात केल्ली.

तांचे कलेची दखल पणजेचे रूद्रेश्वर संस्थेन घेवन तांचो सत्कार केला.

2001-2002 वर्सा तांकां राज्य पुरस्कार फावो जाला. 2002-2003 त गोवा कला अकादमीचो पुरस्कार तांकां फावो जाला. 2006-2007 त हेमलताक उत्कृश्ठ पखवाज वादकाचो पुरस्कार मेळ्ळा.

सध्या पखवाज वाजोवपी हेमलता माशेलांतले महाशाला कला संगम हे संस्थेंत तबल्याचेंय शिक्षण घेता.

वाद्य-संगिताचें शिक्षण घेवपाक ह्या भयणींक कुळागरांतल्यान बस धरपाक येवपा खातीर तीन किलोमिटर अंतर चलून येवचें पडटालें. कुळागरांतलीं कामां करूनय सातत्यान रियाज करीत, कलेचें शिक्षण दिवपी गुरूजनाच्या आशिर्वादान आयज अशी कला आत्मसात करून आपल्या भजनी पंगडाचें नांव वयर काडून दाखोवपी ह्या सतरकार भयणींची देख आयचे तरणे पिळगेन घेवप सामकें गरजेचें.

◆◆◆

# 23.
# कलेचो आदर करपाक जाय... नृत्यांतल्यान जपता संस्कृताय : अनिता कुंडयकार



'खरें तर हांव जावपाची टेलर. पूण जाली डान्स टिचर! पूण समाधानी आसां. कारण ही कला मनाक धादोसकाय दिता आनी संस्कृती राखपाचें, संस्कृतायेचें दर्शन गोंयां भायल्यांक दाखोवपाची संदूय दिता...' सांगता अनिता अजित कुंडयकार. कुळारचें नांव सुरंगा वामन मडकयकार. अनिता बऱ्यापैकी डान्सर. सध्या माशेलच्या बालभवन केंद्रांत डान्स टिचर म्हण काम करता.

अनितान नृत्य प्रशिक्षक म्हूण मान्यताय आनी नामना मेळयल्या. तिणें बालभवनाचे वतीन नृत्य पंगड घेवन भायल्या राज्यांनी गोंयची संस्कृताय दाखयल्या. पूण सुरवातीक हेर बायलां भशेन तिकाय थोमणे खावचे पडल्यात. टिका सोंसची पडल्या.

अनिताक ल्हानपणा सावन नृत्याची आवड. नृत्यांक ताणें शास्त्रीयतेची जोड दिली आनी गांवागांवांनी कार्यशाळा घेवंक लागली. धा-बारा वर्सां आदीं कांय गांवगिऱ्या वाठारांनी चलयांनी नाच करप म्हणल्यार लजेचें काम समजताले. पालक सोंपेपणान आपल्या चलयांक कार्यशाळेंत धाडिनासले. नृत्य म्हणल्यार आंग दाखोवपाची, लोकांक भुलोवपाची कला अशें मानताले. हो समज काडपाक अनिताक खूब त्रास सोंसचे पडले. पूण हो गैरसमज पयस

करून कार्यशाळेंत प्रवेश दिल्ल्यान चलयांक ताणें साबार लोकनाच शिकयले.

आयज हो पंगड जंय जंय वता थंय थंय लोकांची तुस्त मेळयता. इनामां मेळयता. पूण सुरवातीक जेन्ना चलयांक हाडपा खातीर दारादारांनी भोंवचें पडटालें तेन्ना आवय-बापायचे थोमणे आयकून घेवचे पडटाले. तेन्ना दिसतालेंय बी कित्याक हें सगळें करपाक जाय म्हण. पूण आतां ही स्थिती ना. आयज पालक उमेदीन सांगतात, 'आमचेय चलयेक घेवन चल आँ टुराक.'

हय, आयज अनिता ह्या पंगडांक घेवन भारतभर भोंवडी करता. जम्मू, काश्मिर, लक्षद्वीप, नागालँड, मिझोराम, त्रिपुरा, मणिपूर, हिमाचल, राजस्थान, गुजरात, हैदराबाद, महाराष्ट्र सगळे कडेन ह्या पंगडान गोंयचे संस्कृतायेचें दर्शन घडयलां. महाराष्ट्रांत चंद्रपूर, बेळगांव, सावंतवाडी, कुडाळ, कोल्हापूर, पुण्यांत तिणें भोंवडी केल्या. ह्यो भोंवड्यो तिका नेहरू युवा केंद्राचे वतीन करपाक मेळ्ळ्यो.

हैदराबादांतल्या लोकांक जाल्यार आमचो नाच खुबूच आवडलो. इतलो की तांणी आमचो सत्कारूय केलो. अनिता उमेदीन सांगता. चंद्रपुरांतलो अणभव सांगतना अनिता म्हणटा : बाबा आमटे सारक्या परमपूज्य मनशाचो सांगात मेळप म्हणल्यार धन्य जावप. बाबा आमटे हांचें काम पळयलें, पंगडांतल्या चलयांक दाखयलें. ताणीय तांच्या कामा पासून प्रेरणा घेतल्या. भुरगीं बरींच प्रभावीत जाल्यांत. बाबा आमटेच्या सपनांतलो गांव पळोवपाची संद सगळ्यांकच मेळ्ळी हाचे खातीर हांव स्वताक धन्य समजतां.

जायत्या बऱ्या गजालींक त्या त्या काळांत विरोध हो जाताच. पूण कोणाक तरी फुडें सरचेंच पडटा. पयलें पावल घालप्याक त्रास जाताच, पूण फाटल्यान येवप्यांक सोंपी करून दिल्ली ती वाट आसता. नाच ही गजाल वायट न्हय, वयल्यान नृत्यांतल्यान जर तुमी गोंयची संस्कृताय दाखयतात तर ती बरीच गजाल. टिका आनी विरोध करप्यांनी हें समजून घेवंक जाय. टिका करप्यांनीय कलेचो आदर करपाक शिकपाक जाय.

•••

# 24.
# सगल्या विद्यांनी पारंगत ट्विंकल मायणेकार



बऱ्या गुणांच्या रोंपाक सारें घालें काय तें रोंप रसरसून फुलता, फळटा. ट्विंकलाचेंय तशेंच जालें. घरच्यांक समाजकार्याची आवड. ट्विंकलाकूय ताची आवड निर्माण जाली. ट्विंकल गणितांत हुशार. ताणें आपलो होमवर्क बेगीन करचो आनी मदले सुटयेंत ज्या भुरग्यांक गणीत कठीण पडटा तांकां तीं गणितां समजावन सांगचीं. तें सगळ्या कलांनी फिशाल. चित्रकला, रांगोळी, फुगडी, नाटक, शाळेंत ज्यो ज्यो कार्यावळी जाताल्यो तातूंत तें व्हडा उमेदीन वांटो घेतालें, तें शिस्तबद्द. ताणें एक आल्बम तयार केला तातूंत ताणें आपणें केल्ल्या कार्यावळींची बातमी, फोटो तारखे सयत नोंद करून दवरल्यात.

ट्विंकल प्रशांत मायणेकार म्हणल्यार पयलींचें ट्विंकल महाबळेश्वर नायक. तिणें बायलांक घरबसल्या काम करून जोड मेळची म्हूण तांकां एकठांवन 25 आप मजत पंगड तयार केल्यात, जातूंत लोणचीं, शंकरपाळी, चकऱ्यो अशीं साबार खाणां तशेंच शिवण-काम, भरतकाम, हस्तकलेच्यो वस्तू बायलां घरबसल्या तयार करतात आनी आपल्या पंगडाचे वतीन ताचो विकरोय करतात. ह्या बायलां मदीं आशिल्ल्या हेर कलांकूय पोसवण मेळची म्हूण ट्विंकलान आपल्या गांवच्या बायलांक मुखार काडून भजनी मंडळाची थापणूक

केली. तांकां तातूंत प्रशिक्षीत करून विंगड विंगड सर्तींनी वांटो घेवपाक उमेद दिली. कला अकादमीच्या लोक उत्सवांत तांच्या पंगडान सेगीत चार वर्सां वांटो घेतलो आनी उत्कृश्ठ पंगड म्हूण तांच्या पंगडाचो सत्कार जालो. नेहरू युवक केंद्रा वतीन पंगड घेवन सावंतवाडी, पुणे, कोल्हापूर, बेळगांव, हैदराबाद हांगा भोंवडीय केल्या.

फुगडे सारक्या कलांक नवीं परिमाणां दिवपी सर्गेस्त शांती तेंडुलकार, विश्रांती बांदेकार आनी प्रियोळची नामनेची नृत्यांगना नयनाताई प्रियोळकार हांचे कडल्यान प्रशिक्षण मेळिल्ल्यान ट्विंकल फुगडेंतूय फिशाल जालें आनी आतां ताका राजीव कला मंदिर आयोजीत फुगडी सर्तींनी परिक्षक म्हूण आपयतात.

ट्विंकलाक नाटकांचीय आवड. गांवचें सांतेरी देवस्थान, गणनाथ देवस्थान, मायणें, निरंकाल, फोंडें, सावयवेरें, राजीव कला मंदिर-फोंडें, फातोड्डें स्टेडियम हांगा सादर केल्ल्या कला कारस्थान, सत्याग्रही, भंयाकृत वारे ह्या नाटकांनी तिणें मुखेल अभिनेत्री म्हूण काम केलां. तिणें धालो-फुगड्यांचें संकलन करून दोन सीडीय काडल्यात.

निरंकाल, फोंड्यां 500 बायलां मदीं तिका आदर्श गृहिणी म्हूण पुरस्कार मेळ्ळा. नेहरू युवक केंद्रा वतीन मुख्यमंत्री प्रतापसिंग राणे हांचे हस्तुकीं 2006 वर्साचो जिल्लो युवा पुरस्कार तिका फावो जाला.

फोंडेंचे उमेदीचे कार्यकर्ते रवी नायक हांणी फुडाकार घेवन तिका अर्थीक मजत केल्या हें ती मुजरत सांगता.

भुरगेपणांत आपल्या सगळ्या कार्यांनी आपल्या बापायचो आदार लाबलो आनी आतां आपलो घरकार आपल्याक खूब सहकार्य करता तेच खातीर हांव आयज इतलें फुडें पावपाक शकली अशें ती अभिमानान सांगता.

◆◆◆

25.
# सुरांचो झेलो, संगिताचो परमळः रजनी ठाकूर



6 एप्रील 1996 ह्या दिसा कला अकादमींत भावगीत महोत्सव चलतालो. त्या वेळार माचयेर एक शांत, शालीन आनी भोव नमळायेचें व्यक्तीमत्व आयलें. तिच्या मुखांतल्यान स्वर उमटले 'धुंद मधुमती रात्र ही रात्र ही' आनी सगळे रसीक त्या स्वरांनी न्हावन गेले. तें व्यक्तिमत्व म्हणल्यार गोंयकारांची रजनीताई. गानसम्राज्ञी रजनी ठाकूर.

रजनीताईची आवय गोंयकार आनी बापूय पुण्यांतल्या गोखले घराब्यांतलो. तिचो जल्म आनी भुरगेपण पुण्यांतच गेलें. भुरगेपणांत संगिताचे सूर कानार पडले काय तिचे पांय आपसुकूच तालार नाचपाक लागताले. पुण्याक आतां भरतात तशे तेन्नाय व्हडले मेळ भरताले. फांकीवंत नर्तक गोपीकृष्ण, सिने कलाकार मीनाक्षी, राजा गोसावी, सुर्यकांत, वसंत शिंदे त्या मेळांक हाजिरी लायताले. त्या वेळार माणकुले रजनीचो नाच पळोवन सगळे भारावन वताले आनी तांचे कवतुकांचे हात रजनीचे फाटीर भोंवताले. एकदां व्ही. शांताराम हांणी तिचो नाच पळयलो आनी ते तिची नृत्य कुशळटाय पळोवन अजापीत जाले. तिका अपुरबायेन वेंगेंत घेवन तांणी म्हणलें, 'नाचाचें खाशेलें शिक्षण घेतल्यार एक दीस हिंदुस्थानाची नामनेची नृत्यांगना जातलें'. पूण आजो–

आजयेच्या विरोधा खातीर रजनीताई नाचाचें शिक्षण घेवंक पावली ना.

मडगांवच्या महिला नूतनांत एस.एस.सी. चें आनी चौगुले कॉलेजींत इंटर मेरेन शिक्षण घेतना दर वर्सा स्नेहसंमेलनाक रजनीताई नाच करताली आनी सगळ्यांचे तोखणायेक पात्र थारताली. तिचें ॲपेंडिक्साचें जेन्ना ऑपरेशन जालें तेन्ना दोतोरान तिका सुमार एक म्हयनो तरी नाच करचो न्हय असो सल्लो दिलो. त्या वेळार भियेवन तिणें नाच बंद केलो तो सासणाचो.

'पिंजरा' सिनेमा पळयतकच त्या सिनेमांतलीं पदां रजनीताईच्या ओंठार दीस-रात घोळपाक लागलीं. गायतना ती सामकी तल्लीन जावन वताली. तिच्या म्हौंवाळ आवाजाची जाणविकाय प्रेमाबाई जांबावलीकार हांकां जाली. 1973 त दिल्ली जाल्ले 18 जूनाचे खाशेले कार्यावळीक ती रजनीताईक मुजरत घेवन गेली. थंय तिच्या गायनान सगळे भारावन गेले आनी रजनीताईच्या न्हयकाराक जुमानिनासतना तिणें रजनीताईचो सत्कार केलो.

गोंयांत तिच्यो गायनाच्यो कार्यावळी जाताल्यो. तेन्ना मनोहरबुवा शिरगांवकार, तेन्नाचे मुख्यमंत्री भाऊसाहेब बांदोडकार हांणीय तिचें कवतुक केल्लें. जाणकारांनीय ताका गायनांतले मुखा वयले धडे घेवपाक प्रोत्साहीत केलें. रजनीताईय रात-दीस फाविल्ल्या वेळार रियाज करपाक लागली. तिच्या गायनाक भुलून विष्णू ठाकूर तिचे जिणेंत आयलो आनी तिचो जिणे सांगातीय जालो. तिच्या संवसारांत राहुल आनी रोहन अशीं दोन सोबीत फुलां फुल्लीं. पूण तिच्या नशिबांत विष्णूचो सांगात 15-16 वर्सां मेरेन उरलो. पिरायेच्या 6 वर्साचेर रजनीताई पसून आवय पयसावली आनी संवसार फुलतनाच घोव. रजनीताई सामकी गळसणून पडली. त्या वेळार तिच्या माणकुल्या भुरग्यांनी तिका जगपाचें बळगें दिलें. शालिनीताई, प्रसाद सावकार, लेखिका माधवीताई देसाई हांणीय तिका समजायलें. 'दुख्खांतल्यान भायर सर आनी गायनाचे वाटेर मुखार सरत राव.'' मोगुबाई कुर्डीकार तिका सदांच सांगताली, 'लक्ष्मीचे फाटल्यान धांवू नाका. सरस्वतीक प्रसन्न करून घे. तिची अखंड सेवा केल्यार

केन्नाच कांय कमी पडचें ना.' रजनी जोगळेकारानूय तिका मार्गदर्शन केलां यशवंत देव, अभिषेकी बुवा, हिराबाई बडोदेकर हांच्या सांगाताक सुगम संगीत, भावगीत गावपाची भांगरा संद तिका मेळ्ळी. हो सुखाचो खीण ती केन्नाच विसरूंक शकना.

रजनीताईक केन्नाच कार्यावळ करपाक आपयात, ती मानधनाची अपेक्षा धरिनासतना आपलेपणान थंय येता. पूण तिच्या सांगात्यांक मात मानधन मेळटलें हाची ती वेवस्था करता.

आकाशवाणी, गोंय तशेंच मुंबय दूरदर्शनाचेर तशेंच मुक्ता, तुळशी, सांगाती ह्या टेलिफिल्मां खातीर तिणें पार्श्वगायन केलां. गोंयां भायर पुणे, मुंबय, दिल्ली, बेळगांव, कुडाळ, सावंतवाडी, कोल्हापूर हांगाय तिच्यो कार्यावळी जाल्यात. आयज तिणें गोंयांत गायनाच्या मळार आपलें अस्तित्व सिध्द केलां. तिचे गायकींत गोंयचे मातयेचो परमळ आसा.

रजनीताईक आपले कलेची जतनाय करपाक कोणाचो आदार मेळ्ळो ना. ती आपल्याच यत्नान मुखार सरत रावली. ते खातीर कोणूय परिस्थिती खातीर गायन शिकूंक पावना जाल्यार ती मुजरत ताका मोबदल्या विणें कला शिकयता.

आत्मविस्वासान, तपश्चर्येन कला आत्मसात करात. संद आपशींच चलून येतली अशें ती तरणाटे पिळगेक सांगता.

◆◆◆

# 26.
# कुशळ कारागीर सुशिला पार्सेकार



धडपड हो मुयेचो स्थायीभाव. मुयेचो हो गूण मनशांत आयल्यार लुकसाण कांयच जावचें ना, वयल्यान फायदो मात जातलो आनी हेच धडपडीन सगळ्या मळांचेर जैतिवंत पावलां मारल्यांत बोरी-फोंडेंच्या सुशिला उसू पार्सेकार हिणें.

सुशिला 1985 त धावी पास जालें. फुडें शिकपाची आवड आशिल्ली. पूण शिकूंक पावलें ना. ताणें टायपिंग-शॉर्टहॅन्ड केलें. उपरांत 1987 त दोतोर विजय थळीच्या हॉस्पिटलांत दोन वर्सांचो नर्सिंग कोर्स केलो. त्याच हॉस्पिटलांत दोतोर आशा थळी आनी दोतोर विजय थळी हांच्या मार्गदर्शना खाला ऑपरेशन थेटर असिस्टंट म्हणून प्रशिक्षण घेतलें. उपरांत वास्कोच्या चौगुले हॉस्पिटलांत बारा वर्सां हेंच पद सांबाळ्ळें.

बँक ऑफ इंडियांत शिर्वीस करपी उसू पार्सेकार हांचे कडेन सुशिलाचें लग्न जालें आनी रोखडेंच तांच्या संवसारांत श्वेताच्या रुपान सोबीत फूल फुल्लें. श्वेता दोन वर्सांचें जायसर सुशिला घर संवसारांत अडकून उरलें. पूण मूळचो धडपडी सभाव ताका ओगी बसूंक दिना जालो.

तें इंजेसांवां करपाच्या निमतान लोकांगेर वतालें. तेन्ना लोकांची कपड्या विर्शींची आवड मतींत घेवन ताणें मुंबय सावन ल्हान भुरग्यां खातीर कपडे

आनी साडयो हाडून आपल्या घराच त्यो विकपाचो वेवसाय सुरू केलो.

ताणें आपल्या आंगांत आशिल्ल्या हेर कलागुणां कडेनूय आडनदर केली ना. तें नवदुर्गा महिला मंडळाचें वांगडी जालें आनी त्या मंडळा वतीन फुगडी सर्तींनी वांटो घेवपाक लागलें. तांच्या पंगडाक उत्कृश्ठ णव वारी न्हेसवणा खातीर इनामांय फावो जालीं.

साडयो विकपाच्या निमतान भोंवतना ताची अमराई महिला मंडळाची अध्यक्ष शॅरली डायस हांचे कडेन वळख जाली. आमदार रवी नायक हांचे वतीन तांच्या महिला मंडळान इमिटेशन ज्युवेलरी (नकली वस्ती) करपाचीं कार्यशाळा आयोजीत केल्ली. शॅरलीन सुशिलाक हे कार्यशाळेक आपोवणें दिलें. ह्या पांच दिसांचे कार्यशाळेंत प्रशिक्षण घेतले उपरांत सुशिलान दोन म्हयन्याचो प्रायव्हेट कोर्स केलो आनी स्वता इमिटेशन ज्युवेलरी तयार करपाक लागलें. मोती, क्रिस्टल, कुंदन वापरून बाजूबंद, सुरंगाचे वळेसर अश्यो वस्ती करून ताका बरी बाजारपेठ मेळटा तें पळयतकच हो वेपार व्हड प्रमाणांत करपाक 15 बायलांक एकठांय हाडून 'स्वयंसिद्धा स्वयंसेवी' पंगड तयार केलो. पंगडा वतीन गरम मसाले, लेडीज गावन, पांच खाजीं, गुरवार बायलांक फुलां माळचे वेळार करपाचे जिनस, रजई करून दिवपाक लागली.

आदले पंचायतमंत्री सुभाष शिरोडकार हांणी स्वयंसेवी पंगडाक नकली वस्ती करूंक शिकोवपाक प्रशिक्षक म्हूण सुशिलाची नेमणूक केली. तशेंच तांणी सुशिला सयत 15 जाणांच्या पंगडाक नेतलकर सरांच्या मार्गदर्शना खाला शिंपयांच्यो वस्ती करपाच्या प्रशिक्षणाक धाडलें. सुभाषबाबाचे वतीन तांच्या पंगडाक कोचीन (त्रिवेंद्रम) केरळ हांगा 12 दिसांच्या प्रदर्शनांत वांटो घेवपाची संद मेळ्ळी. सुशिलाची त्या पंगडाचें प्रशिक्षक म्हूण नेमणूक जाली. प्रदर्शनांत तांच्या पंगडा वतीन वॅक्साच्यो मेणवाती, ज्यूट बॅग, नकली वस्ती, पॉटरी, क्रॉशे, चायना क्लेचे पुतळे अश्यो तरेकवार वस्तू मांडिल्ल्यो. तें प्रदर्शन पळोवंक केरळ हस्तकला मंडळाचे ऑफिसर मुजरत आयिल्ले. हांगा सुमार

80-90 हजार रुपयांचो विकरो जालो.

सुशिला हस्तकला उदरगत मंडळाचें वांगडी आसा. कारागिरां खातीर आसपी हस्तकला मंडळाचें वळखपत्र ताचे कडेन आसा जे वरवीं ताका बँकेंतल्यान रीण मेळपाची, देशभरांत खंयूय हस्तकला मंडळाचीं प्रदर्शनां आसल्यार थंय स्टॉल मेळपाची, फुकट भलायकी तपासणी करून घेवपाची सुविधा मेळटा. तें डाएशन ट्रेडिंग (इंडिया) प्रायव्हेट लिमिटेड कंपनीचेंय वांगडी आसा. थंय तें अळम्यांची पुरवण करता. मलेशियन दोतोर लिंग शाव हांणी धा वर्सां तांचेर संशोधन करून वखद तयार केलां. थंय सावन सुशिलाक बोनस चेक मेळटात.

सुशिला नर्स आशिल्ल्यान आनी ताका समाजसेवेची आवड आशिल्ल्यान ताणें जायते फावटीं जीव्हीएमएस केजी आनी मुळावे शाळेंत भलायकी शिबिरां आयोजीत केल्यांत.

घरकाराचें आनी धुवेचें सहकार्य तशेंच सुभाष शिरोडकार हांच्या आदारान आयज आपूण हांगा मेरेन पावलें अशें सुशिला कृतज्ञतायेन म्हणटा.

◆◆◆

## 27.
# विद्या वाचस्पती डॉ. अर्चना काकोडकार



14 नोव्हेंबर आनी 18 नोव्हेंबर 2007 हे दीस गोंयच्या इतिहासांत एक
आगळ्या-वेगळ्या व्यक्तिमत्वाचो सत्कार केल्ले खातीर स्मरणांत उरतले
त्या दिसा ग्रंथालय शास्त्रांतली 'विद्या वाचस्पती' ही उपाधी मेळोवपी एकमे
अस्तुरी आनी दक्षिण-आशिया खंडांतल्या लॅटिन अमेरिका आनी कॅरिबियनच्य
ग्रंथालय संदर्भांत अभ्यास करपी एकमेव व्यक्ती डॉ. अर्चना अशोक काकोडका
हिचो सत्कार जालो. सेंट्रल लायब्ररीक 175 वर्सां आनी महालक्ष्मी वाचनालया
100 वर्सां पूर्ण जाल्ल्या निमतान तिचो सत्कार केल्लो.

डॉ. अर्चना काकोडकार ही पयलींची कुसूम म्हार्दोळकार. मुंबयचे रुपारे
कॉलेजींत आसतना हॉकी, बॅडमिंटन, व्हॉलीबॉल खेळांत ती वांटो घेताली
तशेंच मुंबयच्या महिला हॉकी पंगडांत (इनसायट लॅफ्ट) मुखा वयले फळयेंतल
'अ' खेळगडी आसली. सानी डेट हे कंपनी खातीर तिणें कांय काळ मॉडेलीं
केल्लें.

बीएससी (कॅमेस्ट्री-फिजिक्स), एम.ए.(सोशोलॉजी-पॉलिटिक्स)
बोलिबएससी, एमलिबएससी मेरेनचें शिक्षण करून पीएचडी मेळोवपी अर्चन
महाराष्ट्रांतली एक गोल्ड मॅडलिस्ट, ग्रंथालय शास्त्रांतली एक उत्कृश्ठ शिक्ष

आशिल्ली.

अर्चना सर्टिफिकेट कोर्स ते बॅचलर आनी मास्टर ऑफ लायब्ररी सायन्स मेरेनच्या सगळ्या पांवड्याचेर शिक्षक म्हूण काम पळयता. इंदिरा गांधी ओपन युनिव्हर्सिटींत बी. लिब. आनी एम.लिब.ची तशेंच सध्या यशवंतराव चव्हाण ओपन युनिव्हर्सिटींत एम.फिलच्या ग्रंथालय शास्त्र विशया वयल्या विद्यार्थ्यांची मार्गदर्शक आनी गोंय विद्यापीठ तशेंच अॅकेडॅमिक स्टाफ कॉलेज हांगा रिसर्च मॅथॉडॉजीची व्याख्याती म्हूण वावुरता.

1975 सावन आतां मेरेन मुंबय विद्यापिठाचें सेंटर फॉर पोस्ट ग्रॅज्युएट रिसर्च सेंटर ग्रंथालय, गोंय विद्यापीठाची ग्रंथपाल, गोंय विद्यापीठाच्या सेंटर फॉर लॅटिन अमेरिकन स्टडिजाची डॉक्युमँटेशन ऑफिसर, गोंय विधानसभेच्या ग्रंथालयाची ग्रंथपाल आनी गोमंतक संघाची अध्यक्ष, महाराष्ट्र सरकाराच्या लायब्ररी सायन्स सर्टीफिकेटीची (रेफरन्स सर्विस) डायरेक्टर असो 32 वर्सांचो तिणें प्रवास केला.

गोंय युनिव्हर्सिटीच्या एम.फिल, एम.लिब आनी लायब्ररी सायन्स सर्टीफिक्रेट कोर्सा खातीर पेपर सेटींग आनी इव्हाल्युएटर म्हूण काम पळयता.

राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय नामनेची ग्रंथपाल डॉ. अर्चना हिणें सहसंपादन केल्ली 'बिब्लिओग्राफी ऑफ गोवा अॅण्ड द पुर्तुगीज इन इंडिया' हे ग्रंथसुचीचो, गोंय संबंदांतली उत्कृश्ठ ग्रंथसुची, असो उल्लेख 'एनसायक्लोपिडीया ऑफ ब्रिटानिका' ह्या संदर्भ ग्रंथांत केला. तिणें 'लायब्ररी पब्लिक रिलेशन्स : चॅलेन्जीस ऑफ न्यू मिलेनियम' ह्या ग्रंथाचेंय सहसंपादन केलां.

राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय चर्चासत्रांनी, सोदनिबंध सादर करपांत, कॉन्फरन्सांत वांटो घेतला. पॅरिसांत जाल्ल्या कॉन्फरन्सांत 19 आनी 20 इसवी सनांतले पुर्तुगेज इंडियांतले हिंदू इंडो पुर्तुगेज हिस्ट्री, हाचेर सोद निबंध सादर केला. भारतांतल्या कितल्याश्याच विद्यापीठांनी ग्रंथशास्त्राचेर व्याख्यानां, समाजशास्त्र, स्त्री विशयाचेर लेख, राजकारण, इतिहास, ग्रंथालय शास्त्राचेर

लेखन आनी संशोधन, परदेशी संशोधकांक मार्गदर्शन, तशेंच हिंदी, मराठ
इंग्लिश, भाशांनी भाशांतरां केल्यांत. तिचें लिखाण 'बिझनेस लायन, बिझने
स्टॅन्डर्ड, इकॉनॉमिक टायम्स, फायनान्शियल एक्सप्रॅस, गोमंतक टायम्स, हॅराल्
इंडियन एक्सप्रॅस, नवहिंद टायम्स, टायम्स ऑफ इंडियांतल्यान प्रसिध्द जाल
सँट्रल लायब्ररीचे पुस्तक समितीची वांगडी तशेंच एके अमेरिकन महिल
प्राध्यापिकेची संशोधक सहाय्यक म्हूण ती काम करता. 'सरकार अनुदानी
खासगी वाचनालय आनी तांचें वाचन चळवळींतलें योगदान,' 'बायलांच
विकासांत संस्थांचो वांटो', 'हांव आनी वाचक', 'वाचन संस्कृतीचेर नव
माध्यमाचो परिणाम', 'भौशीक वाचनालयां कडसून वाचकांच्यो अपेक्ष
आनी 'लायब्ररी मॅनेजमेंटांतले नवे ट्रेंडस' ह्या विशयांचेर तिणें व्याख्यान
दिल्यांत. भारताची राष्ट्रीय म्हायती प्रतिनिधी म्हूण तिणें गोंयचें प्रतिनिधीत
केलां. गोंय राज्य वाचनालय सॅलाचेर एक्सपर्ट म्हणून गोंय सरकाराचे लायब्र
बुक सिलेक्शन कमिटीची वांगडी म्हूण ती काम पळयता. डॉ. अर्चना हिच
'गील बास्तोज वियेरा-पर्सनॅलिटीज 1996 गोवा व्हूज व्हू इन द फ्युचर गोव
हातूंत आस्पाव जाला.

◆◆

# 28.
# 'प्रियंका अकादमी'ची संस्थापक प्रियंका राणे



बुद्द, जिद्द आनी नृत्यकला हांचो संगम जांचे ठांय जाला अशें उर्बा आनी उमेदीचें व्यक्तीमत्व म्हणल्यार प्रियंका विजय राणे.

कायद्याची पदवी, कंप्युटराचें प्रशिक्षण आनी पदविका, वेवसाय वेवस्थापनाची पदविका अशा शिक्षणीक आनी वेवसायीक मळांचेर पावलां मारतनाच आपल्या आंगांतले नृत्यकलेक खर प्रशिक्षणाची जोड दिवपाचें काम प्रियंकान केलें. बांद्रा, मुंबयच्या नटेश्वर नृत्यकला मंदिरांत गुरू छाया खनवटेच्या मार्गदर्शना खाला तिणें सात वर्सां भरतनाट्यम आनी प्राचीन नृत्यकलेचें शिक्षण तशेंच भारतीय लोकनृत्यांचें प्रशिक्षण घेतलें.

प्रियंका विजय राणे ही पयलींची प्रियंका काशिनाथ पाटील. काणका, पर्रा रावपी प्रियंकान लग्ना उपरांत पणजेच्या सेंट मेरी हायस्कुलांत कांय काळ कंप्युटर शिक्षिकेची नोकरी केली. पूण तिची जिद्द तिका ओगी बसूंक दिनाशिल्ली. तिणें मागीर स्वताची 'सॉफटेक कॉम्प्युटर्स' नांवाची कम्प्युटर प्रशिक्षण दिवपाची संस्था स्थापन केली. पांच-स वर्सां भितर ही संस्था नामनेक पावयतना प्रियंकाची जिद्द परत वयर उफेली. तिच्या आंगांत आशिल्ले नृत्यकलेक समाजांतल्या हेरां कडेन वांटपाची जिद्द आशिल्ली. विद्यादान हें

एक पवित्रदान. त्या दानान दुसऱ्यांक शिक्षण दिवंक मेळटा आनी आपलेंय गिन्यान दुपेटीन वाडटा. ह्या पवित्रदानाचे संकल्पनेन 1996 वर्सा जल्माक आयली गोंयांत गाजपी 'प्रियंका डान्स अकादमी'.

सुरवातीक माणकुल्या मधुराक नृत्यकला शिकोवपी हे अकादेमीचे शिश्य वाडले. सध्या शंबरा वयर भुरगीं हांगा नृत्य प्रशिक्षण घेतात. भरतनृत्या वांगडा आधुनीक पॉप आनी प्राचीन नृत्यकलेचो संगम घडयत सोलो तशेंच समूह नृत्यकलेंत भुरग्यांक फिशाल करपी प्रियंका आपलें वेवसायीक मळ सांबाळीत सप्तकांतले स दीस सकाळीं णवांक आनी धांक तशेंच सांजे चार, पांच आनी स वरांचेर तशेंच आयतारा सकाळीं धा ते दनपरां बारा वरां मेरेन नृत्याचे वर्ग घेता.

तिच्या शिश्यांनी आयजवेर छुम छननन, बुगी बुगी, तशेंच गोंयांत आनी गोंयां भायर जावपी कार्यावळींनी वांटो घेवन इनामां मेळयल्यांत. 2006 आनी 2007 वर्सा जाल्ले इफ्फींत, मार्च 2006 त जाल्ले बंगाल सांस्कृतीक संस्थे खातीर, पिलार जाल्ले आंतरराष्ट्रीय सांस्कृतीक संस्थे खातीर प्रियंका अकादमीच्या भुरग्यांनी नृत्य सादर केलां. आपले अकादमीच्या प्रशिक्षणार्थ्यांची कला लोकां मुखार येवची म्हूण ती कला अकादमी आनी म्हापशेंच्या हनुमान नाट्यगृहांत वर्सुकी कार्यावळी आयोजीत करता. पिलार 'ग्यान रागा' हे कार्यावळींत तिच्या शिश्यांनी प्रियंका अकादमी वतीन त्सुनामी पिडेस्तां खातीर कार्यावळ आयोजीत करून तांकां पंचवीस हजार रुपयांची अर्थीक मजत केली. झंकार टेलिफिल्मान आयोजीत केल्ले नृत्य सर्तींत तिच्या शिश्यांनी पयलें इनाम मेळयलें. दूरदर्शन तशेंच सह्याद्री चॅनला वयल्यान ताचें प्रसारण जाल्लें.

खंयचेंय कार्य सिद्धीक व्हरपाक जाय जाल्यार आत्मविस्वास, जिद्द आनी खर कश्ट घेवपाची तयारी आसचीच पडटा. ते भायर आपल्या मनशांचो भावनीक आदारूय तितलोच गरजेचो. प्रियंका ते बाबतींत नशिबवान. तिका

तिचो घरकार विजय, मांय सर्गेस्त सुमित्रा, मांव काशीराम हांचे वांगडा अमिता सलत्री हांचेंय सहकार्य लाबलां. तांच्या रिणांत रावनच म्हापशेंच्या तशेंच गोंयभरच्या भुरग्यां खातीर नृत्य मळा वयलीं नवीं नवीं दालनां उक्तीं करून दिवपाचो हावेस प्रियंका बाळगिता.

◆◆◆

## 29.
# कुशळ वाहनचालक : माया बोरकार



कसलेंय वाहन चलोवपी चालकान जतनायेन म्हणल्यार 'नजर हटी तो दुर्घटना घटी' इतली जतनाय घेवन वाहन चलोवपाचें आसता. वाहनांतल्या प्रवाश्यांचो जीव ह्या चालकाचेरूच आदारून आसता, अशेच एके उत्तम चालक अस्तुरेची आयज आमी वळख करून घेवया.

आर्ले-मडगांव पसून तीन किलोमिटर अंतराचेर राय हांगा रावपी माया बोरकार ही एक उत्तम चालक आनी प्रशिक्षण दिवपी साश्टींतली घडये पयलीच अस्तुरी.

आठ वर्सां आदीं राय हांगा मायान 'साईबाबा ड्रायव्हिंग स्कूल' सुरू केलें आनी आतां मेरेन 570 परस चड बायलां-दादल्यांक वाहन चलोवपाक शिकोवन परवानो मेळोवन दिलो. ती एका प्रशिक्षण घेवपी विद्यार्थ्याक दिसांतल्यान अर्द वर प्रशिक्षण दिता. 'फकत अर्दवरूच?' असो प्रस्न केल्यार ती म्हणटा, 'स्वताक हँडसम वा हुशार समजुपी भुरगीं (दादले-बायलो) गाडयेचें स्टिअरींग हातांत येतकच भियेतात. तांचे खातीर मातसो चड वेळ दिवचो पडटा. हांगा घडयाळीच्या ठोक्या प्रमाण वेळाचें बंधन आसना.

माया बोरकार धावी मेरेन शिकल्या. राय हांगा आपल्या कुटुंबा वांगडा

ती रावता. तिचो बापूय सुरवातीक चालक म्हूण नोकरी करतालो. ताची स्वताची गॅरेजूय आशिल्ली. गॅरेजींत कितल्योशयोच गाडयो दुरूस्त करपा खातीर येताल्यो. माया आपल्या बापायक ह्या कामांत मजत करताली. बापूय खंयूय भायर गेल्लो आसतना सगळें काम ती ल्हवू ल्हवू आपुणूच करूंक लागली.

हें काम करतना आपणेंय गाडी चलोवची असो खूब फावट तिका मोह जातालो. पूण एक दीस तिच्यान कशेंच रावूं नज जालें. तिणें कोणाच्याय आदारा विणें गाडी सुरू केली आनी फाटीं-फुडें घेतली. ल्हवू ल्हवू आत्मविस्वास वाडलो आनी मागीर गाडी चलोवपाचो परवानो मेळयलो. त्या वेळार तिच्या बापायनूय तिची अपुरबाय केली.

कांय दिसांनी 'गणेश बीडी' ची एजन्सी आशिल्ल्या तिच्या बापायच्या इश्टाक ताच्या म्हाल विकपी टेम्पोचेर चालकाची गरज भासली. ही नोकरी तांणी मायाक दिली आनी मायान आपलें काम जापसालदारकेन केलें. गोंयांतूच न्हय जाल्यार कर्नाटकांतूय ती गरज पडल्यार दिसांतल्यान दोन-दोनदां गाडी घेवन वताली. पूण हें काम करतना तिका केन्नाच पुरो जायनासलें. दिवचल ते काणकोण मेरेन ती गाडी घेवन भोंवताली. ही नोकरी तिणें आठ म्हयने केली.

ते उपरांत तिणें दुसरी नोकरी स्विकारली तिवूय चालकाचीच. कांय क्रिस्तांव चलयांचो पंगड इगर्जेंत कॉयर गायनाक वतालो. हें काम रातचें उसरां मेरेन चलतालें. पंगडांत सगळ्यो चलयोच आशिल्ल्यान तांकां महिला चालकाचीच गरज आसली. ते खातीर तांणी मायाची मजत घेतली. त्या चलयांक सदांच इगर्जेंत हाड-व्हर करपाची जापसालदारकी तिणें आनंदान घेतली.

ह्याच पंगडांतल्या कांय बायलांनी मायाची गाडी चलोवपाची पद्दत आनी तिचो आत्मविस्वास पळोवन ड्रायव्हिंग स्कूल सुरू करपाची कल्पना दिली. पूण ह्या कामाक अर्थीक मजत जाय आसली. कांय म्हयने ही कल्पना वाऱ्या सांगाताक उडून गेली. एक दीस आदले मंत्री सुभाष शिरोडकार हांचे

कडेन तिणें आपलो प्रस्न मांडलो. तांणी म्हणलें, 'म्हजे कडेन चडश्यो सरक
नोकरी दियात म्हूण सांगपी चलयोच येतात. पूण वेवसाय (ड्रायव्हिंग स्कूल
करपाची धिटाय दाखोवपी तूं पयलेंच चली' अशें म्हणून तांणी माया
शाबासकी दिली आनी फावो ती अर्थीक मजतूय केली. ती सुभाषाचे खू
उपकार मानता.

तिचे कडेन व्हडा प्रमाणांत गाडी चलोवंक शिकपा खातीर बायल
येतात. तशेंच दादलेय. 55 वर्सांचे एके व्यक्तीक एका म्हयन्यांत गा
शिकोवन तयार केल्ल्याचेंय ती अभिमानान सांगता. फकत धाकट्यो गाड
चलोवन ती थांबली ना. ट्रक आनी बसूय ती चलयता. तिचे कडेन अवज
वाहन चलोवपाचोय परवानो आसा. सुमो, कॉलीस गाडी घेवन तिणें मुंब
शिर्डी, बेळगांव, धर्मस्थळ, कारवार हांगा प्रवास केला. रस्त्यार गाडी बं
पडल्यार ती सारकी करपाची हिंमत आनी कळाशीय तिचे कडेन आसा. प्रवा
करतना बरेच फावट दादले चालक आशिल्ली रस्त्यार बंद पडिल्लीं वाहन
तिणें सारकीं करून दिल्यांत. जिद्द आनी खर यत्न मनशाची कार्यसिध्
करता हाचेर मायाचो खूब विस्वास. संवसाराचो गाडो दादलो बायल दोगांयनी
मेळून चलोवपाचो आसता अशें ती म्हणटा. माया खऱ्या अर्थान स चक्रांच
गाडी चलयता आनी संवसाराचो गाडोय!

◆◆◆

# 30.
# भारती बांदोडकार



कुंडयचे ‘पीसफूल सोसायटी’ची संस्थापक आनी कार्यकारी वांगडी तशेंच ‘गोवा लोक समिती’ची संस्थापक भारत बांदोडकार हें एक उमेदी व्यक्तीमत्व.

1977 सावन भारती समाजीक चळवळींत आशिल्ली. मागीर लोकनायक जयप्रकाश नारायण हांच्या फुडारपणा खाला तिणें 1978 त ‘छात्र युवा संघर्ष वाहिनींत’ प्रवेश केलो. 1978 त पवनार, वर्धा हांगा संत विनोबा भावेच्या फुडारपणा खाला जाल्ली ‘आंतरराष्ट्रीय महिला परिशद’ आनी ‘आंतरराष्ट्रीय सर्वोदया संमेलनां’त वांटेकार जाली. 1980 त मध्य प्रदेशांतल्या ‘किशोर भारती’ हांगा समाजीक कार्यकर्ती म्हूण तिणें वावर केलो. भारतीच्या दिश्टीकोणाचो आवाठूय ते खातीर जातपात, प्रांत, धर्माच्यो शिमो बळांटून व्यापक जाल्लो. ताची देख आमकां तिचो घरकार कुमार कलानंद मणी हांकां पळयतकच मेळटा.

गोंयच्या बायलांचे उदरगतीचे नदरेन तिणें पीसफूल सोसायटीच्या पांख्या खाला महिला विभाग आनी महिला रोजगार केंद्र तशेंच ग्रामीण महिला मंचाचीय थापणूक केली आनी बायलां खातीर कायदो, बँकींग, भलायकी,

राजकारण, शिक्षण, बायलां खातीर खाशेल्यो सरकारी येवजण्यो हांचे वि
म्हायती मेळपाचे नदरेन कार्यावळी आयोजीत केल्यो.

प्राकृतीक शेतकामाक उबारी मेळची हे खातीर तिणें गांयडोळ निर्मित
अळमी उत्पादन, किचन गार्डनिंग, टॅरेस गार्डनिंग हांचीं शिबिरां घेवन लोकां
प्रशिक्षण दिवपाची तजवीज केली. तशेंच सोलर ट्रेनिंग कॅम्पूय आयोजीत केले

तिणें इंडियन मेडिकल असोसिएशन, फोंडें, डायबेटीक असोसिएशन
कोंकण फांटो आनी दोतोरांचे मजतीन टी.बी., डायबेटीस, डायपरटॅन्शन
सांदेदुखी अश्या दुखण्यांचेर दादले आनी बायलां खातीर शिबिरां आयोजी
करून तांचेर उपचार करून घेतले.

ती पीसफूल सोसायटीच्या बायलां विभागाची तशेंच ‘स्वराज्य’ च
निमंत्रक, कोंकण विभागाच्या डायबेटीक असोसिएशन आनी भलायकी केंद्राच
वांगडी आशिल्ली. भारती बहुश्रूत लेखकूय. तिणें बिम्ब, सुनापरान्तांतल्या
परिसर, कायदो, शिक्षण, समाज असल्या विशयांचेर बरप केलां. तिची वज्रकणी
तूं गायत्री-तूं गंगोत्री हीं पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत.

तिका मित्रा बीर पुरस्कार, गोंय सरकाराचो यशोदामिनी पुरस्कार फाव
जाला. तशेंच मडगांव हांगा तिचो नागरी सत्काररूय जाला.

आपलो घरकार कुमार कलानंद मणी आनी धुवो भक्ती तशेंच श्रध्दा हांच
सहकार्य आनी शंबरा परस चड सहकर्मींचो सांगांत तिका आपलें कार्य फुड
व्हरपाक तांक दिता अशें भारती म्हणटा.

◆◆◆

31.

# आराम म्हणल्यार हराम : भाग्यश्री भास्कर नायक



मूर्त ल्हान कीर्त म्हान - हाचो प्रत्यय भाग्यश्रीक पळयतकच येवचो. तिचे हे ल्हान मुर्ती खातीर तिका फोंडेंच्या गावणें गांवचे लोक 'चिरपूट' ह्या नांवान वळखतात.

भाग्यश्री भास्कर नायक मूळची भामय-उसगांवची. पयलींची लक्ष्मी धोंडू नायक. घरांत सामकी गरिबी आनी खावपी धा तोंडां. दोन भाव शाळेंत वताले आनी स भयणीं घरांत आसताल्यो. तांचे मदीं भाग्यश्री व्हडली. बापूय जाणटो जाल्ल्यान ताका शेताचें काम जमनासलें. तेन्ना ताच्या आदाराक कामाक वचपाक भावां मदीं झगडीं जातालीं. हांव ना तूं ना करीत ते केन्ना केन्ना मारामारीचेर येताले. शेताच्या कामाक झगडीं, माडार चडपाक झगडीं, शेतांत मेरो काडपाच्या कामाक झगडीं. दिसपट्टीं चलिल्लीं तीं झगडीं पळोवन बेजारिल्ले भाग्यश्रीन आपूण तीं कामां शिकतलें म्हूण निश्चेव केलो. तिणें आपल्या भयणीं सयत बापाय वांगडा सगळ्या कामांत फुडाकार घेतलो आनी सगळीं कामां शिकून बापायची शाबासकी घेतली. शेतांत मेरो घालपा पासून जोत धरपा मेरेन भाग्यश्री फिशाल जालें. बापाय वांगडा गंवडी कामाक वचून संवसाराक आदार करूंक लागलें. धुवो म्हज्या संवसाराचो आदार अशें बापूय व्हडा अभिमानान सगळ्यांक सांगतालो.

लग्ना उपरांत बायलेची जापसालदारकी घोवाचेर आसता. पूण भाग्यश्रीच्य नशिबांत सगळेंच उरफाटें. बेबद्या घोवान गाळयो आनी मारा बगर कांयच दि ना. तेन्ना भाग्यश्रीन घोवाचें घर सोडलें आनी आपल्या चार भुरग्यांक घेव आवयगेर येवन रावली. भुरग्यांक खूब शिकोवपाचे जिद्दीन कामाक लागली शेतांत वचून लुंवप, मेरो घालप, जोत धरप, भाटांनी नाल्ल पाडूंक वचप आंब्या-काजूंच्या झाडार चडून फळां पुंजावन दिवप, गंवड्याच्या कामाव वचून शिमीट कालोवपा पासून बेतो घालप, चिरे तासप, स्लॅब घालप, प्लास्टर करप, बांय बांदप, शेतांतलीं सगळीं कामां करप अशीं कामां करपाक लागली. सट-सट करून आनी सवाय भितर कामां करपी भाग्यश्रीक शेजारी- पाजारी आनी आशिकुशीच्या गांवांतले लोक मुद्दम कामां दिवपाक लागले. भाग्यश्रीन आपल्या कामाचें मोल आपूण जावन केन्ना सांगलें ना. तिणें म्हणचें 'पयलीं म्हजें काम पळयात, आनी मागीर पयशे दियात.' तिच्या कुशव कामाचेर खूश जावन तिणें केल्ल्या कामाचें मोल मेळूंक लागलें. वयल्यान इनामूय मेळूंक लागलें. ते खातीर तिका आनीकूय काम करपाची उमेद येवंक लागली.

'हीं सगळीं कामां हांव म्हज्या बाबा कडल्यान शिकलां. आयज बाबा संवसारांत ना. पूण जेन्ना हीं कामां करून म्हज्या हातांत चार पयशे येतात तेन्ना मनाक समाधान भोगता. आराम म्हणल्यार हराम. हरामाच्या पयशांक केन्नाच हात लावचो न्हय आनी इत्सा आसता थंय मार्ग आपशींच उक्तो जाता हीं बाबाचीं उतरां म्हाका याद जातात'. अशें म्हणून ती बापायन बरी देख दिल्ले खातीर ताचे उपकार मानता. भाग्यश्री कामाक भायर सरता तेन्ना तिची एकशें धा वर्सांची जाणटी आवय तांदूळ वेंचून दवरप, सान्न मारप, आपले कपडे उमळप अशीं बारीक कामां करून तिका आदार करता.

आपल्याक जशी बापाय कडल्यान देख मेळ्ळी तशी आपल्या भुरग्यांकूय बरी देख दिवन, तांकां बरें शिक्षण दिवन, तांचो बरो फुडार घडोवपाची आस्त

ती बाळगिता. आपल्याक आतां जमलेंना तरीय भुरग्यांक फुडाराक स्कुटर घेवंक मेळची आनी आपल्याक तिचेर बसूंक मेळचें ही तिची इत्सा. ही इत्सा आपूण पुराय करतलीच हे जिद्दीन ती दीस-रात कश्ट करता.

◆◆◆

## 32.

# कट्टटेंतय गिरेस्तकाय दाखयता शुभांगी नायक



जिद्द आनी म्हत्वाकांक्षा आसल्यार कुस्कुटाकूय मोल हाडूं येता. भायर उडयिल्ल्या वस्तूंक मोलादीक करूं येता आनी ताची जिती जिवी देख्र म्हणल्यांर शुभांगी मोहन नायक.

शुभांगीक उजवातीचे पुडे, गेल्ले बल्ब अशा भायर उडोवपाच्या वस्तूंतल्यान भुरग्यांचीं पॅनां दवरपाक स्टॅण्ड, वणटीर हुमकळावपाच्यो वस्तू अशो तरातरांच्यो सोबीत वस्तू फकत आवड म्हूण तयार करपाक आवडटाल्यो. तिचो घरकार मोहन ड्रॉईंग टिचर. शुभांगीच्या हातांतली कला समजून ताची तोखणाय करपी, गरज पडटा थंय तातूंत सुदारणा करपी. तिचे संवसार बागेंत चार सोबीत फुलां. संगीता, स्वाती, पूजा आनी सुलक्षा. शुभांगीक आपले संवसार बागेंतल्या फुलांक फुलयतना घरकाराच्या हाताक हातभार लावचो अशें दिसतालें. देखून ती शिवणकाम, पेंटींग करून तसो यत्न करताली.

भुरग्यांचे वाडटे पिराये वांगडा तांचो खर्चूय वाडटा. ते खातीर शुभांगीन एक वेगळी वाट सोदून काडली. तिणें सुकिल्ल्या झाडांचेर सोबीत नक्षीकामां केलीं, कट्टट्यांची आनी माडांच्या पोयींचेरूय सोबीत रंग पितारून तीं भायर झाडाक हुमकळावन दवरलीं. त्यो वस्तू पळोवन थंय सावन वचपी हिप्पी

सामके अजापीत जाले. तांणी त्यो वस्तू विकत्यो तर घेतल्योच, दुसऱ्या दिसा आपल्या इश्टांकूय घेवन आयले. सगल्यो वस्तू खपल्यो.

कश्टांक पर्याय ना अशें मानपी शुभांगीन मागीर फाटीं वळून पळयलें ना. कट्ट्यांच्यो वेगवेगळ्यो कलाकृती करपांत ती फिशाल जाली. कट्ट्यां पासून कांकणां, गणपती, जनावरां, की चेन, पॅन स्टॅण्ड, शोपीस... तरातरांच्यो वस्तू. तांचे पसून कांय जायना अशें ना. शुभांगीचें खाशेलपण म्हणल्यार कट्ट्यांचीं कपां आनी चार कट्ट्यो एकठांय करून चटणी, सांबार वा सुको मेवो दवरपा खातीर केल्लीं आयदनां. कपांचो खप बरो जाता आनी चार कट्ट्यांचीं आयदनां व्हडल्या व्हडल्या हॉटेलांनी खपतात.

कसलेंय काम आसूं, ताका खर कश्टाची जोड जाय. ह्या वेवसायांतूय तशेंच. पयलीं नाल्ल पाडप, ते एक्सो ब्लेडीन कापप, वेर आयिल्ले नाल्ल ह्या कामाक उपकारनात. त्या नाल्लांचीं वळीं मागीर सुकोवन घेवप. सुकिल्ल्या गुडगुड्यांचें तेल काडप आनी कट्ट्यांक कानशींनी घांसप. ताका फायली मारपूय म्हणटात. मागीर सॅण्ड पेपरान दोन-तीन फावटीं पॉलीश करप. जितली घांसता तितली कट्टी चकचकीत आनी सुळसुळीत दिसता. दिसपट्ट्या वापरांतल्यो वस्तू, जशीं कपां वा हॉटेलांत वापरपाचीं आयदनां, तांचेर कॅमिकल्सांचो वापर करिनात. ताचो वापर फकत शोपिसां खातीर करतात. उपरांत त्या कट्ट्यांक जाय त्या डिझायनांत कापप. डिझायन पितारपाक शुभांगीक तिच्या आर्टिस्ट घरकाराचोय आदार मेळटा.

गोंयांत कितलेशेच कडेन तिणें आपल्या वस्तूंचें प्रदर्शन आयोजीत केलां. तशेंच तिणें जयपूर, कोलकाता, इंदोर, दिल्ली, बडोदा, सुरजकुंडचो क्राफ्ट महामेळावो अशा सुवातांनीय आपली कला प्रदर्शीत केल्या. तिचे कलेक कला अकादमी, हॅन्डीक्राफ्ट, नेवगीनगर, केंद्र सरकाराचे मिनिस्ट्री ऑफ टॅक्सटायल्साचे पुरस्कारूय फावो जाल्यात.

अशा कलावस्तूंक मार्केट मेळप गरजेचें. त्या कामांत आदार करपाक

तिच्या घरकारान स्वेच्छानिवृत्ती घेतली. काम वाडलें तशे चार लोक
कामाक लावन तांच्या संवसाराक हातभार लावपाचें पुण्यूय तिका मेळ
कट्टयांचो धुल्ल आंगार पडटा, त्यो घांसपाचे कश्टूय घेवचे पडटात
पोटतिडकीन काम केल्यार त्याच धुल्लांतल्यान, कट्टेंतल्यान सुंदरतायेचें द
घडोवपी सोबीत कला निर्माण करूं येता.

पयलीं म्हणटाले 'कट्टेंत नाक बुडोवन जीव दी, नाजाल्यार कट्टी घे
भीक माग'. कट्टी म्हणल्यार दळिद्र अशें मानताले. पूण आयज ती परिस्थि
ना. गिरेस्तांतले गिरेस्त मनीस कट्ट्यां पसून केल्ल्यो तरातरांच्यो वस्तू वापरता
आमचे कडेन कट्टेच्या कपांत गंजनाची च्या पिवपी कितलेशेच कला मो
तुमकां पळोवंक मेळटले.

## 33.
# हरहुन्नरी व्यक्तीमत्व फर्मिना खंवटे



'म्हजी आवय' तियात्र पालकार आयलें. फांकिवंत तियात्रिस्तांनी तातूंत पार्ट केला. तातूंत एका सान भुरग्यानूय पार्ट केल्लो. तें तियात्र सगळ्या लोकांचे तोखणायेचो विशय जालें. कित्या खातीर? भुरग्यान पार्ट केला म्हूण? तातूंत कितें नविदाद? नविदाद आशिल्ली, ती तियात्रांत सान भुरग्यान पार्ट केला म्हूण न्हय जाल्यार त्या बारा वर्सांच्या भुरग्यान तें तियात्र बरयलां म्हूण. तें सान भुरगें आशिल्लें फर्मिना ग्रासियस आतांचें फर्मिना खंवटे.

'म्हजी आवय' चे गोंय आनी कारवार मेळून सुमार पांचशे प्रयोग जाले. फर्मिनाचें हें पयलें तियात्र. ते उपरांत तिणें केन्नाच फाटल्यान वळून पळयलें ना. तियात्राची संहिता बरोवप, कांतारां बरोवन तीं गावप आनी पालकार पार्ट करप हातूंत फर्मिना रंगून गेलें. पालका वयले नामनेचे तियात्रिस्त एम. बॉयर, जासिंत वाझ, ग्रेग, जोसेफिन आनी त्रियो रॉम, टॉम, रेमी हांच्या सांगाताक तिणें काम केलें.

1984 त 'आमची चूक' हें कोंकणी फिचर फिल्म निर्माण करपाचें धाडस दाखोवपी फर्मिना ही पयली बायलमनीस. 'आमची चूक' ची कथा, पटकथा, गितां बरोवन गायिका आनी मुखेल अभिनेत्रीचेंय काम तिणेंच केल्लें. पूण

दुडवांचे अडचणीक लागून तें फिल्म पूर्ण जावंक पावलें ना.

'आमची चूक' ऑडियो कॅसेटींतलीं णवूय कांतारां मात खुबूच लोकप्रि जालीं. इमेलिओ क्रूज हांणी संगीतबध्द केल्लीं हीं कांतारां आकाशवाण वयल्यानूय प्रसारीत जातात. तिची 'उगडासाची भेट' ही ऑडियो कॅसेट ति आपले धुवेक ओंपल्या.

फर्मिनाच्या 'कोण फसलो' ह्या नॉन-स्टॉप तियात्राचे सुमार सत्तरे प्रयोग जाल्यात. ह्या तियात्राचें लेखन, दिग्दर्शन, अभिनय आनी निर्माती तीच आशिल्ली.

कोंकणी पदां स्वता बरोवन तांचे ऑडियो आल्बमूय तिणें काडल्यात सध्या ती कोंकणी आनी हिंदी टेलिफिल्मां, टीव्ही सिरीयलांनी तशेंच फिच फिल्मां खातीर संहिता बरयता.

पूण फर्मिना गोंय सरकाराच्या निर्शेवणी हाडपाच्या वेव्हाराचेर सामव बेजार आसा. गोंयच्या कलाकारांक सरकारा कडल्यान कसलीच अर्थीक मज मेळना. फर्मिना फिल्म सेंटर असोसिएशनाची वांगडी आसा पूण तिका सरका कडल्यान कसलेंच प्रोत्साहन मेळ्ळें ना. आपलें स्थान तिणें आपल्या बळाचेरू निर्माण केलां. ही तांक सगळ्याच कलाकारां कडेन आसना. अर्थीक मज विणें गोंयच्या कलाकारांची कला चिड्डून उरता, ते खातीर सरकारान पावल उखलूंक जाय अशें तिका दिसता. नवे पिळगे खातीर अभिनय, दिग्दर्शन अश विविध मळार फावो त्या प्रशिक्षणाची वेवस्था केल्यार गोंयच्या कलाकारां गोंयां भायर वचून आपलें नांव करपाची गरज पडचना अशें तिका दिसता

फर्मिनाक समाजसेवेचीय खूब आवड. आपल्या दारांत आयिल्ल गरजेवंतांक ती आपले परीन आदार करता. गरजेवंतांक आदार करप हा सारकें पुण्यायेचें काम ना अशें फर्मिनाक दिसता.

◆◆

34.

# सावित्रीबाईची धूव : पार्वती



पार्वतीन आयज पिरायेची पन्नाशी हुपल्या. कुळारचें नांव कमला महाबळेश्वर. मूळ घर कारवार. आतांची पार्वती धनंजय भट प्रभू. शिरोड्या रावता. तुमकां आमकां खंयचेय इमारतीचीं धा-पंदरा सोंपणां चडटा म्हणसर खरस मारता. कमरांत चडटा. सोंपणां चडपाच्यो भानगडी नाकात म्हणून आमी लिफ्ट सोदतात. पूण पार्वती आयज लेगीत सटसट करून माडार चडटा आनी माड पाडटा. हय. आपल्या भाटांतले आनी शेजाऱ्याचेय.

पयलीं ती जिवान धडधाकट आशिल्ली. पाटी कशी लांबरूंद. घरच्या गोरवां-पाडकांचीं, भुरग्यांचीं आनी घरांतलीं कामां अर्थातच तिकाच करचीं पडटालीं. पार्वती तशी बरोवपा-वाचपा पुरतीच शिकल्या. पूण भुरग्यांनी खूब शिकचें ही तिची इत्सा. ते खातीर ती धडपडटा. पंदराव्या वर्साच लग्न जावन गोंयांत आयिल्ली. कारवारची आशिल्ल्यान कन्नड येता. अर्दी-मर्दी उतरांतल्यान ती जाणवता. शिरोड्या ती रावता तें रान. ताका लागून गरज म्हणून ती माडार चडपाक शिकली. तशी धिटायेची बायल. स्वताचीं कामां स्वताच करपांत विस्वास दवरपी.

घरांत पुजा आशिल्ली. घोवान बाणावलेच्या पाडेल्याक नाल्ल पाडूंक

आपयिल्लो. आयज येतां फाल्यां येतां अशें म्हणून आयलोच ना. भुरगींच सामकीं ल्हान. पुजा तर लागीं पाविल्ली. गणेसपुजेक नाल्ल जाय आशिल्लो. हो नाल्ल हाडटली खंय सावन? तिणें विचार केलो. हांव दादलो नासलीं म्हणून कितें जालें? दादल्यांक जमता तीं कामां बायलांक जमनात? यत्न करून पळोवपाक कितें हरकत आसा? चिंतलें आनी हिंमत केली. गणेसपुजेक नाल्ल तर जायच. म्हाळसा नारायणीचें नांव घेतलें. सुमाची दोरी घेतली, कोयतो घेतलो आनी हाडाच्या पाडेल्यावरी लागली धेंपां मारूंक माडार! एकाच नेटार वयर तेंगशेर पावली आनी झपझप करून कोयत्याचे घाव घालून पांच-स सुक्यो पेंडी उडयल्यो. नाल्लांचो आवाज आयकून तिचो घोव धांवत आयलो. ताका दिसलें ताणें आपयिल्लो पाडेली येवन नाल्ल पाडटा. पळयत जाल्यार माडार हें जोगूल! हाची दांतखिळीच बसपाची पाळी. थंय पार्वती घामान थपथपिल्ली. मात त्या वेळार आनी त्या आवेशांत पार्वती ताका ‘दुर्गामाता’ कशीच भासली. आपणाक जल्मांत जें जमलें ना तें हे अस्तुरेन झप्प करून करून दाखयलें.

त्या दिसा पार्वतीक धीर आयिल्लो. आत्मविस्वास मेळिल्लो. दादले जें करपाक शकतात तें बायलोय करूंक शकतात. मागीर ते नाल्ल पाडप काय जायना. त्या दिसा सावन ती आत्मविस्वासान आपल्या भाटांतले माड पाडपाक लागली. तिचें कर्तूब पळोवन शेजारीय तिका माड पाडपाक आपयताले. पाडेली पार्वती म्हणून ती नामनेक पावली.

दादल्यां भशेन माड पाडप इतलेंच पार्वतीचें कर्तूब ना. पार्वती लग्न जावन आयली तेन्ना थंय वीज नाशिल्ली. रस्ते नाशिल्ले, शाळा पयस आशिल्ली. पार्वती पांचवी मेरेन शिकिल्ली, पूण चलयांनी खूब शिकचें अशें तिका दिसतालें. तिणें आपल्या यत्नांतल्यान गांवच्या सरपंचा कडेन खेपो घाल-घालून आनी मागण्यो कर-करून शाळा सुरू करपाक लायली. अपरेची सोय केली. वीज नाशिल्ल्यान विजेचें म्हत्व सांग-सांग-सांगून सरपंचा फाटल्यान

लागून वीज मेळटा तशी केली. सुरवातीक ती एकलीच गांवांत ह्यो गजाली जावच्यो म्हूण पंचायतींत खेपो मारताली. पूण लोक भगल्यो मारतात तें पळोवन तिणें वाड्या वयल्या बायलांक एकठांय करपाक सुरवात केली. तांकां शिक्षणाचें म्हत्व समजावन सांगलें आनी तांकां घेवन ती सरपंचा सरी वचपाक लागली. ताका लागून सरपंचाक तांच्या मागण्यां कडेन गंभीरतायेन पळोवचेंच पडलें. अशे तरेन तिच्यो पुलीस, शिक्षक, समाजवावुरपी, बँक अधिकारी अशा सगळ्या घटकां कडेन वळखी जाल्यो. ह्या वळखींचो वापर तिणें वाड्याचे सुदारणे खातीर केलो, आयजूय करता.

संत बहिणाबाई आनी माता सावित्रीबाई फुलेची ही खरी धूव म्हणची पडटली. कारण जशें चलयांनी शिकचें अशें तिका दिसता तशेंच चलयांनी संस्कार मानून वागचें, वावुरचें अशेंय ती सुचयता. आयच्या रंगीत जगांत चलयो वायट गजालींचे भकीक पडटात. हें सगळें सुदारणेच्या नांवान घडटा. चलयांच्या हातांतल्यान चुको जातात. मागीर आयुश्यभर तांकांच त्यो भोगच्यो पडटात. समाजवावुरप्यांनी हाचेर जाग्रुताय घडोवन हाडची अशी तिची मागणी आसा.

आतां जाणटेंपण आयिल्ल्यान आदलेवरी नाल्ल पाडप जायनात देखून सरकारान एकाद्रें नाल्ल पाडपाचें यंत्र आपणाक दिवचें अशी तिची मागणी आसा.

◆◆◆

# 35.
# आवडा व्हिएगश



दिसाळ्यांनी सदांच बलात्कार, अन्याय, भ्रश्टाचार, सुनेचो छळ, सुनेक लासून मारली, घोवान मारली, बायलेचो खून अश्यो बातम्यो वाचपाक मेळटात. ह्यो बातम्यो आतां सदच्योच जाल्यात अशें म्हणून कांय जाण मसालो लावन छापिल्ल्यो बातम्यो वाचून मनरिजवणूय करून घेतात. जायते जाण अस्वस्थ जातात. पूण 'कितें करतले!' अशें म्हणून ओगी बसतात. पूण हें सगळें वाचून तें आडावं येता... न्हय, आडावपाक जाय... हांव आडायतलें अशें म्हणून ते नदरेन प्रत्यक्ष कृती करपी अस्तुऱ्यो उण्योच. मडगांवची आवडा व्हिएगश तातुंतली एक.

फकत काकुळट आनी चुरचुरे करचे परस प्रत्यक्ष कृती करून असले अन्याय, अत्याचार आडावपाच्या कामांत चानयेचो वांटो घेवचो अशें म्हणून 1992 वर्सा तिणें 'बायलांचो एकवट' ह्या मंचाची स्थापना केली. हें नांवूय तशें सूचक. बळगें दिवपी. आवडाक वकील जावपाची इत्सा आशिल्ली. पूण शिक्षकी पेशा, संवसार, भुरगींबाळां, ब्युटी पार्लर अशा व्यापांतल्यान तें शक्य जालें ना. मागीर तिणें शिक्षकाची नोकरी सोडून दिली आनी बायलांच्या प्रस्नां कडेन लक्ष केंद्रीत करपाचें थारायलें.

अशे तरेच्यो बायलां वयल्या अत्याचाराच्यो घडणुको घडिल्ल्याची खबर कळटा तेन्ना तेन्ना त्या संबंदांत कारवाय करपाची मागणी करतना संबंदीत अधिकाऱ्यांक घेराव घालून तांकां हें मंडळ नाका शेवट करता. अशे तरेच्यो घडणुको खंयच्या ना खंयच्या चेपणा पोंदां चिड्डून उरूंक जायनात हाची जतनाय ती घेता. अन्यायाक वाचा फोडपा खातीर कसल्याय संघर्शाक तिची तयारी आसता.

बायलां वयल्या अत्याचारांक वाचा फोडप, तांकां मजत करप, कायद्याचें मार्गदर्शन करप, आदार करप ह्यो गजाली फकत गोंयां पुरत्योच मर्यादीत नात. इंटरनॅटा वरवीं गोंयां भायर आनी भारता भायर लेगीत जावपी घडणुकांचेर नदर दवरून बायलांक जाय ती मजत दिवपाचो तिचो वावर चालू आसा. ह्या अर्थान हें काम बरेंच मोलाचें मानपाक जाय. आंकडोच दिवपाचो जालो जाल्यार आतां मेरेन सुमार 1000 केशी हाताळून तातुंतल्या सुमार 500 वेगवेगळ्या केशींनी, वेगवेगळ्या प्रकरणांनी तिणें बायलांक न्याय मेळोवन दिला.

'बायलांचो एकवट'च्यो वांगडी तश्यो सदांच चडश्यो व्यस्तूच आसतात. बायलांच्यो समस्या सांगपी, अडचणी सांगपी, मजती खातीर उलो मारपी बायलांचे कितलेशेच फोन खणखणत आसतात. आवडाक तर वकील ह्या नात्यान न्हीद लेगीत घेवपाक मेळना. घरांतलीं म्हत्वाचीं कामां सोडून पुलिशेंनी, कोर्टांनी खेपो घालच्यो पडटात. पूण खंयचेंय काम व्रत म्हणून स्विकारलें काय हें सगळें अपरिपक्व आसता.

अशा वेळार वेगवेगळ्या गजालींक तोंडय दिवचें पडटा. कोण तरी कथीत प्रतिश्ठीत व्यक्ती गुन्यांवकारींत अडकल्ली आसता. आपलो गळो वाटावपाक ती व्यक्ती नोटींचीं बंडलां आवडाक दाखयता. कोण वेगवेगळ्या मार्गांनी चेपण हाडटात. अशांच्या चेपणांक, हांयसांक आवडा भीक तर घालनाच, उरफाटें अशीं हांयसां दाखोवप्याकच बंदखणीचें दार दाखयतली अशें शिटकावन आपूण ह्या झुजांत कितली खंबीर आनी प्रामाणीक आसा

तेंवूय दाखोवन दिता. तिचे विशींचो हो विस्वासूच कितल्याश्याच पिडे
बायलांचो आदार जावन रावला.

आवडाचीं स्वताचीं कांय निश्चीत मतां आसात. आवडा फकत के
लडयना. कोणाय बायलेचे प्रस्न हाताळटना ती तिचे भितर अन्यायाच
विरोधांत लडपाची शक्तूय दिता. बायलमनीस म्हणल्यार कोणाचे तरी हातां
खामसुत्री बावलें न्हय, तिका स्वताची वळख आसा, अस्मिताय आसा, तां
आसा हाची जाणविकाय ती करून दिता आनी तेंच चड म्हत्वाचें.

अस्तुरेच्या आंगांतली तांक वळखूंक लावप आनी समाजांत योग्य स्था
आनी न्याय मेळोवन दिवप, अस्तुरेक समाजांत आशिल्लें दुय्यम स्था
न्हयकारून अशे तरेची मानसीकताय बदलप, कामाच्या निमतान जाव
अर्थीक, समाजीक शोशण आडावप, बायलां खातीर जें कितें शक्य आसा
करतना समविचारी संस्थांची मजत घेवप, अस्तुरेचे समाजीक, संस्कृती
प्रगतींतल्यो अडचणी पयस करप, सान भुरग्यांच्या हक्कां खातीर झगड
पर्यावरणाची राखण करप अश्या मुद्द्यांचेर बायलांचो एकवटचो संघर्श चा
आसा.

◆◆

# 36.
# लीना नायक



'जोगूल' ह्या सदरांत आतां मेरेन खुबश्या बायलांची आगळी वेगळी धडाडी तुमी वाचल्या. सुसाट वाऱ्यावरी ट्रक चलोवपी बायल. माडांच्या खांपीचेर मोट्या आत्मविस्वासान झपाझप धेंपां मारून नाल्ल पाडपी बायल, हातांत खोरें-कुदळ घेवन घरां बांदपी बायल, तीन मिणटां भितर तोंडान नाल्लाचीं सोंडां सोलपी, नृत्याच्या आंगणांत कल्पकतायेचे मोर थुयथूय नाचोवपी, सिनेमाच्या मळार सर्जनशीलतायेच्यो भरारी मारपी अशा तरेकवार बायलांची वळख तुमी करून घेतली. हीं सगळीं हिकमतीच्या, प्रतिभेच्या मळबांत जोगलावपी जोगलां! आयज अशेंच एक वेगळेंच जोगूल तुमच्या म्हऱ्यांत येता.

लीना चंद्रकांत नायक. पारंपय मडकयचें हें एक वीस पंचवीस वर्सांचें तरणाटें चली. शिकपाची खुबूच हौस, पूण घरांतली परिस्थिती गरिबीची. चार भयणी, तीग भाव, आवय आनी बापूय असो घराबो. जोडपी एकलोच बापूय. देखून शिक्षण 9 वी मेरेनूच. आपल्या भावंडांक शिकूंक मेळचें म्हण लीना आपल्या बापाय वांगडा अर्दी मर्दी नुस्तें धरूंक वचूंक लागलें. तिसऱ्यो, कालवां, सुंगटांय तें धरतालें. घरा सामकारूच दर्या. ताका लागून दर्यांत पेंवप,

बापाय वांगडा व्हडें घेवन पोनेळांत नुस्तें धरप, बापाय वांगडा पागेर मारू
नुस्तें धरप हें सगळें तें शिकलें. नुस्तें काडपा खातीर दर्यांत बडयो पुरून दवरू
(फुटाणें) ताचेर जाळें पातळावप हें रातचें काम. फांतोडेच्या पारार जाळां
भांगरा सारकें लिकलिकीत तरेकवार नुस्तें मेळटा. हें नुस्तें घेवन मागीर चली-
बापूय म्हाड्डोळच्या बाजारांत विकूंक वतात. खंयच्या मोसमांत कसलें नुस्
मेळटा हें बापायवरी आतां लीनाकूय खबर जालां. बापाय वांगडा कोबले
घेवनूच लीना भोंवता. मोट्या दांग्याच्यो कुल्ल्यो धरपांत तर लीना सामवें
फिशाल.

लीना सगळ्या भावंडांत व्हड. देखून बापाय वांगडा बऱ्योच
जापसालदारक्यो ताकाय सांबाळच्यो पडटात. तशें लीना नुस्त्याकच वता अशें
ना. नुस्तें धरपाक वता तेन्ना उदकांत बुचकळप्यांक जाल्यार लीनान कितलेशेच
खेप वाटायलां. दर्या उचांबळिल्लो आसतना लेगीत ताणें स्वताच्या जिवाची
पर्वा करिनासतना दोग भुरग्यांक वाटायल्यात.

हें जोगूल झाडा-माडांचेरूय चडटा! आंबो, पणस, काजू, पॅर, चिंचेच्य
झाडार चानयेवरी चडटा. म्हणल्यार खंयचेंय फळ खायनशें दिसलें जाल्या
हरशीं बायलांक झाडार चडपी चल्यांची वा दादल्यांची वाट पळोवची पडटा
हांगा तशें ना. आयलें मनांत, चडलें झाडार!

लीनाची तिसरी कळाशी म्हणल्यार ताका तालवाद्यां वाजोवंक येतात
भजनाची ताका खूब आवड. ताणें फुडाकार घेवन गांवांत युवती भजनी
मंडळाची स्थापना केल्या. सात-आठ जाणांचो पंगड भजनां गावपांत, वादनांत
फिशाल आसा. पाडवो, शिगमो, दसरो, कालो अशा उत्सवाच्या वेळार तांक
भजनाचीं आमंत्रणांय येतात आनी हो पंगड भजनांक वचून आयकुप्यांक
तल्लीन करता.

अजून ह्या जोगलाचीं तासां सोंपूंक नात. लीनान संशयकल्लोळ, वस्त्रहरण,
गोरा कुंभार, मानापमान, मत्स्यगंधा सारक्या नाटकांनीय कामां करून लोक

कडल्यान शाबासकी मेळयल्या. लीना केन्ना तुमकां म्हाड्डोळच्या बाजारांत नुस्तें विकतना दिश्टी पडटलें जाल्यार केन्ना खंय तरी भजन करतना. स्कुटरीची किक मारता आनी झुम्म करून वता नवी दिका सोदपाक हें जोगूल!

◆◆◆

# 37.
# फातिमा डिसा



फातिमाक ल्हानपणा सावन घरांत 'टॉमबॉय' म्हूण वळखतात. ताचें एक कारण म्हणल्यार फातिमा चली म्हणून जल्माक आयलें तरी ताचो पिंडूच चल्यावरी अशें म्हणल्यार जाता. आपल्या वांगडच्या चलयां वांगडा खेळपाचें सोडून तिचें चल्यां वांगडा खेळप, नाचप, गड्ड्यांनी खेळप, मळबांत पतंग हुबोवप, फुटबॉल, कॅरम, कबड्डी, खो खो, क्रिकेट, व्हॉलिबॉल खेळप, इतलेंच न्हय तर चल्यां वांगडा फातिमा चक्क कुस्ती खेळटालें. चल्या इतलेंच धाडस ताच्या आंगांत देखून ताचें सगळें खेळप-वावरप ल्हानपणांत चल्यां वांगडाच.

फातिमाक गाडयो चलोवपाचें आनी गाडयो दुरूस्त करपाचें भोव पिशें. शाळेंतलो अभ्यास मन लावन केल्ल्यान पास जातालें आनी उरिल्लो वेळ स्वताचेच गॅरेजींत गाडयो दुरूस्त करपांत. एकाद्रया फिशाल मॅकानिकावरी फातिमा गाडयो दुरूस्त करता.

सध्या फातिमा डिसा पर्वरीच्या स्वताच्याच हॉली फॅमिली हायस्कुलांत प्रिन्सिपल म्हण काम करता. 1980 वर्सा लग्न जाल्ले फातिमाक अमरेश आनी आश्विन हे दोन चले आसात.

फातिमा डिसान सुरू केल्ल्या इश्कॉलांत सुरवातीक धा भुरगीं येतालीं. ते सुवातेर आतां सुमार 1600 भुरगीं शिक्षण घेतात. शिक्षणाचें कार्य तिणें व्रत म्हणून हाताळपाक सुरवात केल्या. शिक्षणाचे बाबतींत गरिबांक येवपी अडचणींचेर फातिमा उपाय सोदून तांचो शिक्षणीक प्रवास सुखाचो करता.

फातिमाक तरणाटे पिराये सावन समाजीक वावराची आवड. शेजराचो कोणूय दुयेंत पडलो अशें कळटकच धांवलेंच तें ताका घेवन हॉस्पिटलांत. दुयेंत मनशाक फकत हॉस्पिटलांत व्हरून आपली जापसालदारकी सोंपली अशें तें मानिना. ताचो फॉलोओप करप, गरज पडल्यार ताचो खर्च करप हेंवूय फातिमा आपलें कर्तव्य मानता. स्कुलांतल्या प्रवेशाचे बाबतींत भुरग्यांक येवपी अडचणी पालकांची परिस्थिती पळोवन स्वता फातिमाच सोडयता. ताचो हो सभाव पळोवन लोकांनी ताका लोकप्रतिनिधी म्हूण काम करचें असो आग्रो करतना राजकारणांत हाडलें.

राजकारणांत सगळींच मनशां येसस्वी जातातच अशें ना. फातिमा 1994 चे वेंचणुकेंत भोव मतांनी बिनविरोध वेंचून आयिल्लें.

हळदोणें मतदारसंघांत जायत्यो बायलो बेकार आशिल्ल्यो. तातुंतल्या कांय बायलांक मजत करतना तांचे उदरगती खातीर शिवण, हस्तकलांचें दोन वर्ग पयलीं फातिमान सुरू केले. प्रशिक्षण घेतिल्ल्यो बायलो आयज स्वतंत्रपणान आपापले उद्देग करतात हाचें समादान फातिमाच्या चेऱ्याचेर दिसता.

फातिमान जायत्या तरणाट्यांक दुडू घेनासतना नोकऱ्यो मेळोवन दिवन पोटाक लायले. उद्देग करतल्यांकूय तश्यो सुविधा मेळोवन दिल्यांत. 1995 ते 1996 ची बजेट कमिटी, कमिटी ऑन डेलिगेटेड लेजिस्लेशन हांचीय तें वांगडी आशिल्लें.

संघर्शाच्या ह्या युगांत अस्तुरेन कोणाच्याच आदाराची गरज पळय नासतना स्वयंभू जावन वावुरचें अशें फातिमाक दिसता.

◆◆◆

# 38.
# सीमा साळकार



सावंतवाडीचें सीमा किशोर आकरेकर गोंयांतल्या सुरेश साळकारा कडे लग्न जालें आनी तांच्या बस्तोडेच्या घरांत रावपाक आयलें तेन्ना घरांतल मोटर वायंडिगाचो पसारो पळोवन घुस्पलें. घर खंयचें? मोटर वायडिंग करण गॅरेजूच ती. वचत थंय वायंडिगांक लागपी वस्तूंचो सूपभर कोयर. पेपरा कुडके. रांदनींतल्या गोबरावरी सगळ्याक गोबरूच गोबर. त्या घरचीं मनश त्याच कोयरांत उठ-बस, खाण-जेवण करतालीं. मांय तर त्या कोयरांतू कातूंक-शिनूंक बसताली. पळोवनूच ताची तकली उसळ्ळी. बरें, कितें म्हणपूय शक्य नाशिल्लें. नवेंच आयलां आनी शाणपणां सांगता अशें कोणू म्हणत म्हूण तें ओगीच रावलें.

एक दीस घोवाक बऱ्या मुडांत पळोवन ताणें ताका हे विशीं सांगलें. तेन्न ताणें सांगलें, 'मोटर वायंडिगाच्या कामा खातीर रोखडीच एक दुसरी कू बांदुया. पूण ह्या कामांत तुवेंय तुज्या फाविल्ल्या वेळांत म्हाका मजत करूंक जाय.'

पयलीं पयलीं सीमाक हें मोटर वायंडिगाचें काम पळयल्यारूच भिरभि मारताली. पूण ह्या वेवसाया खातीरूच ताच्या घरचीं खावन-जेवन सुख आसात आनी तांणी भाटाचो एक कुडकोय घेतला हें ताच्या लक्षांत आयलें

एकदां बेकार बशिल्लें आसतना सीमाक ताच्या घोवान मोटर वायंडिगाचे पार्ट नितळ करपाक सांगले. पूण ताचे मांयन ताका खर आक्षेप घेतलो. तिच्या म्हणण्या प्रमाण जी बायल पेटी वाजोवप, तबलें वाजोवप वा तसलीं दादल्यांनी करपाचीं कामां करता तांणी रांदिल्लें जेवण सुवादीक जायना.

एकदां ताचो घरकार जोरान सामको फणफणटालो. ताणें कोणाचें मोटर वायंडिगाचें काम हातांत घेतिल्लें. तें आठ दिसांनी पूर्ण करून ताका दिवपाक जाय आसलें. नाजाल्यार ताचीं उलोवणीं खावचीं पडटलीं आसलीं. तेन्ना सीमान मनांत जिद्दीची दिवली पेटयली आनी घोव सांगता तशें तशें काम करीत गेलें. जेन्ना त्या गिरायकाक तें काम सीमान केलां हें कळ्ळें तेन्ना ताणें ताची तोखणाय केली.

मागीर मात सीमा मांयचे असवडी घोवाक कामांत आदार करपाक लागलें. त्या कामाचें तें तंत्र-मंत्र शिकलें. पयलीं मोटर तापोवन पिड्ड्यार जाल्ली वायर ब्लेडीन सुसेगादीन कापून ताचे एकान एक कुडके भायर उडोवंक जाय. मोटर वायंडींग करतना आदीं तो कसो नितळ करून घेवंक जाय, उपरांत नवे पेपर कशे जॉयंट करून घेवंक जाय, वायडिंगाचे (टनर्स) पार्ट कशे मेजून घालूंक जाय आनी नव्यो कॉयली कश्यो मेजून घालून भरून काडूंक जाय हें तें शिकलें. मागीर सिल्वर वायरी जॉयंट करून कनॅक्शनां कशीं दिवप, वायर सोल्डिंग करून तें जॉयंट करून दिवन कॉटनटेपिंग कशें करप, मल्टीमिटरान वायरींग करून ताची वायर वेवस्थीत कशी तपासप, नाजाल्यार लासपाची कशी शक्यताय आसता आनी ते खातीर ऑरनिश घालून लायटीच्या बल्बार सुकोवन घेवन मोटर वायडींग करून कशें फिटींग करून घेवप सगळें सगळें तें शिकलें. न्हय तातूंत सामकें कुशळ जालें. सध्या सीमा गॅरेज स्वता सांबाळटा. म्हत्वाचीं कामां स्वता करता. गाडयो स्वतंत्र बुद्दीन दुरूस्त करता. हें कितें वेगळें सांगपाक जाय?

•••

# 39.
# डाकिया डाक लायी...! पोस्ट वूमन रजनी देसाय



डाकिया डाक लाया... पद म्हणत भोंवपी सिनेमांतलो राजेश खन्ना तुमि पळयिल्लो न्हय? तोच कित्याक पोस्टमन म्हणलो काय खांद्याक बोटवे लावन सायकलिंचीं पॅदालां मारीत भोंवपी दादलेच दोळ्यां मुखार येतात. पूण दादल्याचे सुवातेर बायल अशें सामकें उरफाटें चित्र जेन्ना सुरवातीक दिसलें तेन्ना लोकांनी अजापान, उमळशिकेन ह्या बायल पोस्टमनाक पळोवंक सुरवात केली.

ती बायलमनीस म्हणल्यार रजनी संतोष देसाय. चलो चली असो भेदभाव मानिनाशिल्ल्या शिक्षीत घराब्यांतल्यान आयिल्ली रजनी ही सदा सावंताची धूव.

लग्ना उपरांत पोस्टमनाची नोकरी लागली तेन्ना घोवाल्या घरच्यांनी तिका प्रोत्साहन दिवचे बदला, 'समाज कितें म्हणटलो?' हाचो भंय घालून तिका फाटीं ओडपाचोच यत्न केलो. त्या वेळार तिचे फाटल्यान थीरतायेन रावलो तिचो घरकार संतोष देसाय आनी बापूय सदा सावंत.

पोस्टमनाची नोकरी लागतकच रजनीन आपल्या तिनूय भुरग्यांक आपले आवयगेर काल्यां-सांग्यार हाडून दवरले आनी योगायोग म्हणल्यार तिका

नोकरीय कालें-सांगें पोस्टांत मेळ्ळी.

कसल्याय नव्या कामाचे सुरवातीक अडचणी येतात. त्रास सोंसचे पडटात. पांच वर्सां मेरेन संवसार, भुरगीं-बाळां आनी ही दिसूयभर भोंवपाची नोकरी हाचे खातीर रजनीकय मातशे त्रास जाले. पूण चिटयो वांट्टना लोकांच्या सूख-दुख्खांत तांचो सांगात दितना तिका आपूण नकळटां करपी समाजसेवेचो दिश्टावो जालो. तातुंतल्यान मेळपी समादानाचें दालें, जावपी त्रासां परस जड आसलें. कालें-सांगें हांगा धा वर्सां काडले उपरांत तिची बदली मडगांवां जाली. त्या वेळार नव्या पोस्टमनाक गांवचीं घरां दाखोवपा वेळार घडिल्लो प्रसंग अजुनूय रजनीच्या आंगार कांटो उबो करता.

नव्या पोस्टमनाक त्या वाठारांतलीं घरां दाखोवन घरा परतें वतना ती वाट चुकून भलतेच सुवातेर पावली. अचकीत गांवांतल्या रस्ताद सुण्यांनी तिका घेराव घालो. रजनी सामकी भियेली आनी मनांतल्या मनांत देवाक उलो मारूंक लागली. त्याच वेळार थंय सावन येवपी शाळेंतल्या भुरग्यांनी त्या सुण्यांक धांवडावन घाले आनी तिका सारको रस्तो दाखयलो. त्या भुरग्यांक रजनी केन्नाच विसरूंक ना.

जावं पावस, जावं गीम, जावं कुलकुल्याचें शीं रजनीन आपल्या कर्तव्या मुखार ताची पर्वा केली ना. आपलें काम प्रामाणीकपणान करतना तिका लोकां कडल्यान मेळ्ळो आदरयुक्त मोग. तेच खातीर भर वतांतल्यान वतना सामको आग्रो करून पिवयिल्लें लिंबू सरबत जावं शिंयाच्या दिसांनी दिल्ले हुनहुनीत च्यावेक ताका ना म्हणपाक जालें ना.

गांवांत जावं शिगमो जावं होळी कोणेंच तिचो अपमान जाय सारकी तिका वागणूक दिली ना.

सत्तावीस वर्सांचे नोकरेच्या काळांत तिका मेळ्ळो आत्मसन्मान, आत्मविस्वास. त्याच बळग्यार आनी ड्रायव्हराची नोकरी करपी तिच्या घोवाच्या आदाराचेर तिणें भुरग्यांकूय बरें शिक्षण दिलें. व्हडलें चली बीएससी,

चलो फायन आर्ट पदवी जाल्यार तिसरे चलयेन आयटीआयचो टेलरिंग को
केला. तें कपडे शिंवपाचो वेवसाय करता.

पोस्टांतले नोकरेंत भरती जावंक जाय जाल्यार तांच्यो जायत्यो परिक्ष
आसतात. कश्ट करपाची जिद्द आसत जाल्यार ग्रॅज्युएट जाल्ल्या तरणाट्य
चलयांनी लेगीत पोस्टमनाची नोकरी धरूं येता आनी तांच्यो परिक्षा पास करू
पोस्टमास्तराची ग्रेड मेळोवं येता.

सत्तावीस वर्सांचे अखंड सेवे खातीर तिचो वेगवेगळ्या संस्थांनी भोवमा
केला. 2001 वर्सा पोस्ट वूमनाचे सेवे खातीर पेड-मडगांवां सुमन्त केळेकारा
हस्तुकीं सत्कार. 2003 वर्सा 'बायलांचो साद' ची आवडा व्हिएगश हां
हस्तुकीं भोवमान. 2005 वर्सा बीपीएस क्लबाचे वतीन रायतुरकाराचे हस्तुर्क
सत्कार आनी 2006 वर्सा रोटरी क्लब - इनरव्हील क्लब-लायन्स क्लब हांचे
वतीन स्वातंत्र्य सैनिक शारदाताई सावयकार हांचे हस्तुकीं तिचो भोवमा
जालो.

◆◆◆

# 40.
# गौरी गोवेकार



देवाच्या आंगा वयलीं फुलां... पन्नास रुपया... साठ रुपया.... शंबर रुपया... शंबर रुपया पयली खेप.... शंबर रुपया दुसरी खेप.... शंबर रुपया तिसरी खेप पावतो ऽऽऽ सा! असल्यो पावण्यो भोवतेक देवस्थानांनी तुमी आयकल्यात आसतल्यो. चड करून दादलेच पावण्यो करतात. बायलांक पावतोऽऽऽसा म्हणून पावण्यो करतना तुमी पळयलां?

देवळां म्हणलीं काय तांचे म्हाजन, तांचे वांगडी सगळे दादलेच आसतात हो आयजवेरचो आमचो अणभव. पूण ह्या अणभवाचेर मात करीत एक वेगळो इतिहास घडोवपाचो वावर केलो गौरी भवानीशंकर गोवेकार हे कर्तृत्वी अस्तुरेन.

गुजराभाट, कुडका, तळावलेच्या गौरीन फुडाकार घेवन 2004 वर्सा श्रीशांतादुर्गेच्या देवळाची स्थापना केली आनी ह्याच वर्सा देवीचे मुर्तीची प्रतिष्ठापनाय केली. ह्या देवळाचे कमिटीचेरूय सगळीं बायलांच. गौरीताई ह्या कमिटीची अध्यक्ष, वैशाली चोडणकार-उपाध्यक्ष, लक्ष्मी नायक-सचीव, समीरा चोडणकार-भांडारी आनी प्रमिला कृष्णन, मंगला परदेशी, गौरी कामत, वंदना गांवस, सरस्वती भट, श्रीजा विजय हीं कमिटीच्यो वांगडी.

ह्या देवळाचो हालींच वर्सुकी दीस जालो. भटजी विनायक डी. भट हांचे

देखरेखे खाला बायलांनी धर्मीक विधी केले. आरती म्हणल्यो. गांवच्या लोकां खातीर महानिवेद्य करपाची, रांदपाची आनी लोकांक वाडपाची जापसालदारकीय बायलांचीच. उपरांत बायलांनी मनयलीं दिवजां.

'देवीचो नाल्ल - एक हजार एक... एक हजार एक.... एक हजार पांचशें.... पावतोऽऽ सा' हीं पावणेचीं उतरां कानार पडटकच नदरे मुखार उबो रावता तो दादलो. पूण हांगा मात पावणेचो वावर करतालीं सगळीं बायलांच.

सकाळीं धा वरां सावन रातीं णव मेरेन सगळी कार्यावळ शिस्तबध्द रितीन जाली आनी तांणी सिद्ध करून दाखयलें, फकत दादल्यांची मक्तेदारी आशिल्ल्या ह्या मळा वयलें काम बायलांय तितलेच जापसालदारकेन करूंक शकतात.

गौरीन देवळाचे वतीन गांवांतल्या लोकां खातीर निबंद सर्ती, रांगोळी सर्ती अशा सर्तींचें आयोजन केल्लें. भलायकी शिबिरां, पेंटींग, नवरात्रां अश्यो सांस्कृतीक कार्यावळीय हांगा जातात.

गौरीन मुंबयचे 'क्षितीज' हे मतिमंद भुरग्यांचे शाळेंत बारा वर्सां काम केल्लें. अजुनूय मुंबय वतकच ती ताका मुजरत भेट दिता.

◆◆◆

## 41.
# रंग शिंपता... संवसार फुलयता... ताळगांवची रजनीताई कुडव



बायलेच्या आंगांत जर काम करपाची जिद्द, चिकाटी आनी स्वावलंबनान जियेतली हो हावेस आसत तर ती बायल तळपट्या सड्यार लेगीत व्हरून दवरल्यार थंय आपले हिकमतीच्या नेटार भांगरा कणसां पिकयतली अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना. अशे तरेचीं वेगवेगळ्या मळार जोगलावपी 'जोगलां' दिश्टी पडटात. आपलें अस्तित्व, स्वत्व दाखयतात.

रजनीताई कुडव ही आमराल ताळगांवची. फाटलीं 12 वर्सां ती नाल्लांच्या कट्ट्यां पासून खेळणीं आनी हेर वस्तू तयार करपाचो वेवसाय आपल्याच घरा कुशळटायेन करता. आपलो माणकुलो संवसार सांबाळून उरिल्लो वेळ ह्या कामांक दिता.

कट्ट्यांक सोबीत-सुंदर आकार दिवपाची ही कळाशी कुळारा तिणें आपले आवयच्या घरांत शिकून घेतल्या. तिचो काका वसंत कळंगुटकार हो हें काम आपल्या पोटा-पाणयाचो वेवसाय म्हणून करतालो. रजनीताई तेन्ना सातवेंत शिकताली. शाळा, आपलो अभ्यास, खेळ जातकूच फकत विरंगुळो म्हणून ती आपल्या काकाच्या म्हऱ्यांत वचून बसताली. ताणें केल्ल्यो वस्तू ती व्हडा लक्तुबायेन पळयताली आनी तांचेर व्हडा मायेन हात भोंवडायताली.

आपल्याक जी वस्तू आवडटा ती दोळे भरून पळयताली. इतलेंच न्हय तर काकान करून दिल्ल्यो तरेकवार सोबीत-सुंदर वस्तू उखलून आपल्या काळजा कडेन धरताली आनी म्हणटाली - 'इतल्यो सोबीत मुर्ती कश्यो रे तूं करता? दीसभर हे कुडींत बसपाक तुका वाज कसो येना?' तेन्ना काका जाप दितालो - 'बाय, म्हाका म्हज्या बापायन ही कला शिकयल्या. म्हणून तर हांव म्हजें पोट भरपाक शकतां. समाधान मेळयतां. म्हजो घराबो हे कलेनच उबो दवरला. खरें सांगूं बाय, जेन्ना म्हाका कश्टाचे चार पयशे हक्कान मेळटात तेन्ना म्हज्या बापायची प्रेमळ मूर्त म्हऱ्यांत उबी रावता. तुका जर मना सावन ही कला आवडल्या तर फाविल्ल्या वेळांत हांगा येवन बस.'

पूण परतून परतून काकाच्या म्हऱ्यांत बसता तें पळोवन तिचे आजयेन आपले धुवेक सांगलें. 'अभ्यासाचेर सारकें लक्ष दिना' अशें म्हणून तिडकीन आवयन ताका मारलें. काकाक ही खबर कळ्ळी. ताणें ताका 'अभ्यास करून मागीर ही कला शिकून घे' अशें सांगलें. तेंवूय अभ्यास करून लिपचोरयां कला आत्मसात करूंक लागलें.

एकदां काका दुयेंत पडलो. सप्तकभर काम जालें ना. रजनी ल्हवूच वचून काकाच्यो अर्दकुट्यो उरिल्ल्यो वस्तू हाताळपाक लागलें. त्या मुर्तींनी ताणें वेगळेच रंग भरले. काकान भविश्यवाणी केली. 'रजनी कलेचें दायज चलयतलें'. ती भविश्यवाणी खरी जाली.

लग्ना उपरांत ती ताळगांवां आयली. घरची परिस्थिती अशी तशीच. संवसाराक हातभार लायतली जाल्यार स्वताच्या पांयाचेर उबे रावप गरजेचें आशिल्लें. तिणें काका कडल्यान शिकून घेतिल्ले कलेचो वापर करून घेवपाचें थारायलें. बँकेंतल्यान थोडें रीण काडलें. आपणाक जाय तीं आवतां विकतीं घेतलीं. वस्तू घेतल्यो आनी नेटान कामाक लागली आनी तिणें चमत्कार करून दाखयलो. तिच्यो वस्तू सोबीत-सुंदर जाताल्यो. लोक तोखेताले. तिच्या वस्तींक मागणी येवंक लागली.

आपणें केल्ल्या वस्तूंचें प्रदर्शन ती आयोजीत करूंक लागली. माशेल, पणजी, कांपाल, कानपूर, नाशिक, मडगांव, जयपूर, गुजरात, मुंबय अशा सुवातांचेर तिची भोंवडी जावंक लागली. तिची कला तोखेतना तिचे सत्कारूय जाल्यात. गोंयां परस भायल्या राज्यांनी तिचे कलेची चड तोखणाय जाता.

रजनीताई कसल्यो वस्तू करता? नाल्ला पासून गणपतीच्यो मुर्ती, पोपट, कांसव, मुद्यो, माकड, फुलांचे व्हाज, पॅनांचे स्टॅण्ड, सोबीत बदकां, झाडांच्या वांकड्या तिकड्या मुळां पासून घरांत दवरपाच्यो सोबेच्यो वस्तूय रजनीताई करता. तातूंत कल्पकताय आसता, सैम आसता, सुंदरताय आसता. ग्रामीण रोजगार येवजणे खाला ती आपल्या वस्तूंचीं प्रदर्शनांय आयोजीत करता. लग्न सुवाळे, वाडदीस, सण अशा विंगड-विंगड सुवाळ्यांनी तिच्या वस्तूंक बरीच मागणी आसता. माशेलांतल्या एका वस्तू प्रदर्शनांत तर तिच्या कलाकृतींक पयलें इनाम फावो जाल्लें.

रजनीताईचें व्हडपण म्हणल्यार ती आपणाक परंपरेन मेळिल्लें कलेचें दायज सांबाळपाचो तरणाट्यांक उलो मारता. धवाड्या नोकऱ्यां फाटल्यान धांवून आपले भितरली आवड, कला, सर्जनशीलताय मारून उडोवचे परस कला आनी कुशळटाय हांचो मेळ घडयत सुंदर - सोबीत कलाविश्कार घडोवं येता. आयच्या तरणाट्यांनी हो मंत्र जपचो अशें तिका दिसता.

◆◆◆

## 42.
# लविता रोज फालेरो



लविता रोज फालेरो रावता घोगळ – मडगांवां. लविताचें शिक्षण बीएससी बीएड मेरेन जालां. फातोड्डेंच्या रोझरी स्कुलांत मॅथ्स टीचर म्हूण ती नामनेक पावल्या. तिका लागून रोझरींत मॅथ्सांत रिजल्ट सदांच बरो.

लविताचें ऑर्लांडो वांगडा काजार जालें. उपरांत तिणें नोकरेचो राजिनाम दिलो. ऑर्लांडाचे स्वताचे मालकेची पन्नास हजार चौखण मीटर सुवात आसली तातूंत कुकडांचें फार्म आसलें. ते भायर सुपारेचीं देडशीं झाडां, पन्नास केळी, आंबे, पणस, चिंचे झाडां. ऑर्लांडाचेर एकल्याचेर हें सगळें सांबाळपाचो ताण पडटालो. देखून ताणें ताची जापसालदारकी लविताचेर घाली.

आपूण पदवीधर हें मतींत धरिनासतना लवितान मातयेंत हात लोळयले. सुपारेची शेंकड्यां वयली लागवड वाडोवन ती हजारांचेर व्हेली. सगळ्य झाडांक शेण–सारें, बीं–बियाणें, किडी कश्यो मारप सगळें शिकून घेतलें आनि स्वता करपाक लागलें. सुरवातीक तिका तातुंतलें कितेंच कळनासलें. झाडांक कीड लागली तशें लविता निर्शेलें. पूण कोणें तरी ताका ॲग्रिकल्चराचें प्रशिक्षण घेवपाचो सल्लो दिलो. तिणें तीन म्हयन्यांचें प्रशिक्षण घेतलें.

सकाळीं उठप, मानाया कडल्यान गायेचें दूद काडून घेवप, उपरांत रांदप

हीं कामां तिका जमनासलीं. दिसानदीस तिच्या कामाचो आवाठ वाडत चलिल्लो देखून तिणें आपल्या घरा मुखार एक चाळ बांदली आनी सुमार पंचवीस बायल कामगारांक थंय रावपाक दिलें. म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार त्या बायलां कडेन तिणें मजूर म्हूण पळयलें ना. तांची कामांची कळाशी जाणून घेतली आनी तांचे तांचे आवडीचें काम तांकां दिलें. देखून तीं लेगीत मना सावन कामां करपाक लागलीं. बायलांक रांदपाक पॅत्रॉल हाडचें पडटालें. देखून लवितान एक युक्त काडली. तिणें बायलांक सरकारी खात्या कडल्यान बायोगॅसा विशीं मार्गदर्शन दिलें आनी कॉम्प्लॅक्सांत बायोगॅस बांदून दिलो. पन्नास गायांचें शेण मेळटालें. तें उपेगी पडलें. फार्मांतलीं कामां बायलांच करतात अशें ना. तांचे वांगडा लविनाय वावर करता.

मडगांव शारांत तांचे कडलेंच दूद वता. गाये वांगडा बोकडेचेंय दूद तीं विकतात. हालीं जाल्यार लविनान आपल्या फार्मांत बाजरी, नाचणे, भिकणांचेंय पीक काडपाक सुरवात केल्या. शिंयाच्या दिसांनी कणंगां, वाल, तांबडी भाजी, पालक, नाब, टॉमाट, हरव्यो मिरसांगो, चिटक्यो, मुळो, भेंडे हांचेय मळे फुलयता. त्याच वांगडा चिकू, पोपाय, डाळिंबां, केळी, निरपणस अशे तरेचीं झाडांय वाडयल्यांत. ह्यो भाजी-फळां तीं बाजारांत विकतातूच, पूण फकत बाजारांतच विकतात अशें ना. थंय वावुरपी बायल कामगारांक फळां-भाजयो खावंक मेळटात. भाजयांचो ताजो पालो गायांक-बोकड्यांक मेळटा तेन्ना गायो-बोकड्यो भरभरून दूद दितात.

फकत भाजयेचे रोंपे आसात अशें ना. फुलांचीय लागवड केल्या. सूर्यफुलां, गुलाब मोगरी, जाय-जूय, चमेली अशीं फुलांय तिच्या फार्माची सोबीतकाय वाडयतात. सगळ्यांत चड लागवड जाता ती सुपारेची. मोट्या प्रमाणांत मेळपी सुपाऱ्यो ती फोंडेंच्या बागायतदारांनी विकता.

लविनाच्या कामाची दखल घेवन 2007 वर्सा तिका डायवर्सिफायड ॲण्ड इंटग्रेटेड फार्माचो राज्य पुरस्कार फावो जालो.

लविनाचें इतलेंच म्हणणें – स्वताच्यो जमनी आसत जाल्यार त्यो राख
दवरात. जमीन म्हणल्यार आवय, जल्मदात्री. तिका मोग दियात. कारण ति
तुमकां भरभरून दिल्लें आसता. तिच्या उपकारांत रावात. जमनींत भांगरू
पिकोवं येता. तिचें भांगराचें मोल समजून घेयात. जमनी सांबाळात. तात
लागवड करात. फुलां फुलयात, फळां पिकयात, भाजयो रुजयात. मातयेंत ह
घालात. माती तुमकां हात दितली.

◆◆

# 43.
# कुशळ तंत्रज्ञ संगीता नायक



कुळारचें नांव संगीता महादेव सुतार. घोवालें नांव संगीता विलास नायक. बापूय पुलीस इन्स्पेक्टर. बापाय भशेन संगीताकूय आपूण पुलीस जावचें शें दिसतालें. पूण घरांतल्यांचे इत्सेक लागून ताणें पॉलिटेक्निकांत प्रवेश घेतलो. हुशार आशिल्ल्यान इंजिनियरिंगाचो डिप्लोमा पूर्ण करून इन्स्ट्रूमॅन्टेशनाचो कोर्स पूर्ण केलो.

रिजल्ट लागतकच नोकरे खातीर ताचे यत्न चालू आशिल्ले. खबरापत्रांतल्यान ताणें मोदी झॅरॉक्स कंपनींत 'मशीन दुरूस्त करपा खातीर मॅकानिक जाय' अशी जायरात वाचली. इंटरव्यूक येतना पॉलिटेक्निकाची डिप्लोमा सर्टिफिकेट गरजेची अशें तातूंत बरयिल्लें. ताणें बऱ्या गुणांनी डिप्लोमा मेळयिल्ल्यान कंपनीचे जाळवणदार खोशी जाले. मुलाखतीच्या वेळार तांणी ताचें अभिनंदन केलें आनी सांगलें, फकत ऑफिसांत बसून हें काम करपाचें न्हय. ज्या ज्या सुवातांचेर मशिनां रिपेर करूंक धाडटले थंय थंय वच्चें पडटलें. विचार करून कितें तें सांग. पूण संगीतान हें काम आव्हान म्हणुनूच स्विकारपाचें थारायलें. ताका लागून ताणें थंयच आपूण हें काम करपाक तयार आसां अशें सांगलें आनी तें तयार जालें.

उपरांत पंदरा दिसांचे ट्रेनिंगेक संगीता दिल्ली वचून आयलें. बेसिक मॉडेल थंय शिकलें. पूण झॅरॉक्स मशिनां दुरूस्त करपाचें खाशेलें प्रशिक्षण मेळटा तें फिल्डार वता तेन्नाच. संगीताक हे गजालीची पूर्वकल्पना आशिल्ली. व्हडलें बॅग घेवन ह्या त्या ऑफिसांत भोंवचें पडटलें हेंवूय ताका खबर आसलें. तरिकूय ताणें ती जबाबदारी स्विकारिल्ली. गरज म्हूण आनी आव्हानूय म्हूण.

संगीतान सुरवातीक गरज म्हूण नोकरी धरली खरी, पूण मागीर तें ह्या क्षेत्रांत व्हडा उमेदीन काम करूंक लागलें. कंपनींत असलें काम करप्यां भितर तें एकलेंच चली. पयलेच खेपे ऑफिसांत आयलें त्या वेळार वीस-पंचवीस तरणाट्यां भितर आपूण एकलेंच चली. तांचे मदीं रावन काम करपाचें आसा हें चिंतून ताचेर जोगुलूच कोसळ्ळें. पूण त्याच खिणाक ताणें स्वताक 'जोगूल' जावपाचें थारायलें.

अर्थात ताका जेन्ना प्रत्यक्षांत फिल्डार काम करचें पडलें त्या वेळार तरणाट्यांचे थोमणे आयकून घेवचे पडलेच. चल्यांचीं कामां चलयेन करप ही खरें तर तोखणायेची गजाल. पूण तोखणाय करपाचे बदला फकांडां मारतात तेन्ना मनीस कितलो निर्शेता हें सगळ्यांक खबर आसतलें. पूण संगीता निर्शेलें ना. ताणें व्हडा कश्टांन आपलें काम चालूच दवरलें आनी आपलें कर्तूब सिद्ध केलें.

संगीताक आतां आपल्या कामा विशीं बरीच आवड निर्माण जाल्ली. मोदी झॅरॉक्स मशिनाचें सर्व्हिस मॅनेजर म्हूण तें गोंयभर भोंवता. भोंवून फॅक्स, झॅरॉक्स मशिनां तशेंच प्रिंटर्स दुरूस्त करता. लोकूय एक चली इतले कुशळटायेन हें काम करता तें पळोवन अजापीत जातात. तांकां आतां ताची तोखणाय दिसता.

संगीता तशें गायताय बी. आर्ट क्राफ्ट सर्तींनी वांटो घेवन ताणें जायतीं इनामांय जोडल्यांत. तें बऱ्या पैकी ॲथलॅटीक्स लेगीत आसा. राज्य पांवड्या वयले धांवपाचे सर्तींत ताणें इनामां जोडल्यांत. पॉलिटॅक्निकांत तर ताणें

'स्पोर्टस वूमन' हो पुरस्कार मेळयला. ते भायर फॅशन डिजायनिंगांतूय ताणें डिप्लॉमा मेळयला. तें कपडे शिंवपाच्योय ऑर्डरी घेता.

संगीतान आपल्या कर्तुबान आपलें स्वत्व सिद्ध केलें. सध्या तें म्हापशेंचे पॉवर इंजिनियरिंग इंडिया प्रा. लि. हे कपंनींत प्रॉडक्ट सपोर्ट ज्युनियर मॅनेजर म्हूण काम करता. तरिकूय कोणाचेंय झॅरॉक्स मशीन इबाडलें जाल्यार तें दुरूस्त करून दिता. कारण तें स्वताक व्हड समजना. मळबांत उड्डाण मारलें तरिकूय ताचे पांय अजुनूय जमनीचेरच आसात. ताचें कर्तूब हीच खरी आयच्या चलयांक बरी देख.

◆◆◆

# 44.
# विधानसभेंतलें जोगूल व्हिक्टोरियामामी



आयज एका वेगळ्याच 'जोगला'ची वळख करून घेवया. महात्मा गांधी, जॉन ऑफ मार्क, रॉबिन हूडाचो प्रभाव आशिल्लें हें व्यक्तीमत्व. चड आवडीची झांशीची राणी आनी ताकाच लागून जायत हें कर्तुबूय झांशीचे राणीवरीच दाखयलां. ह्या जोगलान विधानसभेंत आपलें अस्तित्व दाखयलां, गाजयलां.

हय. तीच ती झांशीची राणी म्हणल्यार आमची व्हिक्टोरियामामी. जल्म कुडतरे जालो. भुरगेपण गेलें बेळगांवां. बापूय हॅन्री डिक्रूझ रान खात्याचे अधिकारी. म्हणटकच बापाय वांगडा तिचेंय रानां-वनांत भोंवप जातालें. आदिवासी आनी मागासवर्गियां कडेन ल्हानपणा सावनच संबंद आयिल्ल्यान व्हिक्टोरियामामीचीय जीण संघर्शाची आनी मन तांचेच वरी घट आनी सोंशीक जालां आसुये.

विलीनीकरण विरोधी आंदोलनांत तिचो वांटो म्हत्वाचो आसा. 1964 वर्सा विलिनीकरण विरोधी मोर्चो काडून तिणें आपल्या राजकी वावराची बुन्याद घाली. कावन्सिल ऑफ ॲक्शनाची ती वांगडी आशिल्ली. गोंयची सुटका जावन 4 वर्सां जावन गेल्लीं. ह्या झुजांत कितल्याश्याच शेंकड्यां

उपरांत पयलेच फावट गोंयकारांक गोंयचो कारभार धनीपणान चलोवपाची संद मेळोवन दिल्ली. ही संद मेळोवपा खातीर सत्याग्रह सुरू जाल्लो. वेंचणुकेंत महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष सत्तेर आयिल्लो. हो पंगड जरूर गोंयकारांनी वेंचून दिल्लो आनी महाराष्ट्रांतल्यान विस्तारवादी फुडाऱ्यांच्या सल्ल्यान तो आपणालीं धोरणां थारायतालो आनी महाराष्ट्रांतले विस्तारवादी फुडारी लेगीत भारताच्या नकाशा वयलें गोंयचें नांव पुसून उडोवंक भायर सरिल्ले.

सत्याग्रहाचें फुडारपण करपाक 40 जाणांची वळेरी केल्ली. तातूंत व्हिक्टोरियाचें नांव आशिल्लें. कोणूच येवपाचें नांव घेनासले त्या वेळार मामी 280 लोकांक घेवन हाजीर! तातूंत कार टू कार्पेट आसले तशेंच शेतांतलीं कामेऱ्यां, मानाय, सगळ्यांचो आस्पाव आसलो. त्या दिसा तिणें पणजे गाजयली. मुक्त गोंयांतलो हो पयलोच संघटीत सत्याग्रह. सगळ्यांनी बंदखण भोगली आनी गोंयकारांक सूख दिलें.

टप्प्याटप्प्यान तिणें आपले वावर सुरू केलो. अखिल गोंय फळ विक्रेत्यांची संघटना उबारून तांचे खातीर लढो सुरू केलो. सांताक्रूझ आनी हेर गांवांचो आस्पाव पणजी नगरपालिकेंत जावचो न्हय म्हूण समिती स्थापन केली. हे समितीची ती अध्यक्ष. उपरांत तिणें रापणकारांचें आंदोलन हातांत घेतलें. गोंयांतली ही एक मुखेल चळवळ. ते खातीर बंदखणूय भोगली. आंगणवाडी कर्मचाऱ्यांचो प्रस्न थेट दिल्ली व्हरून ताचेरूय तोडगो काडलो. खबरापत्रांचें स्वातंत्र्य, धर्मीक एकचार अश्या गजालींक तेंको दिवन समाजीक बांदिलकाय तिणें दाखोवन दिल्या.

व्हिक्टोरियामामीचे जायत्या संघटनां कडेन संबंद आसात. सांस्कृतीक संघटना, समाज कल्याण केंद्र, अखिल भारतीय महिला परिशद, रॅड क्रॉस सोसायटी, आकाशवाणी, कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा बॉक्सिंग असोसिएशन, गोंय पर्यटन खातें, परिचारिका संघटना अश्या जायत्या संघटनांची ती वांगडी आसा. व्हिक्टोरिया म्हणल्यार ह्या संघटनांक आदार कसो.

1989 वर्सा तिणें सांताक्रूझ मतदारसंघांतल्यान वेंचणूक लडयली आनि
जिखलीय बी. बेकार तरणाट्यांक नोकऱ्यो मेळोवन दितनाच तांचे भितर तिणे
आत्मविस्वास तयार केलो. झोपडपट्टी संघ स्थापन करून झोपडपट्टीवाल्यांक
न्याय मेळोवन दिलो. धर्मीक एकचार तिगोवंक समिती स्थापन केली. प्रगति
मंडळ स्थापन करून गांवच्या बायलांक प्रगतीच्या मार्गार हाडून दवरलीं.
जायत्या वेळार तिचे जिणेंत संघर्शाचे खीण आयल्यात. त्या त्या वेळार तिणे
निशस्त्र झूज दिलां. व्हिक्टोरिया जायतीं झुजां झुजल्या तरिकूय दर खेपे ती
तातूंत येसस्वी जाल्याच अशें ना. जायते खेपे निर्शेणीय आयल्या. पूण ती
फाटीं सरूंक ना.

ह्या जोगलाची खरी वळख करून घेतले जाल्यार एकूच देख पुरो –
गोंयचें नांव भारताच्या नकाशा वयल्यान काडपा खातीर विलिनीकरणाचो
प्रस्ताव आयलो तेन्ना गोंयच्या अस्तित्वाची राखण करूंक कावन्सिल ऑफ
ॲक्शन सक्रीय जालें. ताची ती वांगडी आसली. ज्या वेळार दादले लेगीत
मोर्च्यांत वांटो घेवंक फुडें सरनाशिल्ले त्या वेळार व्हडा संख्येन बायलांचो
मोर्चो काडून बायलांचे तांकीचो दिश्टावो तिणेंच पयले खेपे घडयलो.

जनमत कौला वेळा वयलो तिचो वावर आनी तिची धडाडी गोंयच्या
इतिहासांत भांगराळ्या उतरांनी बरोवन दवरपा सारकी. गोंयाक घटक राज्याचो
दर्जो मेळचो आनी कोंकणी राजभास जावची म्हूण सुरू केल्ले चळवळींत
वांटेकार जाल्ली व्हिक्टोरियामामी पयली बायल. तिच्या कर्तुबान लोकप्रियतेची
दारां तिका उक्तीं जालीं. तिची धडाडी पळोवन गोंयांतल्या कितल्याश्याच
चळवळींची येजमानकी वा संघटनांचें अध्यक्षपद तिच्याच गळ्यांत पडटालें.
इतलो उपाट मोग गोंयकारांचो तिका लाबला. व्हड व्यक्तिमत्वांक लोकां
कडल्यान उपमा वा उपाध्यो मेळटात. तशी व्हिक्टोरियाक 'मामी' ही मोगाची
उपाधी लोकांनीच दिली.

आयज मामीन पिरायेची सत्तरी हुपल्या तरिकूय तिचो आवेश अठरा

वर्सांचे तरणाटे चलये इतलोच. राजकारण्यांनी तिका फावो तें म्हत्व दिवंक ना. तरिकूय ती झुजता. आयजूय तिच्या घरा कडेन बेकार तरणाटे, अनाथाश्रमांतले लोक, गरीब पिडेस्त लोक मजती खातीर येतात. अडचणी सोडोवंक तिका मध्यस्थी करपाक सांगतात. तिवूय कोणाक रित्या हातांनी परत धाडिना.

◆◆◆

45.

# सुषमा नायक



कलेच्या वेगवेगळ्या मळांचेर अणभव घेवन, आपलो स्वतंत्र वेवसाय सुरू करपी आनी हेरांकूय स्वावलंबनाचें म्हत्व सांगपी, समाजसेवक आनी कर्तृत्वी अस्तुरी म्हणल्यार सुषमा सुनील नायक.

माशेलांतली सुषमा लग्न जावन माकाझान-पेडणेंची जाली. पूण तिचे शिक्षण, नोकरी मुंबयंत जाली. थंय तिणें नामनेची सौंदर्यतज्ञ माया परांजपे हांचे कडेन शिक्षण घेतलें आनी मागीर म्हापश्यां दादले-बायलां खातीर सिन्हो ब्युटीपार्लर सुरू केलें. तेन्ना ही कल्पना गोंयांत सामकी नवी. तेन्ना ती पणजे रावताली. दिसपट्टें पणजेंतल्यान म्हापश्यां यो-वच करतना तिका खूब त्रास जावंक लागले. तिच्या घराय बायलां सौंदर्योपचार घेवंक लागलीं. म्हूण मागीर तिणें पार्लर बंद करून घरा, पणजेच हो वेवसाय सुरू केलो. ती गोमंतक टायम्स ह्या दिसाळ्यांत रुपसंवर्धन हें सौंदर्य विशया वयलें सदर चलयताली. ते भायर सिंथेटिक, कॉटन अश्यो साडयो, बॅगां विकरे खातीर दवरूंक लागली. तिचो हो वेवसाय खुबूच वाडिल्ल्यान तिणें आपल्या हाता खाला पंदरा बायलांक कामाक दवरलीं. साईली ह्या नांवान तिणें साडयो आनी बॅगांचीं कितलिंशींच प्रदर्शनां आयोजीत केलीं आनी आयजूय गोंयभरच्या मुखेल शारांनी तें आयोजीत जाता.

पेपरमशिनाचेर कागदाच्या लगद्या पसून तरातरांच्यो वस्तू तयार करपाचें काम पयलेच खेपे सुषमान केलें. पेपरमशिना वयल्या वेवसायाचेर क़ितलिंशींच पुस्तकां वाचून तिणें बारीकसाणीन ताचो अभ्यास केलो. तशेंच गोंय सरकारा वतीन आयोजीत केल्ल्या पेपरमेकींग विशयाचो अभ्यासक्रम पूर्ण केलो. तशेंच मुंबय वचून थंय डिजायनिंगाचो अभ्यासक्रम पूर्ण केलो. कांय खाजगी वर्गांतल्यानय तिणें हाचें शिक्षण घेतलें. पेपरमशिनाचेर श्रीगणेशाच्या म्हौंवाळ्या पासून सुरवात करून विदूशक, राकेस, जनावरां, कार्नाव्हाला खातीर तरांतरांचीं म्हौंवाळीं, सोबेच्यो कुंडयो, तरेकवार अळंकार, पीन बॉक्स, पॅन होल्डर, वण्टींचेर हुमकळावपाच्यो कुल्ल्यो, लॉबस्टर अश्यो पेपराच्यो वस्तू करपांत ती फिशाल जाली. आपले बुद्‌दीमत्तेचो बारीकसाणीन वापर करून कुशळटायेन नव्या नव्या कल्पनांच्या आदाराचेर पेपरमशिनाच्यो वस्तू तयार करपाक लागली. ह्या वस्तूं खातीर देशी-विदेशी पर्यटकांची मागणी व्हडा प्रमाणांत वाडली. व्हडलीं व्हडलीं हॉटेलां, ऑफिसां, इंटेरियर डेकॉरेशनाचीं दुकानां, गिफ्ट हावज, आर्किटेक्ट हांचे कडल्यानूय व्हडा प्रमाणांत मागणी येवपाक लागली. ह्या कामांत तिचे गुरू अविनाश पाटकर, गोवर्धन सिंह पनवार हांचें मार्गदर्शन तिका लाबलें. आपल्या वस्तूंचें प्रदर्शन तिणें मुंबय, बंगळुरु, कोलकाता, गुवाहाटी, आसाम, गुजरात, इंदोर, पुणे हांगा आयोजीत केलां. शाळेंतल्या भुरग्यां खातीर हस्तकलेचीं प्रात्यक्षिकां दाखोवपाचें वर्गूय ती घेता.

1998 वर्सा सुषमान राज्य पांवड्या वयली एक सहयोग महिला संघटना स्थापन केली. सुरवातीक आल्तिनो, पणजी हांगा तिणें कांय बायलांक एकठांय हाडून पयलो आप मजत गट स्थापन केलो. मागीर माशेल, भोमा, दिवाडे, कुमारजुवेंच्या बायलां मर्दी स्वावलंबनाचें म्हत्व पटोवन थंयूय आप मजत गट तयार केले.

गोंय हस्तकला उदरगत महामंडळाची संचालक, गोंय राज्य समाज कल्याण मंडळाची भांडारी, गोवा आर्टस् ॲण्ड क्राफ्ट कॉ-ऑपरेटिव्ह सोसायटीची

अध्यक्ष अशीं जायतीं पदां तिणें भुशयल्यांत.

'जहाँ चाह वहाँ राह' फकत तुमची कला निश्ठेन जपात. खांची-कोनशांतल्यान तुमकां लोक सोदीत येतले. खर कश्ट घेयात. स्वताच्या पांया उबे रावात. नोकरे फाटल्यान धांवनासतना स्वताचो वेवसाय सुरू करात आनी गरूडझेप घेयात अशें सुषमाचें तरणाटे पिळगेक सांगणें.

◆◆◆

# 46.
# डॉ. पौर्णिमा उसगांवकार



आईचा राग काढण्यासाठी
तितक्याच मायेचं आपलं कोणीतरी हवं
कवेत घेऊन तारकांना गोंजारणारं
प्रत्येक तारकाचं तुमच्या सारखं एक आभाळ असायला हवं

कवी पांडुरंग गांवकाराची ही काळजाक स्पर्श करपी कविता.

ढवळे दोंगरा वयल्या धनगरवाडीच्या भुरग्यांक आपले कुशींत ओडून तांचेर मायेचो हात भोंवडावपी दोतोर पौर्णिमा ना. सं. उसगांवकार म्हणल्यार एक मायेचें मळब. पौर्णिमाताईगेर धनगरवाडीची एक बायल दूद घेवन येताली. तिणें एक दीस आपल्या भुरग्यांची गजाल तिका सांगली. तिच्या भुरग्याक वेळार वैजकी उपचार मेळूंक नाशिल्ल्यान ताचो दोळो काडचो पडिल्लो. गजाल आयकून पौर्णिमाताईच्या काळजाक पीळ पडलो. थंय वचून थंयच्या लोकांची पळोवणी केले उपरांत थंयची भिरांकूळ परिस्थिती ताईच्या लक्षांत आयली. 'आओ गांव चले' उपक्रमाची ती फांटो निमंत्रक. ह्या उपक्रमा अंतर्गत मातृछायेचे वतीन तिणें आपलो सप्तकांतलो एक दीस धनगरवाडीक दिलो. थंयसरल्या भुरग्यां मदीं तिका टीबीचे दुयेंती तशीच काळजाक दोश

आशिल्लीं भुरगींय मेळ्ळीं. तांचेर उपचार सुरू जाले. ताई आपणाक मेळपी फ्री सँपलां थंयच्या लोकां मदीं वांट्टा.

मडकयचे पीसफूल सोसायटी वतीन वाड्यावाड्यार जावपी शिबिरांनी फाटलीं 21 वर्सां ती फुकट  तपासता. थंयच्या बायलां-भुरग्यां मदीं भलायके विशीं जाग्रुताय निर्माण करून तांकां वखद विरसद करता. चाळीशी उपरांत येवपी रजोनिवृत्ती उपरांतचे त्रास, खरूज, कामीण, ॲनेमिया हांचे विशीं जाग्रुताय निर्माण करता. केशव सेवा साधना, पी.ई.एस. कॉलेज तशेंच स्नेहमंदिरा खातीर भलायकी शिबिरां घेता. संजीवनीच्या होम नर्सिंग ट्रेनिगांत ती मार्गदर्शनूय करता.

पौर्णिमाताई पयलींची शेल्डेकार घराब्यांतली. दिनकर शेल्डेकाराली धूव. दोतोर नारायण ऊर्फ संतोष उसगांवकार हांची घरकान्न. दोतोर अनार आनी दोतोर सिद्धी हांची आवय पौर्णिमाताई फोंडें हांगा भुरग्यां खातीर हॉस्पिटल चलयता पूण तिणें पयशां खातीर हो दोतोरकेचो पेशा स्विकारूंक ना तर गरीब-दुबळ्या भुरग्यांची जतनाय बरेतरेन जावची तशेंच गरीब आनी पिडीत बायलांची सेवा करची म्हूण आपणायला.

संवसारांतल्या दुबळ्या पिडितांचे हाल पळोवन तिच्या काळजांतल्यान कवितेच्या रुपान उतरां भायर सरतात. तांच्या आदाराक धांवून तांकां आपले मायेन आनी वैजकी सेवेन बरें जिवीत दिवचें हे खातीर ती वावुरता.

तिच्या कार्याची दखल घेवन 1991 त तिका 'मित्रा बीर पुरस्कार', 1993 त उत्कृश्ठ आयएमए थळावो फांटो पुरस्कार, 1997, 1999, 2003 त उत्कृश्ठ फांटो सेक्रेटरी पुरस्कार, 2002 त यशोदामिनी पुरस्कार तशेंच 2003 त आयएमए डॉ. कनक गोयल पुरस्कार फावो जाला.

◆◆◆

# 47.
# लिला हळदणकार



गिन्यानाचें दान, एक पवित्रदान
कितलेंय दी, कमी जायना

शिरदोणच्या रघुनाथ हळदणकाराची धूव लिलाक हें होलमलें म्हूण तिणें थंयच्या अशिक्षीत बायलांक एकठांय हाडून तांचे खातीर साक्षरता वर्ग चलोवपाचें काम हातांत घेतलें. तिणें शिवण कामाचोय कोर्स पूर्ण केलो आनी गांवांतल्या बायलांक त्या शिक्षणाचोय लाव दिवपाक सुरवात केली. तिचे कडेन साक्षर जाल्लीं बायलां आत्मविस्वासान कसल्याय कामांत वावरूंक लागलीं. शिवण कामाचें शिक्षण घेतिल्ल्या बायलांनी आपलो स्वताचो शिवणीचो वेवसाय सुरू केलो आनी पयशे जोडून संवसाराक हातभार लावपाक लागलीं. ताचें सगळें श्रेय लिलाक वता.

सप्तपदीचीं सात पावलां चलून लिला, प्रकाश नायकाची घरकान्न प्रवेशा जालें. शिरदोणची धूव पारंपय-मडकयची सून जाली. हांगाय तिचो धडपडी सभाव तिका ओगी बसूंक दिना जालो. हाका मजत कर, ताच्या आदाराक धांव ह्या कारणान ती थंयूय लोकप्रीय जाली आनी तेच खातीर थंयचे पंचायत वेंचणुकेंत ती उपाट मतांनी वेंचून आयली. थंयची सरपंच जावन तिणें गांवाक नळ, उदक, रस्ते, वीज अश्यो सुविधा मेळोवन दिवपाक फुडाकार घेतलो.

गांवांनी भजनी मंडळां आशिल्लीं. पूण थंय फकत दादल्यांकूच वाव
बायलां फकत दोणे भरपाक आदार करपाक. बायलां मर्दी भजनां करपाची तां
आशिल्ली. ती वळखून प्रवेशान बायलांक एकठांय केलें आनी 2001
श्रीविघ्नेश्वर सुवासिनी मंडळाची स्थापना केली. पारंपय-मडकयचे आमदा
सुदिन ढवळीकाराच्या पालवान हें भजनी मंडळ स्थापन करतना ज्यो ज्य
वस्तू लागतात त्यो मेळोवन घेतल्यो. गोंयचे नामनेचे पखवाज वादक भौ
पुंडलीक कळंगुटकारान मंडळाचें रजिस्ट्रेशन करपाक मजत केली. नामनेच
मास्तर वामन नायक गावणेकार, हनुमंत फडते, लाड गावणेकार हांचे तांच्य
भजनी मंडळाक मार्गदर्शन लाबलें.

बिठ्ठोणा, कुडका-वड-वड, शिरदोना, राजीव गांधी कला मंदीर
फोंडें, एकोशे, शिवोले, रायबंदरा, कला अकादमी पणजी हांगा भजनांच्य
सर्तींनी वांटो घेवन तांच्या मंडळान इनामांय जिखल्यांत.

ते भायर सगळीं बायलां मेळून मास्तराक हाडून नाटकां बसयतात आन
गोंयच्या विंगड विंगड वाठारांनी तें सादर करून शाबासकी घेतात. चवथीच्य
दिसांनी कितलेशेच कडेन वचून भजन-आरतींच्यो कार्यावळी तीं करतात.

प्रवेशान गांवगिऱ्या बायलां मर्दी शिक्षणा विशीं जाग्रुताय निर्माण करून
तांकां शिवण, भरतकाम, फुलांचे हार, धालो, फुगडी, होंवयो, नाटकां, भजन
अशा कलांनी कुशळटाय हाडली.

तांच्या भजनी मंडळांत लीना चंद्रकांत नायक - पखवाज-घुमट, सुध
नारायण नायक-तबलें, प्रवेशा प्रकाश नायक-गायन, तेजा विश्वनाथ नायक-
टाळ आनी गायन, अंकिता नामदेव नायक-शामेळ, सुप्रिया गंगाराम नायक-
कांसाळें, जया गंगाराम नायक-पेटी वाजयतात.

प्रवेशाच्या कार्याची दखल घेवन तिचो भोवमानूय खूब कडेन जाला.

◆◆◆

48.
# आशाताई सावर्डेकार



पिरायेचीं पांसस्ट वर्सां. जिणेंतल्या बऱ्या-वायट अणभवांतल्यान परिपक्व जाल्ली पिराय आनी आपल्या ह्या अणभवी जिणेचें सार्थक म्हणल्यार लोकसेवा अशें मानपी आशाताई सावर्डेकार. बांदोडें, फोंडेंचे संजीवनी संस्थेची अध्यक्ष म्हूण ती वावर पळयता. आशाताई पणजेचे नामनेचे वकील तशेंच स्वातंत्र्य सैनिक विनायक कैसरेची धूव. विनायक आनी माधव बीर, मोहन रानडे, सुधाताई जोशी, ग. गोरे, मधु लिमये हांचें आत्र्या-पयऱ्यान आशाताईल्या घरांत मेळप जातालें. तेन्ना तांच्यो देशप्रेमाच्यो गजाली आयकून आनी कर्तुपां पळोवन ती भारावन वताली.

मुखा वयलें शिक्षण घेवपा खातीर ती मुंबय गेली आनी शिक्षणा उपरांत परत गोंयांत येवन बायलांच्या विकासा खातीर विंगड विंगड पांवड्या वयल्यान कार्य करपाक लागली. बायलांच्या मनांत स्वावलंबनाचें म्हत्व रूजोवपा खातीर दीस-रात कश्टपाक लागली.

पायलट आशिल्ल्या विश्वनाथ सावर्डेकारां कडेन तिचें लग्न जालें. विश्वनाथ गोंयच्या हिंदू समाजांतलो पयलो वयलो पायलट आनी ताचे कर्तबगारी खातीर ताका 'किर्ती चक्र' फावो जाल्लें आनी आजल्म आंकवार रावतली

म्हणपी आशाताई ताचे हे कर्तबगारी खातीर 1965 त ताचे कडेन लग्न जालें
तांचे संवसार वेलीचेर विनीता, समिता (सिमी) हीं दोन सोबीत फुलां फुल्लीं

1972 त जाल्ल्या भारत-बांगला झुजा वेळार केल्ले यसस्वी सेवे खातीर विश्वनाथाक झुजा उपरांत त्या वेळा वयले राष्ट्रपती डॉ. व्ही. व्ही. गिरी हांच्या हस्तुकीं 'अतिविशिशठ सेवा पदक' फावो जालें. आशाताईचें हड्डें अभिमानान भरून आयलें. त्या वेळार दैव आपल्या नशिबा कडेन कसलो खेळ खेळपाक आसा हाची तिका मात पासून जाणविकाय नासली. दुसऱ्या दिसा विश्वनाथान विमानान उड्डाण केलें आनी खिणभरयांत विमान सकयल कोसळ्ळें आनी आशाताईचो संवसार मातये भरवण करून गेलें.

हो आघात आशाताईन सोंसलो. तशांतूय तिणें आपलें शिक्षण चालू दवरलें. एम.ए.एस.एस.डब्ल्यू, एल.एल.बी. जातकच तिणें फॅमिली प्लॅनिंग ॲण्ड रिसर्च सेंटरांत वॉर्डन म्हूण पदविका मेळयली. 1973 त गोंयांत येवन आनी गोंय सरकाराचे प्रोव्हेदोरिया संस्थेंत पालवी संचालक म्हूण काम पळोवपाक लागली. उपरांत स्वेच्छेन गोंय सरकाराचे 'ग्रामीण विकास यंत्रणा' हे संस्थेंत कार्यावळ अधिकारी म्हूण काम केलें. थंय सावन तिका गोंय सरकाराचे वतीन पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा इन ॲडमिनिस्ट्रेशन कोर्स करपा खातीर इंग्लंडाक धाडली. उपरांत ती अमेरिकेक गेली.

आशाताईन आपलें जिवीत समाजकार्या खातीर ओंपलें. ऑल गोवा वूमन्स कॉन्फरन्स, गोंय फांटो, गोंय राज्य महिला सहकारी फॅडरेशनाची अध्यक्ष (1995-2000), सोसायटी फॉर यूथ डेव्हलॉपमेंट ट्रस्टाची अध्यक्ष (1975), मातृछाया ट्रस्टाची वांगडी, गोवा पायलट विकास संस्थेची उपाध्यक्ष, होम नर्सिंग ट्रेनिंग सेंटराची चिटणीस, असोसिएशन ऑफ सोशल हेल्थ गोंय फांट्याची वांगडी, स्नेहमंदीर वृद्धाश्रमाची वांगडी अशा साबार पदांचेर तिणें वावर केला. यूथ डेव्हलॉपमेंटाची अध्यक्ष आसतना तिणें चलयो आनी बायलां खातीर जीवनविशयक तंत्रनिकेतन, वानप्रस्थ सदन आनी जाणट्यां खातीर वृद्धसेवा

मंदीर अशे विंगड विंगड प्रकल्प चालीक लायल्यात.

तिच्या समाजकार्याची दखल घेवन विंगड विंगड मळा वयल्या संस्थांनी तिका सन्मानीत केलां. मित्रा बीर पुरस्कार, जेसी पुरस्कार, यशोदामिनी पुरस्कार, लायन्स क्लबाचो पुरस्कार, सांगें-केपें पत्रकार संघटनेचो पुरस्कार, स्वयंसिद्धा पुरस्कार अशे भोवमान आशाताईक फावो जाल्यात.

◆◆◆

## 49.
# अशटताशी अस्तुरी : अनिता गावडे



अनिताक दिसतालें आपणें खूब खूब शिकचें, व्हडली शिक्षक जावन सगळ्यांक बरें शिकोवचें. पूण जालें उरफाटेंच. चवथी मेरेन शिकतकच बापायन ताका घरची जापसालदारकी दिली. तांचीं शेतां आसलीं, मानस आसली, काजी, आंबे, पणस हें सगळें कोण सांबाळटलो? तुवेंच तें सांबाळप अशें ताच्या बापायचें मत. अनिता निर्शेलें पूण....

तांच्या घरा सामकार सायमन फॅर्नांडीस हो भाटकार रावतालो. ताका तें सायमन अंकल म्हणटालें. ताणें ताका म्हणलें, 'तुजें काम करून अर्दवर काडून तूं म्हजे कडल्यान पुर्तुगेज, इंग्लिश शीक.' अनिताची निर्शेणी खंयचे खंय नाच्च जाली. शेता-भाटांत वतना, नुस्त्याक वतना तें शिकपाकय लागलें. कुळारचें नांव गुलाब केशव मुर्डीकार. ताचो संवसार आतां वाघुर्म्यां.

अनिता अशटताशी म्हणल्यार अतिताय जावची ना. खऱ्यांनीच जोगूल! अनिता आदीं तशें उदकाक भियेतालें. झाडार चडपाकय ताका भिरांत दिसताली. ताचो भंय काडपाक भाटकार ताका कमरेक राजू बांदून उदकांत सोडटालो. अशें करून ताचो भंय काडपाक ताका येस आयलें. फुडें अनिता न्हंयेंत पेवंक लागलें. बापाय वांगडा पनेळांत बसून पनेळ तांडपाक लागलें. तें इतलें कुशळ

जालें की एकदां तर हुंवारांत बुडपी एके बायलेक अनितान व्हांवत्या उदकांत उडी मारून वाटायलें! ही खबर सायमन भाटकाराक कळ्ळी तेन्ना ताका सगळ्यांत चड खोशी जाली.

अनिता कुशळटायेन व्हडें वलयता. शेतकामांत तर सामकें तरबेज. शेतांतल्या कामेऱ्यांक स्वताच्या हातान केल्ली घमघमीत कुळटाची पिठी खावयता. अनिताच्या हाताची कुळटाची पिठी म्हणल्यार कामेऱ्यांक मेजवानीच. सुरबुरीत पिठी खातकच कामेऱ्यांक काम करपाक आनीक उमेद येताली. मागीर अनिता तांकां उर्बा येवपाक आपणेंच रचिल्लें पद म्हणटालें :

भायर वारो आनी पावस
हात-पांय जातात थंड
गरम गरम कुळटा पिठयेन
पोटांत आयली ऊब
आतां आमची भूक न्हिंवल्या तशीं
चलात लागुया नेटान कामाक...!

चिंचे झाडार चडटना तिचें पद आसतालें :

चिंचे तुजें झाड, बाये
खुबूच तेंगश्या-कोनश्यांचें
चिंचो काडूंक घाल्यार हात
म्हजो हात सरपट्टा
चार-पांच चिंचो म्हज्या हाताक लागतात!

अनिता कालवां काडपाक फिशाल. खुबे, तिसऱ्यो पडटात तेन्ना तें फिशालकायेन खुबे-तिसऱ्यो काडटा. सुकतेर बापूय-भावां वांगडा न्हंयेचेर बुडयो मारून जाळें मारता. नुस्तें मारपांत तर तें बापाय परसूय कुशळ जालां.

जशें नुस्तें धरपांत कुशळ तशेंच मिठाय करपांतय ताचो हात कोण धरपाक शकना. पुरणपोळयो, वडयो, पापड, पेडे कितें जमना? वाघुर्म्यां तें

बऱ्या सुरबुस खाणांक लागून नामनेक पावलां. इतल्यांरुच ताचें व्यक्तीमत्व सोंपना. अनिता धालो, फुगड्यो घालपाक नामनेक पावलां. धालाच्या मांडार ताच्यो धालो आयकुपाच्यो. तातुंतल्यान बायलमनशेचो पुराय संवसार, तांचीं सूख-दुख्खां सगळें तें उक्तायता.

तरणाटे पिरायेर ताचो घोव संवसार सोडून गेलो. तरी अनिता भियेवंक ना. गळसणूंक ना. कारण तें निर्भय जाल्लें. कसल्याय संकश्टांक वा कामाक तोंड दिवपाची ताची तयारी.



## 50.
# ...आनी हांवूच जोगूल जालें...!



'जोगूल' आगळ्या-वेगळ्या अस्तुऱ्यांच्या मुलाखतींचें सदर. वर्सभर चलयलें. आतां सुनापरान्ताच्या वाचकां खातीर निमाणें जोगूल. मुलाखत बरी जावंक जाय ह्या हेतून अनिता मुर्डीकाराल्या वाघुर्म्या गांवांत वचपाचें थारायलें. तशें हांव, म्हजो घोव आनी भावालें चली दीपाली सांखळकार अनिता वांगडा आमी ताच्या गांवचे वाटेक लागलीं. पाचव्याचार झाडांनी चंवरिल्ल्यो कितल्योश्योच दोंगुल्ल्यो, आशिकुशीक अटंगें रान, चडटी-देंवती, तरेकवार सवणीं, चलतना अनिता आपल्या ह्या सैमाळ गांवचें म्होंवाळ वर्णन करतालें, थंयच्या घसघस व्हांवपी व्हाळांतल्यान खरचांड्यो, पोटींग, पिटोळ, थिगूर, काळुंदरां, मोतयांवरी लखलखपी बुरांटे हांच्या सुवादीक हुमणाचें रसभरीत वर्णन करतालें. चलून चलून पांय पयलींच दुखिल्ले. पोटाक चुरचुरून भूक लागिल्ली. तातूंत अनिताच्या रसभरीत वर्णनान पोटाची भूक चड चाळवली. तानेन जीव वचपा कडेन पाविल्लो. त्या वेळार म्हेळ्या उदकाचो फोंड लेगीत मेळिल्लो जाल्यार तें उदक आमी घटाघटा पियेवपाचीं. इतल्यांत अनिताच्या देराचो चलो दिग्गज थंय आमकां व्हरपाक गाडी घेवन आयलो तेन्ना जीव सू ऽऽऽ जालो.

अनितागेर पावलीं. थंड आडसराचें उदक आनी बशी भरून मानकुरा
आंब्याच्यो शिरो खाले उपरांत तांच्या कुळागरांत पासय मारून आयलीं. मिरी
तिखी, काजू, पणस, पोपायो, डाळंबाचीं झाडां आनी केळ्याच्यो कितल्योश्योच
प्रजाती. मागीर सुरबूस भूस. जेवणांत तरेतरेचे जिनस. तिसऱ्यांचे दांगर, खडपी
कुल्ल्यांचें आंबट-तिखट, चिली चिकन, मुड्डशांचें हुमण, तळिल्ल्यो मोट्यो
वागयो, पोट सामकें तृप्त जालें. भरीक भर म्हणून मुखशुध्दीक भांसाळ जांबळ
आनी सोलिल्ले बिबे. मातशे वेळान आलें-मिरी-गंजन घाल्ली च्या घेतली
आनी दर्यार वचून अनिताची मुलाखत घेवपा खातीर व्हड्याचेर चडलें.
आमची मुलाखत सामकी रंगांत येताली. मुलाखत दितां दितां अनिता व्हडें
चलयतालें. व्हड्यान अशे तीन भोंवताडे मारले. सगळें बरे भशेन चलिल्लें.
अचकीत कितें जालें कळ्ळेंना. व्हडें उमथलें. हांव, दीपाली आनी अनिता
सोमर्ती उदकांत बुडलीं. अनिता हरशीं बरें पेंवपी. पूण आतां उदकांत देंविल्ल्याक
कितलिंशींच वर्सां उलगल्लीं. तरीय ताणें नेट धरून पयलीं दीपालीक वयर
काडलें. ते मेरेन हांव उदकांत बुचकळटालें. अनितान परत उदकांत उडी मारली
आनी म्हज्या केंसांक धरून म्हाका वयर काडलें आनी आपल्या खांदार घेवन
पेंवपाक लागलें. ताच्या खांदार हांव बकें कशें बशिल्लें तें पळोवन ते
परिस्थितींतूय दीपाली खळखळून हांसपाक लागलें.

म्हजो घोव तेन्ना कॅमेरो घेवन फोटो काडपाक गुल्ल जाल्लो. ताका आमी
बुडल्यात हें खबरूच ना. कोणेंतरी म्हणलें - व्हडें बुडलें आनी तातूंत दोन
मध्यम पिरायेच्यो बायलो आनी एक तरणाटी आशिल्ली. तें आयकना फुडें
म्हज्या घोवाचो आवरो उडलो. तो सैरभैर जावन लोकांक आमकां वांचयात
म्हूण पांयां पडपाक लागलो. खंयची झक मारली आनी हांगा आयलीं अशें
ताका दिसलें.

अनितान म्हाका वयर काडलें आनी पोटांत उदक गेलां काय पळोवपाक
लागलें. पूण अजाप म्हणल्यार म्हज्या नाका-तोंडांत इल्लें लेगीत उदक वचूंक

नाशिल्लें. सगळ्यांक ताचें खूब अजाप दिसलें. पलतडच्यान पळोवपी लोकांक लेगीत हांव सासणा खातीर सोंपलेंशें दिसलें. पूण म्हणटात न्हय देव तारता ताका कोण मारता.

इतले म्हणसर म्हजो घोव आकांतान थंय धांवून आयलो आनी म्हाका घट्ट वेंग मारून रडपाक लागलो. तशे लोक हांसपाक लागले. हांवें दीपालीक वेंगायलें तशे ताच्याय दोळ्यांत दुकां भरलीं. ताणें म्हणलें, दिदी, म्हाका दिसलें तूं आमकां सोडून गेलें म्हणून. भावोजी तर सामको पिसो कसो जावन देवाक होरायतालो. तें पळोवन लोकूय रडटाले.

म्हाका बुडून मरण आयिल्लें जाल्यार दुसऱ्या दिसा सुनापरान्ताचेर बातमी येवपाची. अनिताची मुलाखत घेवपाक गेल्ले कडेन सोनिया शाहाक बुडून मरण. जोगलांच्यो मुलाखती घेवपी सासणा खातीर यादींचें जोगूल जालें.

◆◆◆

# सौ. सोनिया सुभाष शाह



- आदली सुनिता पुरुषोत्तम साखळकार
- जल्म : १२-१२-१९५७, रायबंदर, गोंय
- शिक्षण : बी. ए.
- मेरशेचे मुळावे शाळेंतली आदली शिक्षिका.
- ल्हानपणा सावन वाचनाची आवड.
- कविता, लेख सुनापरान्त दिसाळ्यांतल्यान उजवाडा आयल्यात.
- गोंयच्या विंगड विंगड मळा वयल्या बायलांच्यो मुलाखती 'जोगूल' ह्या सदरांतल्यान सुनापरान्त दिसाळ्यांतल्यान उजवाडा आयल्यात.
- कोंकण टायम्स, बिम्ब, लामणदिवो ह्या अंकांनी कविता, लेख उजवाडा आयल्यात
- पणजे दूरदर्शना वयल्यान कविता वाचनाच्यो कार्यावळी तशेंच पणजी आकाशवाणी केंद्रा वयल्यान कवितांचे सादरीकरण. पणजे दूरदर्शना वयल्यान बायलांच्यो खास कार्यावळी सादर केल्यात.
- 'सपन गंध' हो कोंकणी काव्य झेलो गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'पयलो चंवर' हे येवजणे खाला २०१० वर्सा उजवाडा आयला.
- 'हा पाऊस नक्षत्रांचा' हो मराठी काव्यसंग्रह २०१२ वर्सा उजवाडा आयला.